

# गजाली पोटसऱ्यांच्यो

## सर्पमोगीचे अणभव



मूळ लेखक - गुरुराज सनील

दो़. सुषमा आरुर

# गजाली पोटसऱ्यांच्यो

## सर्पमोगीचे अणभव

मूळ कन्नड लेखक :

**गुरुराज सनिल, उडुपि**

कोंकणींत अणकारपी :

**डॉ. सुषमा अशोक आरुर, गोंय**



**गजाली पोटसऱ्यांच्यो**
**सर्पमोगीचे अणभव**

मूळ कन्नड : **गुरुराज सनिल**

अणकार
**दो. सुषमा अशोक आरूर**
मोबायल : 9740399995
ई-मेल : arursushama@gmail.com

प्रकाशक :
**दो. सुषमा अशोक आरूर**
303, हेरिटेज रोयाल,
ला-ओशियाना, फेज 2,
इंटरनेशनल सेंटरा कुशिक,
दोना पावला, गोंय -303004



**प्रकाशन क्र.** : 01

**पयली उजवाडावणी** : 2020

छापणावळ :
**रिया ग्राफिक्स**
ओल्ड-गोवा

मुखचित्र :
**विकास कामत**

**मोल : रु. 200/-**

**GAZALI POTSARYANCHYO**
**SARPAMOGICHE ANABHAV**

Original Kannada : **Gururaj Sanil**

Translation :
**Dr. Sushma Ashok Arur**
Mob. : 9740399995
E-mail : arursushama@gmail.com

Publisher :
**Dr. Sushma Ashok Arur**
303, Heritage Royal,
La-Oceana, Phase - II
Near International Center
Dona Paulo, Goa - 303004



**Publication No. :** 01

**First Edition :** 2020

Printing :
**Riya Graphics**
Old - Goa

Cover Page :
**Vikas Kamat**

**Price : Rs. 200/-**

सानपणांत वाचनाचो नाद लावपी

आनी

विविध भाशेची गोडी चोखपाक शिकोवपी

म्हजो बाबा

**तीर्थरूप गणेश बुर्डे**

हांच्या उगडासाक

ही म्हजी पयली कृती ओंपतां...

- सुषमा

# वेगळो विशय हाताळतना...

कोंकणी सरस्वतीचे दालनांत हालींसरा नव्या नव्या साहित्यकृतींचीं भर पडत आसा. तांतूत मौलिक रचनाय  आसात तशोच रूपांतरीत, अणकारीत रचनाय आसात. अशेतरेच्या रचनांकलागून एकाद्री[1] भास दिशीं दिशीं समृद्ध आनी बळकट जाता हातूंत मातूय दुबाव ना. कोंकणीय हाका आडवाद ना.

''गजाली पोटसऱ्यांच्यो : सर्पमोगीचे अणभव'' म्हळ्यार मूळ कन्नड भाशेंतल्या गुरुराज सनील हांच्या वेंचिक साहित्याचो हो कोंकणी अणकार. दो. सुषमाअशोक आरूर हांणी कोंकणी वाचप्यांक एक खेरीत तरेचो विशय आकलनाखातीर विस्तारीत करून दिला. तांच्या ह्या विशेश उपक्रमाक लागून दो. सुषमाक अभिनंदन फावता. असे तरेचे कार्य करपाक तांका आनीकय शक्त आनी इत्सा लाबूं आनी ते खातीर जायती मानसीक आनी कुडीची सवस्तकाय तांका मेळू अशें आंवडेता.

उडुपी, कर्नाटक हांगासल्लो कन्नड भाशिक गुरुराज सनिल हांणे आपणाल्या जीवितांत पोटसऱ्यांच्या आनी सर्पांच्या सांगातान रावतना आयिल्ल्या विंगड अणभवांचे कथन पुस्तक रूपान केलां. तांतूत मुखेलतायेन सोरपांची वर्णनां आयल्यात. विंगड तरांचे सोरोप, पाण सोरोप, तांची जीव, वर्तणूक, तांची असुरक्षितताय, मनशांचे जीणेतले तांचे महत्त्व, आमचे भलायके संबदात तांच्या विखाचो जाता तो उपेग, सर्पडंखाची चिकित्सा अशे साबार विशय थंय आयल्यात. गुरुराज सनिल चार वण्टीचे शाळेंत शिकचे परस अणभवांचे शाळेंत शिकून व्हड जाले. तांचो गुरु म्हळ्यार तांचे

1. एकाद्री – चडकरून

भोंवतणचो सैम. गरिबींत ल्हानाचो व्हड जाल्या गुरुराजांचे भुरगेंपण हेरा भुरग्यांवरी नाशिल्ले. तांका चड इश्ट नासलें. पूण सर्पाविशीं एक अनामिक ओड आशिल्ली. तांच्या सांगातान ते रमताले, तांची इश्टगत तांका भावताली. शाळेंत सोरपाक धरपाचो प्रसंग तांणी हांगा सांगला. ताका लागून मास्तरांची उलोवणी आनी मारय खाल्ला. पूण सर्पाविशींची तांची ओड उणी जालीना. अर्दकुटें शिक्षण दवरचें पडले पुण सोरपांच्याच सांगातान जीवितभर रावून तांणी आपणाली जीण चलयली.

तेदेवेळार राना-वनांत पोटसऱ्या सांगातान वावुरतना सैमाचो आनी पर्यावरणाचो मनास करता तो विबाड आनी दुरुपयोग तांणी आपणाल्या दोळ्यांनी पळयला. पर्यावरण राखण्णेच्या आनी संतुलनाच्या सांखळेंत सोरोप हो एक महत्वाचो दवो. तो शेतकामत्यांचो इश्ट. मनशांवरी हेर जीवावळीकय ह्या सैमांत रावपाचो अधिकार आसा. पूण मनीस सुवार्थाखातीर ह्या सगळ्या कडेन दुर्लक्ष करता. तो जेन्ना ह्या सगळ्यांच्या सांगातान समतोलान रावतलो तेन्नाच ताचेय कल्याण जातलें आनी आमीं आमचे फुडले पिळगेक रावपाक योग्य अशी धर्तरी[2] दिंवक पावतले. सनील हांचो हो विचार तांणी बरयिल्या सात पुस्तकांतल्यान प्रगट जावन आयलां. परिसर आनी पर्यावरणाचो सांबाळ करपी सोरपासारक्या पोटसऱ्यांच्या राखणेखातीर ते खूब वावुरतात. ते खातीर कर्नाटकांतल्या गांवा-गांवानी भोंवून, थंय जावपी विंगड कार्यावळींच्या माध्यमांतल्यान भौसाच्या मनांत सोरपांविशीं जागृताय आनी जाणविकाय हाडपाचे काम ते करीत आसात. भौसाच्या मनांत सोरपांविशीं जायते समज-अपसमज पातळलेले आसात, कुड्डो विश्वास, भंय अशे गजालींक लागून भौस दिश्टीक पडलेल्या कसल्याय पोटसऱ्यांक भिवून मारून उडयतात. खंयचोच सोरोप वा जनावर आपूण जावन दुसऱ्यांक चाबना. आत्मसंरक्षाणाखातीर तांची ती प्रतीक्रिया आसता. पूण मनीस हो

2. धर्तर - धर्तेर, पृथ्वीर

विचार केल्याबगर, आत्मसंरक्षणाखातीर त्या निष्पाप जीवाक मारून उडयता. मनीस प्राणी होच खरो निर्दयी, स्वार्थी आनी क्रूर आसता. आनी हांचे अणभव सनीलाक ठांय ठांय[3] आयलातय.

सर्पदोश बी म्हणटात त्यो गजाली फट अशें सनिल सांगता. भक्ष्याच्या सोदाखातीर सोरोप जळांमळां भोंवतना मनशाच्या घरांत पावता. घरांत नितळसाण दवरली ना जाल्यार त्या घरांत घुशी-हुंदरांची बिळां जातात. त्या हुंदरांक खावपाक सोरोप घरांत येतात. पूण भयभीत जाल्लो मनीस ताका मारता. भटा-पुजाऱ्यांच्या फाटल्यांन लागता. देव-देवस्पण करता. पैसो, वेळ आनी मानसीक सवास्तिकाय शेणोवन बसता आनी नसत्या अवडंबराफाटल्यान धांवता!

अशें वागप समा न्हंय अशें सांगपाक गुरुराज सनिल हाणी आपली जीण वेंचली. पोटसऱ्यांक वांचवपा खातीर वावूरले. लोकांल्या घरांत घुसून आयिल्या सोरपांक धरून तांका तांच्या रानवाठारांनी सोडपाचें काम तें करीत आसात. तशें करतना विखारी सोरपांनी तांका डंखय केला आनी तांच्या विखान ते मरणाच्या दारांत मेरेन पावल्यात. अशा वेळार सगळ्यांनी तांच्या जीविताची आशाच सोडून दिल्ली. पूण निखट्या इत्साशक्तीचे बळग्यार ते वाटावले[4]. हे साबार प्रसंग मूळ पुस्तकांतच वाचप योग्य थारतले.

सर्वसामान्य भौसाचो सोरपां विशींचो दृश्टीकोण बदलपाखातीर सनिल हांणी जायती बरपावळ केल्या तांतल्याच कांय वेंचिक बरपावळीचो हो सुरबूस अणकार. कथा, कविता, नाटक, कादंबरी असले ललित साहित्यातले लोकप्रिय प्रकारांचे अणकार करून नामना आनी तस्रीप[6] मेळवपाची प्रथा आसतना, दो. सुषमान हो वेगळोच आनी गंभीर असो विशय घेवन यशस्वीपणान हातळलाच पण आपणाल्या सामाजिक जापसालदारकींचे

---

3. ठांय ठांय - मात्या कणकण

4. वाटावले - वांचले

5. तस्रीपा - पुरस्कार

दायत्व पाळलां, देखून दो. सुषमाक परबीं फाव जातात तशेंच दिनवासय[6]!

मूळ पुस्तकांतली सोरपां विशींची म्हायती दिवन, तांचे प्रकार, लोंकामदलो भंय, बिनविखारी आनी विखारी सोरपां मदलो फरक वळखूक ना आशिल्यान साबार पोटसऱ्यां मारून उडोवपाची प्रवृत्ती, सर्प दंश जातकच घेवपाची जतनाय, तांका मारून जीवसांखळ तोडपाचो जाता तो प्रयत्न, सैमाची राखण करपांत पोटसऱ्यांचे महत्व शेतकामत्यांचो दुस्मान न्हंय तर इश्ट असो वेगळे तरेचो विचार घेवन आयिल्लें हें पुस्तक कोंकणी वाचप्यांक एक वेगळो आनंद दिवन वतलें हांतूत दुबाव ना! ते भायर सर्प चाबतकच करपाक जायते प्रथमोपचार हाचीय म्हायती हातूंत आसा.

'आपली ही पयलीच खोंकणी रचना' अशें दो. सुषमान मनोगतांत सांगला. पूण हें पुस्तक वाचतकच तसो ताचो अणभव खंयच येना. सुंदर, सहज वाक्यरचना हो ह्या पुस्तकाचो विशेश म्हणून येता. मंगळूरी कोंकणीच्या, 'भनप' हे मोडीचो सुंदर आविश्कार वाचपाक मेळटा. कोंकणीच्यो मोडी भोव. तांतलीच एक मंगळूरी मोड शें सामान्य मनीस सरसकट मानता. पूण तें मोडीच्योय उपमोडी आसात हें दो. सुषमाच्या ह्या अणकारावरवीं कळून येता. 'आपणाले भाशेचेर कन्नड भाशेचो प्रभाव खूप आसा. गोंयांत रावपाक आयिल्या सावन हांगासल्ले भाशेंत उलोवपाचो, बरोंवचो, वाचपाचो प्रयत्न छंद म्हूण हालींचो' अशी निर्मळ कबुली सुषमा दिता. ह्या पुस्तकांत आयिल्ले विचार सहज, आनी व्हावते शैलींत आशिल्यान खंयच आडखळ जायना. ते भायर कांय उतरांचे अर्थ तांणी तळटीपेंतय दिल्यात वाचतना अदीक सोंपेपण येता.

सोरपांच्या विशींची म्हायती दितनाच मनशान सैमाची राखण करपा खातीर कशें वागपाक जाय ह्या विचारा वटेन प्रवृत्त करपी हें पुस्तक आसा. तांणी आपलो हो पयलो प्रयत्न जरी म्हटलीं जाल्यार पयलेपणाची खंयचीय

---

6. दिनवासप - धन्यवाद दिवप

गजाल तांतूत दिसून येना. ह्या पुस्तकाच्या अणकारा खातीर तांणी घेतिल्ली तकालस[7] आनी कश्ट तांच्या चिवट, जिद्दी आनी अभ्यासू स्वभावगुंणाची वळख करून दिता. तांच्या अशे तरेच्या अथक8 कार्याक आदीक उर्बा मेळूं आनी तांच्या कडल्यान विंगड विशयावेल्या स्वतंत्र पुस्तकांची भर कोंकणी सरस्वतीच्या दालनांत पडूं, तांची ही उमेद तांका जैतवंत करूं शें मनासावन आंवडेता.

**– प्रियदर्शिनी तडकोडकर**

माजी विभाग मुखेली

कोंकणी विभाग

गोंय विद्यापीठ

ताळगांव - गोंय

ता. 15 जून 2020

7. अथक - थकनाशिल्लो

# कवतूक

30/9/2019
वैश्वीक भाशांतर दिवस

'गजाली पोटसऱ्यांच्यो' हें कन्नड भाशेंत श्री गुरुराज सनिल ह्या सर्पप्रेमीन बरयिल्ले आपले अणभव कथनाचो हो कोंकणी अणकार.

अणकारपी दो. सुषमा अशोक आरूर आपले मनोगतांत सांगतात, 'गजाली पोटसऱ्यांच्यो : सर्पमोगीचे अणभव, ही म्हजी कोंकणींत अणकारीत पयली रचना.' बाय सुषमा आरूर हांची जशीं पयली रचना तशें म्हाका दिसता ही कोंकणी अणकारीत साहित्यांत असली एक आगळी- वेगळी कृतीय आसतली. किद्याक, चड करून काणी, कादंबरी, कविता आदी रंजक साहित्य प्रकार अनुवाद करपाक इच्छितात. ह्या पुस्तकांत सर्पाचे वेगवेगळे प्रकार, ताका पळयतकच लोंकानी भाषांवप, भियेवप, खंयचो सोरोप विखारी, खंयचो विखाळ न्हय आदी उपयुक्त म्हायती मेळटा.

मूळ बरोवपी गुरुराज सनिल बाब हाका आपले ल्हानपणा पासूनच ह्या दिकान ओड आसली. सनिल बाब कशे बशे आठवी-णववी मेरेन शाळेनीं शिकून मागीर नौकरी फाटी गांव सोडून गेल्लो. पूण सैमाचे उकते शाळेन ताका जायतें शिकयलें.

बाब सनिलाचे विशीं बाय दो. सुषमान ह्या पुस्तकांत म्हायती दिल्या. तशेंच तांचे पुस्तकांतल्यो अठरा काण्यो हांतून अणकारल्यात. पुस्तक वाचत वेतना बाय सुषमान आपली भास सोबीत, सुंदर आनी व्हांवती विचारांची वापरल्या. भाशेंत, 'भानप' कोंकणीचो जी बाय सुषमाची जल्मभास- प्रभाव आसातच. तांणी थोडे,'बहुमान्य' कोंकणी शब्दांचे अर्थ भानप भाशेंतल्यान सकयल टीप तशें दिल्या. त्या नदरेन कोंकणीचे शब्द भाडारूय वाडल्यां म्हणुयेता. उजवाडल्या उप्रांत हें पुस्तक लोकांक आवडले बगर रावचेंना.

बाय दो. सुषमान आपल्या अणकाराची भास आनी शैलीची मर्यादास्पष्ट करताना, 'अणकारप्यालें मनोगतांत'... आमचे भासेर कन्नड भासेचो प्रभाव खूप जाला... गोंयची कोंकणी शिकपाची आनी त्या भासेंत बरंवचो म्हजो छंद हालीचो...' अशें म्हळां.

ह्या पुस्तकांतले लेख वाचतकच गांवगिरी जीण, थंयचे निसर्ग वर्णन, थंयची लोकभावना, विशेश करून आदले अविभाजित दक्षिण कन्नड जिल्ल्याचो सैम, सोरपां विर्शी त्या लोकांची श्रध्दा-अंधश्रध्दा आदी भावता. ह्या दिसांनी सैमाचो विबाड जावुन मनीस जात तशेंच मोनजातूय कितले जोखमींत पडल्या हें आमी सदांच भोगतात. ह्या सैमाची राखण कशी करपाजाय ह्या दिकेन आमकां विचार करपाक आनी कारवाय करपाक हें पुस्तक उत्तेजित करता.

दो. सुषमा अशोक आरूर हांचे हें 'पयले' प्रयत्न, 'वयलें' प्रयत्न जांवुदी, आनी ही उरबा तांका आनीकूय जैतीवंत करूं अशें आंवडेतां.

**जयश्री शानभाग**
माजी डायरेक्टर,
मैसूर आकाशवाणी

# मूळ लेखकालो परिचय

गुरुराज सनिल हांची मुळात वळख सोरपाक धरपी अशे उडुपी जिल्यांत आशिल्ली, अजून बी तांका कर्नाटकांतल्या खेडेगांव, शारांतुल्यान घरांत शिरिल्ले, माडार बशिल्ले, बांयचे काट्टेर घातिल्ले, जाळिंत बंदिस्त जाल्लेले, पाळण्यांत चेरडा भोवती हेडो सुत्तावन निदिल्या, विखारी वा बिनविखारी सोरपांक जाग्रतायेन काडपाक फोन करुन लोक आपयत आसतात. दीस कसो वत्ता तसो तांचो वावर[1] चड आनी चड जायत आस्स. पोटसऱ्यां[2] विशी लोकांत जाणविकाय हाडपाक,खेडेगांवांत, शारांत वेगवेगळ्यो कार्यावळी घडोवन हाडची जवाबदारी तांणी पत्करल्या. हांचे कामाचे अणभव इतले उमेदीचे आनी जाणवाय दिंवचे आसुन, त्या लागुन ते फक्त सोरप धरतले मात न्हंय, पूण परिसर प्रमी, पोटसऱ्यांलें रक्षक आनी एक उत्तम लेखक म्हूण लोक तांका वळखूंक लागल्यात.

गुरुराज सनिल चार वण्टीचे शाळेंत शिकिल्ले परस[3] सैमाच्या शाळेंत जास्त शिकल्यात, सैम[4] तांचो मुखेल गुरु. गरिबी आनी भटक्या जीवना कारणान तांचे सानपण[5] सदां भशेंन नासलें. गावगिऱ्या[6], वाठारांत, राना-वनांत पोटसऱ्या सांगातान लेखक वावरलिलो. तेदेवेळार ताणे मनीस करता तो सैमाचो दुरुपयोग आपल्या दोळ्यांनी पळयला. सोरपाच्या प्रत्यक्ष अणभवाचेर, सोरप आनी पर्यावरणाचे विशीं केल्या वाचनान, एकठांय केल्ल्या म्हायतीचेर

1. वावर - कामकाज
2. पोटसरो - पोटार चरतलो, सर्प, सोरोप
3. परस - पेक्षा
4. सैम - निसर्ग, प्रकृति, परिसर
5. सदा भशेंन - नित्यावरी
6. गांवगिऱ्या - ग्रामीण

आदारून गुरुराज सनिल हांणी बरयलेली सात पुस्तकां काणयांच्या रुपांत प्रकाशित जावन जनप्रिय जाल्यात. तांची स्वानुभवाचेर आदारून बरयलेली म्हायती वाचतना उबगण येना. पुस्तकांची लेखनशैली चित्ताकर्शक स्वरूपांत आनी सोप्या, आनी सरळ भाशेंत विणिल्ली आसा. तांचो वाचकवर्ग तसो विस्तृत आसा. उडुपी जिल्यांतले भौतेक वाचक तांका बरे रीतीन वळखतात. ते आनी तांचे वाचक एकमेकांच्या संपर्कांत आसतात.

तांणीं विणलेले काणयांत आमचे नित जिवितांत पर्यावरण कितलें महत्वाचें आसा हें समजून सांगलां. ह्या पर्यावरणांत फक्त मनिसकुळ मात रावना ताजे सांगातान असंख्यां मोनजाति रावतात आनी तांका बी ह्या परिसरांत रावचे अधिकार आसात. मनिसान ह्या संसारातल्या सगळ्या बरोबर सारकें रावका. जंय परिसर समतोलन वेवस्था सारकी आसतली तेन्ना आमचे नंतरचे पिळगेकय बी शुद्ध हवा, भरपुर उदक, आहार आनी सगळे संपन्नमूलान भरलले भूंयेर रावपाक जात्तले. खंचोय पोटसरो आपणजावन मनशाक चाबना. सगळे जीवांराशींत मनीसूच बेजवाबदार, स्वार्थी आनी क्रूर आसचो. तोच पर्यावर्णाचो विबाड[7] करत आस्स. हाचे खूप निदर्शन तांचे कृतिंत मेळटा.

परिसर आनी पर्यावर्णाची राखण, पोटसऱ्यां जातीच्या जीव जीवावळीच्या राखणे खातीर सनिल खूप मेहनत करत आस्स. भोंवतणाच्या[8] गांवान, शारान विंगड कार्यावळींच्या निमतान जावपी आनी सैमाच्या राखणूके संबंदान, जनसामान्य भौसाच्या[9] मनांत सोरपा विशीं जागृताय आनी जाणविकाय हाडप होच तांच्या जिवीताचो एकमात्र उद्देश आनी हावेस जाल्लो आसा. सोरपा विशीं भौसाच्या मनांत आशिल्लो भंय, अज्ञान आनी अंधविश्वास पयस करपाखातीर शाळा आनी महाविद्यालयांत तांच्यो कार्यावळी सतत चालू आसतात.

फक्त आठवी पास जावन नव्वी वर्गांत आसतना शाळा सोडिल्या गुरुराज

---

7. विबाड - नाश

8. भोंवतणी - आसपास, अशिकुशिचे

9. भौस - लोक

सनिल हांका, पर्यावरण आनी पोटसऱ्यां संबंधी बरयिल्ली तांची पयली कृति, हावु नावु (सोरप आनी हांव) म्हळिले पुस्तकाक कर्नाटक साहित्य अकाडेमीचो 2010चो पुरस्कार फावो जाला. आनी 'नागवाटसावन' हांतुलो एक सुदीर्घ लेख मंगळूर विश्वविद्यालयाचे बी.कॉम विद्यार्थ्यांच्या (2020) पाठ्यक्रमांत आसपावन घेतिल्लो आसा. सानपणांत आशिल्ले प्रतिकूल परिस्थितींचेर मात करुन, स्वताक ज्ञानी करुन, परिसर जागृतिचो एक मुखेल समाज सेवक जावन आसलले सनिल हांका देव बरें करूं!

# अणकारप्यालें परिचय

दो. सुषमा आरूर हांचो जन्म 1953त कारवारांत जालें. प्राथमीक पसून एम. ए. पदवी मेरेन शिक्षण धारवाडांत जालें. ताणी बरयलेले “House of Shivaji and Karnataka-1636 to 1707” ह्या प्रबंधाक सावित्रिबायि फुले पुणे विश्वविद्यालयाक्ष्रा पसून पि. एच. डी. पदवी 1998त फावो जालीं. पुणे, मुंबई, बेंगळूरु हांगा 27 वर्ष शिकोवप केल्या. उप्रांत दो. आरूर 2008त गोंयांत स्थायीक जालीं. तांका इंग्लिश, कन्नड, मराठी, हिंदी भासेची वळख आसून आदले दोन भासांत त्यो लिखाण करत आसात. गोंयांत येतच, कोंकणी मायभास आसून बी, हांगची बोलीभास शिकून बरंवची आस तांका जाली त्या निमतान एक वरस गोंयचे कोंकणीची विंगडताय शिकून, वाचून कोंकणीत बरंवचे धाडस तांणी केला.

तांच्या जिवितांतलो विरंगुळो म्हळ्यार, वाचन आनी बरप. तांणी नाटकांत भिनय केला. संगीत, साहित्य हातूंतय आवड आसा. बरपावळिंत संशोधनात्मक लेखां पसून प्रवासवर्णन, आनी कर्तुत्ववान लोंकांले चरित्र, हांचे अतिरिक्त, तांचे स्वतःचे जिवितांतले हल्के–फुलके अणभव, निबंध रूपांत इंग्लिशींत आनी कन्नड वृत्तपत्रांत आनी नेमाळ्यांत उजवाडाक आयल्यात. sush-mums the world.blogspot.com नावाची तांची एक वेबसायट आसून तांतुत तांचे इंग्लिश, कन्नड आनी कोंकणींतुले लेख प्रकाशित जाल्ले आसात. टाइम्स ऑफ इंडियाचो समीक्षक आनी संगीत शास्त्रज्ञ म्हण हिंदुस्तानी संगीत मळार नामना आशिल्लो प्रकाश बुर्डे हांणीं संगीत विशयी बरेयलेले संशोधनात्मक आनी विश्लेशणात्मक लेख, कन्नड भाशेंत अणकार व संपादित करून ‘सगीत सरसी – प्रकाश बुर्डेयवर संगीतयान’ ही कृती तांणी; कोंकणी, कन्नड आनी इंग्लिशींत नामना आशिल्ली, लेखिका दो.

ज्योत्स्ना कामत हांचे बरोबर 2016त उजवाडाक हाडल्या.

पर्यावरणार आनी विशेष करून पोटसऱ्यां विषयाचेर ही त्यांची पयली कोंकणी कृती एक आगळी–वेगळी आनी अपरूपाची आसा. अठरा काण्यांत विणलेल्यो ह्यो काणयो सैमाचो मान राखतलो एक पोटसर प्रेमिले जिवितांतले मोलादीक अणभव, सगळे वयोगटांच्या वाचप्यांक आवडतले अशी आस्त बाळगिता.

# अणकारप्यालें मनोगत

परिसर आफत हो विश्वाचो एक गंभीर मुद्दो म्हणयेत. मनशालें हातान जावपीं सैमाचो नाश, रान- वन, आनी सगल्यो जीवावळीचो आधुनिकतायेच्या नावार आनी मनशाल्या हावरटपणान विध्वंस जायत आसा ही आमचे देशाची एक ज्वलंत समस्या जाल्या. भविष्यातले पिळगेक नितळ वारो, नितळ[10] उदक आनी बरें दोन वेळचे जेवण बी मेळची शक्यताय आसतली काय कितें अशी आशंका दिसपाक लागल्या. धा- पंद्रा वरसा फाटल्यान पिंवचे उदक विकत घेंवचे कोणीय येवजल्लें कायं कितें? आनी पांच वर्सांन प्राणवायु (oxygen) विकत घेवन एक अंतराळयात्री सो होच मनीस सुस्कारो काडत हे भूंयेर वावरतलो! अशें काळजींत आशिल्ले म्हाका एक परिसर प्रमी, सगळे जीवावळीक,आनी तांतूय सोरप जातींक मोग करतलो भोवमानेस्त[11] गुरुराज सनिल हांची पुस्तकां वाचपाची संद मेळ्ळी. वाचुन हांव प्रभावित जाले. काणया रुपांतली तांची बरपावळी कन्नड भासेंत प्रकाशीत जाल्ली. तांच्या पुस्तकाचे मूळ विषय परिसर रक्षण, परिसर समतोलन, पोटसऱ्यांचे संरक्षण, मनशाच्या भलायकेच्या संबंदांत तांच्या विखाचो जांवचो उपेग वा तांच्या भोंवतणीं पातळिल्लो कुड्डो विश्वास ताका लागून तांचो जावपी संहार ह्या विषयांचेर आसुन, तांणीं सरळ, सुंदर शैलींत, मनाक पटचे सारकें भाशेंत ते बरयलले आस्स.

'गजाली पोटसऱ्याच्यो : सर्प मोगीचे अणभव' ही म्हजी पयली कोंकणींत अणकारित रचना. लेखक गुरुराज सनिल हांणी बरयलेल्या चार कन्नड पुस्तकांतल्यो अठरा काण्यो वेंचुन, तांचो कोंकणी अणकार हांवे हातून केला. ('नागवटसावन' - 2014, 'विषयांतर' - 2016, 'रोयणीचे

---

10. नितळ - स्वच्छ, निवळ

11. भोवमानेस्त - सन्माननीय

अशीकुशीक' - 2016, 'बाविल्यो सत फागुरलेल्यो गजाली') सनिल हांच्यो ह्यो काणयो गांवगिऱ्या वाठाराचेर आनी राना-वनांच्या भोंवतणीं रचिल्यो आसून आमच्या दिसपट्ट्या जिवितांत पर्यावरणाक कितलें महत्व आसा हें सागपा खातीर त्यो रचिल्यो आसात म्हण कळटा.

अणकार केल्ल्या म्हज्या ह्या कृतींत मुखेलतायेन सोरपाविशीं वर्णन आयलां. विंगड तरांचे सोरोप, तांची जीण, वर्तणूक, तांची असुरक्षितताय, आमच्या जीवितांतुले तांचे महत्व, आमचे भलायके[12] संबंदान तांचो जात्ता तो उपेग, सोरोपाले डंखाची चिकित्सा ह्या साबार विशया संबंदाचें वर्णन ह्या पुस्तकांत आयलां.

वाचकांक दिसचे सहज की हांवे सोरपा असलें, अळशीकावणें, भयानक पोटसऱ्यांचेर बरवपाचो विषय, कसो विंचुण काडलो? हाजे कारण, हो विषय नवीन, आमच्या भोंवतणीच्या परिसरांत निखटी मनीसजात रावना, ताच्या सांगातान असंख्य मोनजाती रावतात. मनशांवरीच तांकाय ह्या परिसरांत रावचो हक्क आसा. तशेंच मनशानय तांची राखण करप गरजेचें आसा. तांका लागून पर्यावरणांत समतोल उरतलो. खंयचोय पोटसरो प्राणी आपुणजावन मनशाक चाबना. सगळ्यां प्राणिमात्रांत मनीस जातच बेजबाबदार, स्वार्थी आनी क्रूर जावन आसा. पर्यावरणाचो विबाड खरेंतर तोच करत आस्स. ताच्या ह्याच वृत्तिचें निदर्शन लेखक सनिल हांणी खूप सुंदर आनी मार्मिक रितीन केल्लें आसा.

लेखक सनिल ताजे एके काणयेंत सांगतात की पोटसऱ्यांक बी मायेन पोरसुल्यार, मोगान हात लायल्यार ते प्रतिसाद दित्तात. हालींच, हांव म्हजे भाचये घरा गेल्ले, तिणे दोन मांजरां पोसल्यांत. दोगींय मांजरांत आपलेपण ना, एकल्याक पळयल्यार दुसऱ्याक जायना, म्हूण तीणे, एक मांजरा संवाहकाक भेटुन ( संवाद करपी) तांचे मदलीं समस्या सोडंवचाक प्रयत्न केले. तें संवाहकान मांजरा बरोबर केल्लेले संवाद इतलो अद्भुत, आनी अजापाचे आस्स. त्या निमतान मांजर वा खंचोय प्राणी, पक्षी, वा जीवाक मनशावरी भावना आनी संवेदन आसता, तींवय आमचेवरी विचार करपी,

---

12. भलायकी - आरोग्य

सल्लो दिवपी, तत्वज्ञान बी सांगपी! ही खरी गजाल आयकून म्हजे दोळे उगडले. म्हज्यांत ज्ञानोदय जालो. पशु-पक्षी आनी प्राण्यादिकान पळंवचो म्हजो दृष्टिकोन बी बदल्लो.

कोंकणींत बरवपाक कारण, म्हजी मायभास कोंकणी, पूण आमचे म्हालगडे पोर्तुगीजां काळांत गोंयसावन कर्नाटकाचे उत्तर कोंकण प्रदेशांत थीर जाल्ले. त्या निमतान आमचे भासेर कन्नड भासेचो प्रभाव खूप जाला. आमचे कुटुंब गोंया येवन सुमार एक दशक जालें. गोंयची कोंकणीं बोली शिकपाची आनी ते भाशेंत बरंवचो म्हजो हो छंद, मुखार एक व्हड प्रवासूच जावन बसलो. मडगांवच्या चौगुले महाविद्यालयातले इंग्रजीचे नामनेचे प्राध्यापक सर्गेस्त श्री. के.भालचंद्र राव हांणी अणकारलिली तोलस्तोयाच्यो काणयो हें पुस्तक ताणीं, स्वाक्षरी करून म्हाका एक वर्सा फाटल्यान भेट दिल्ले. तें पुस्तक हांवे गोंयचे कोंकणीची संवय जांवका हे दिष्टीन परवडीशे खुबूच वेळा वाचलें त्या निमतान म्हजे मनांत जंय आडखळ आशिल्ली तांचे निवारण जावन, कोंकणी भाशेंत मन रमूंक लागलें. म्हजे ह्या प्रवासांत हांव पयले नमन तांका करता.

उप्रांत हांवे, कोंकणी साहित्य वाचपाचे थारायलें. नामनेच्या कोंकणी साहित्यिकांलीं पुस्तकं वाचपाक सुरु केलें. कोणकोणी दिलेलें ल्हान-व्हड शब्दकोशं, एकठांय केले. अभ्यासकोश विकत घेतलो. सुमार एक वरस थावन हांव तांतूत बुडुन आसली. इतले करुन बी म्हाका गोंयची कोंकणी आत्मसात जाल्ली म्हण हांव खात्रिन सांगु शकना.

हांवे जे किदें वाचले, त्या प्रत्येक लेखकांलीं कोंकणी भास वेगळी आसा अशे म्हजे समजणींत आयले. थोडी पुस्तकां म्हाका वाचपाक कठीण जात्तालीं आनी थोडीं सोपी. हाका कारण गोंयात कोंकणीच्यो मोडी आसून प्रत्येक प्रदेशाची आनी जमातिचे उच्चार आनी शब्दावळींत भिन्नताय दिसून येत्ता. वेगवेगळी पुस्तकां वाचतना, म्हाका नवीन दिसच्या शब्दांचे अर्थ म्हजे पोट्भासेंत[13] बरवन, म्हजीच एक शब्दावळींची यादि तयार जाली. कोंकणी म्हजी मांय भास आशिल्ली तरिकेय, म्हाका नवीन भास शिकिल्या वरी

---

13. पोटभास - उलोपाचि भास, बोली भास

14. गिरेस्त - श्रीमंत

अणभव आयलो.आमी जे कोंकणी शब्द वापरत आयल्यात, ताचो तत्सम वा तद्भव उतरांचो मूळ, वळकून घेतल्यार, तरेकवार पोटभासेंत बी एकरूपताय दिसून येता आनी भासेची गिरेस्तकाय[14] दाखोवन दिता.

गोयांत आनी गोंया भायर रावतल्या चडांत चड कोंकणी बांधवान हे पुस्तक वाचपाक जाय, आनी विंगड पोटभाशेंच्या वाचप्याक शब्दांचो अर्थ कळपाक जाय ह्या उद्देशान प्रत्येक पाना सकलय तळटीप[15] दिल्ली आसा.

म्हाका सतत बरोवपाक प्रोत्साहन दीत आसली म्हजी म्हालगडी भयीण डॉ. ज्योत्सना कामत हांचे हांव सदा ऋणी आसा. सदा कार्यनिरत आशिल्ले तिणे म्हजी हात प्रती वाचपाक वेळ दीवन बरपावळ सुधारपाक मोलाच्च्यो सूचना दिल्यो. ताका लागून हांव तांचे उपकारी आसा.

म्हजे हे कार्यांत गोंय विश्वविद्यालयाची कोंकणी विभागातली, माजी मुखेली प्रोफेसर् प्रियदर्शिनी तडकोडकर हिणें पयली पसून म्हजी हात प्रती सो्सणीकायेन, म्हजे भाशेंतल्यो सगल्यो चुको सुधारुन, सारके रुप दिंवचे काम तान्नी केल्ला. तांचे सहकार आनी मदत आशिल्ले खातीर हांवे पावल मुखार घातलें आनी ही म्हजी पयली कोंकणी पुस्तिका उजवाडाक हाडचे धाडस केलां. त्या बद्दल हांव मनाथावन तांची ऋणी आसा.

तशेच, म्हजी हितचिंतक, भयणी समान आसली जयश्री शानभाग, गोंय आनी मैसूर आकाशवाणीची माजी डायरेक्टर, तिणें हस्तप्रती वाचुन, मुल्यांकन केला, तांचे हांव ऋणी आसा.

त्या उप्रांत, ह्या पुस्तकाचे फुडले व फाटले पृष्ठ सुंदर व रचनात्मक काविकलेचो (Kavi art) वापर करून दिलेल्या कामत पोटपौरी व कामत वेब्साय्ट चलयतलो विकास कामत, हांची हांव आभारी आसा.

म्हजे हस्तप्रति सोबीत छापून, पुस्तक रुपांत हाडिल्ले श्री. हृषिकेश आठवले आनी रिया ग्राफिक्स, ओल्ड गोवा, हांचे हांव मनापसून आभारी आसा.

म्हजे हे अल्प प्रयत्न कोंकणीं वाचकांच्या मनाक भावतलें आनी हाचे मुखार आनीकय अणकार आनी स्वतंत्र लेखन करपाक ते म्हाका उमेद, उर्बा आनी आशिर्वाद ते दितले अशी आसा बाळगिता. देव बरें करुं!

**– दो. सुषमा आरूर**

---

15. तळटीप – Footnote

# मांडावळ

# 1. सोरोपा सांगातान दोस्तीची सुरुवात

कडियाळचे[16] माध्यमिक शाळेंतूच म्हाका पयले फावटी सोरोप पोळोवचो आनी ताच्या सहवासाचो योग घडुन आयलो, अशें म्हणयेत. थंय सुरुवातिचे दोन–चार दीसांतूच् एक दैत्याकाराचो व्हडलो हार[17] शाळे भितर पळोवन अजापलो[18] हांव. आमचे विज्ञानाचो दामोदर मास्तर एके व्हडले मत्स्यालयांत हाराक दवरुन पोसतालो. ह्या कामांत तांका दुसऱ्या मास्तरालें बी सहकार आशिल्ले. इतलो व्हडलो सोरोप हांवे त्या वयात पयले खेपेक पळयलो. पळयत पळयत, म्हजे मन आनी बुद्धि सुन्न जावन, म्हाका कांय सुचना जालें! मास्तर शिकयत आस्तना म्हजे लक्ष, ताजेर नाशिल्ले, तकलेंत तो थंडगार चरलेलो भास जातालो! ती भावना आकांताची[19] न्हंय. पूण उत्सूकताय आनी सोरोपा संबंधि जास्त कळून घेंवचीं ओढ खूप काळ म्हजे मनांत दरवळताली. म्हण हांव सद्दां मदले सुटयेची घंटा जातकच, जेवपाचे वेळाक असो वेळ

16. कडियाळ - उडुपि तालुकांतलो एक खेडेगांव
17. हार - हेब्बाव
18. अजाप - आश्चर्य
19. आकांत - भींवचे

काडुन ताका पोळोपाक वत्तालो आनी ताजे रूप, चाल, हुदीर खात्तना ताका तल्लीन जावन उबे रावन पळयतालो. केन्ना केन्ना चेरडुवांले मस्करीचो राग येवन वा भियेवन तो खूप वेळा, 'फुस्' करतना म्हाका ताका हातांत धरून ताची अपुरबाय[20] करपाची इच्छा जात्तालीं.

शाळेंत, मस्तिखोर आनी तल्लख म्हण म्हजी वळख आशिल्ली. केन्न केन्नाय हांव मस्ति करतालो तेन्ना शाळेंतलें मास्तर आनी हेड मास्तर आदीमदीं म्हाका म्हजे मस्तिखोरपणाक बेतान फाटिर, मांडीर आनी गांडि-कुल्यार बोडोयल्यार म्हजो कुलो वयर -सकयल नाचुन, उडुन जाग्यार येवन बसतालो! त्या लागून म्हजी चड्डि पूर्ण चंद्राकारात पिंदून कुले जगाक दिसताले! घरा गेल्यार पिंदिली चड्डि पोळोवन म्हजी आवय आनी चार बडयो घालताली! म्हजी मस्ति वाड्डुत अतिरेकाक पावतालिं, तेन्ना मास्तर म्हजे वागणूकेन पिकार[21] जावन शिक्षा दिवपाचेंच बंद करताले!

म्हजे हें हट्ट, मस्ति, त्रास दिवपाचे लक्षण हाका कारण म्हजे आवय-बापयूच अशें म्हाका खात्रिन कळुन चुकला. ताणीं तीन चेरडुंवांक फक्त जन्म दिलो, पूण, माया दाखयलीना. मोगान वाडयली ना. कितलेय गरीब आशिल्ले आवय -बापुय आपणाल्या भुरग्यांक[22] प्रीति, माया व मोगान वाडयतात. पूण आमका तान्नीं अनाथशे वाडयलें. आमचे वांट्याक आशिल्ले, दुर्लक्ष, निरादारपणा, वा तिरस्कार! तांची मोग दाखवपाची रीत म्हळ्यार, खोंट[23] मारपाचे, बडोपाचे आनी तापवपाचे! आवयले वागणूकीचो वाज[24] येवन बापुय सोरो पिवन रात्रिच्या, मदरात्रीच्या वेळांत झगडे मारतालो, राग करून रांदची मातियेची आयदानां बडोवन काडतालो. त्या वेळि, आमची दशा, रस्त्यावयल्या सुण्या सावन् वायट आसताली. अदुन-मदुन मार पडटालो. भिवुन त्रस्त जावन आमी निजलें की केदना सकाळ जालि कळुक नाशिले. फालफाल्यार आमका जागोवून तीन किलोमीटर् पयस[25] खाण हाडपाक

20. अपूरबाय - मोग
21. पिकार - बेजार
22. भुरगो - चेरडु, चलो
23. खोंट - लात
24. वाज - बेजार
25. पयस - दूर

धाडताली आवय. अर्धबर्ध खावन आमकां असमाधान, राग, निराशेचे भावनेंत शाळेक धांवका पडटालें. थंय म्हाका कोणा वयर राग काडुं, अशें जातालें. आनी ते संदीची हांव वाट पळयतालो. आनी संद मेळ्ळी की वांगड्यार[26] उडटालो. तसो म्हजो राग शांत जात्तालो. मास्तरा कडे कागाळ[27] गेली की फटको बसतालो. जाल्यार हांव हट्टान वा रागान तायट उबो रावतालो.

म्हजे आवय –बापा विषयी म्हजे थोडे वांगडी जाणताले. आनी ते म्हजी फकाण[28] मारताले. म्हाका चीड येत्ताली, रागान हांव तपतपायतालो, आमचे मदीं मारामारी जात्तालीं. तेन्ना मास्तर वा हेड् मास्तर मधे येवन आमकां सोडयताले. आणि म्हाका मार पडटालो. म्हाका उल्लोवपाक, म्हजी बाजु मांडोपाक म्हाका संद मेळनाशिल्ली. तसो हांव विनाकारण कोणा कडेन झगडीं करनाशिल्लो.

एके खेपेक म्हजे शाळेच्या राजेशा वांगडा कसल्या तरी कारणान झगडीं जाल्लीं . रागा भरांत हांवे ताक्का एक छडि घेवन मारलें, त्याचे निङ्कुळ फुटुन रक्त बंबाळ जालें. हेड् मास्तराक कागाळ गेली. व्हड्ले चेरड्वानीं म्हाका ताणुन बाजूक व्हरतना हांवे तांच्या हाताक घास माल्लो. परतून कागाळ गेली. तशी एका मास्तरानं ताणुन हेड् मास्तरा मुखार उभो केलो.

आमचे हेड् मास्तरालें नांव वि. गुरुराज भट्. म्हण. भोव रागिट आनी कोपिश्ट. तान्नी म्हाका केदनाय पळयलो जाल्यार तांचे डोळे रागानं तांबडे दिसताले्. कारण, शाळेक वत्तना–येत्तना, तांचे बगिचातूनच म्हाका वचका पडटालें. अर्ध पोटि आशिल्ली आमी भावंडा थंयच्या तवशीं, आंबो, अलसंदो, पेरां असली फळ खात्तना, मुंडप्पा म्हुण थंयच्या राखणदारान पळोवन, मास्तराक कळयलिले, तेन्ना, एक–दोन पावटी म्हाका हेड् मास्तरान धाक घातिल्लो. हांवे त्यांचे उत्रां कडे लक्ष दिना जाल्यार, मार बी पडटालो.

खूप वेळा तान्नी म्हजे तळटार[29], पायार, फाठीर आनी कुल्यार बेतान मारल्यार वड्यांचि सरमाळा उटायतालें! एका पावटी बेतान मारले तेन्ना हांवे

26. वांगडो - सांगाति

27. कागाळ - तक्रार

28. फकांण - चिडांवचे, गम्मत कोरची

29. तळटार - तळहातार

चड्डेंत मुतून घेत्तिलें! नशिब म्हजे! मास्तरानं मारचे राबयलो. पूण म्हाका तांची कूड साफ् कोरपाक लागलीं.

राजशालें निडळ भेत्तिलें तेन्ना म्हाका कितें शिक्षा मेळटली म्हण वाट पळयत हांव उबो आशिल्लो. केदनाय असलेच स्थितींत आशिल्लो म्हाका पळोवन, हेड् मास्तर उग्र रूप धारण करून, चाबुक हात्तांत घेवन मारतलो अशे हांव येवजत आशिलो, पूण तशें कितें जाले ना! राग बी केले ना, चाबूक बी घेतलो ना! हांव आनी चड भिलो. 'हे! देवा परमात्मा! म्हजे रक्षण कर', कितें शिक्षा दित्तलो मास्तर' म्हण चडपडलो. मास्तरान, एक खेपे म्हाका वयर सावन सक्कल मेरेन पळोवन, 'यो रे गुरुराजा! बैस' म्हणपा लागलो. हांव अजापलो. 'म्हजेच् नांव दवरून कित्याक रे बाबा, तु पाड काम करता' अशें मस्करीन विचारपाक लागलो. परिस्थिति उल्टि जाल्लि म्हूण हांव घाबरेवन, चड आकळून उबरेलो. तो शांतपणेन, 'बैस' म्हण गर्जलो! तो आवाज् आयकून हांव खूप भियेलो. काकुळत दाखवयत तांणे म्हळे, 'गुरुराजा, कितें जालारे तुका? तुं कितलो हुशार भुरगो, जाण तूं! समज आस्सुन बी कित्याक पाड चाळी करता रे तूं? वायट चेर्डु जसो वागता मरे! तू जें, करता तें बरोबर व्हय? तुजी आवय कसली मनीस रे? तान्नी केल्लेले काम सारके कोरपाक तरीं तूं बुदवंत जावन, शिकून नाव करपा जाय नंय? तें सडुन तूं अशेच तुजें जिवीत जगतलो कितेरें? असलें पाड वागणूकीन एक दीस तुं कोणाकय नाक्का जावन कशें राबतलो! विचार कर. चुकिची वागणुक सोड आता. हाजे उपरांत तु कितेय कर, तुका शिक्षा कोणि करु ना. पळय तुजें जिवीत तुज्याच हातांत आस्सा, हें तूं लक्षांत दवर. विसरु नाका.' म्हूण तांणें सांगले. मायेन सांगिलीं तीं उत्रां म्हजे काळजाक लागलीं, म्हजे दोळ्यासावन उदका झरी भायर पडुंक लागल्यो. कांय वेळा उपरांत, मास्तर उठावन येवन म्हजे तकलीर मायेन हात फिरायलें आनी सांत्वन करून म्हाका धाडीलें. तें हांव केदनाय विसरचोना. म्हाका शिकयल्ले, प्रत्येक मास्तर, बाई, विद्या, बुद्धी दिवन मुखार म्हजे जिवीतांत विद्येची बुनयाद घातिल्ले गुरुजन म्हाका प्रातःस्मरणीय जावन आस्सत!

## 2. सोरोपाचो प्रथम स्पर्श रस्त्यार

कडियाळचे महीषमर्दिनि देवळाचो रथोत्सवाचो दीस आशिल्लो. म्हजे घरा पसून एक किलोमीटर पयस आमचे शाळेतून काटमारून देवळा कडे वचका पडटालें. हांव म्हजे इश्टा[30] सांगातान उत्सव पळोपाक गेलो. अपरूपाक मेळचे पंच भक्ष-परमान्न भोजनाचेच व्हडलें आकर्षण आमका थंय ताणुन व्हरतालें. त्या वयात, मुंज, लग्न, कौल (हो एक भुताराधनेचो एक विधि) तिथिचे जेवण, म्हळ्यार आमंत्रणा विना पोटभर खावन येवपाचो आमचो एक आजन्म सिद्ध हक् आशिल्लो अशें आमीं मानतालें. दोन पावटि जेवन, वाडतल्यांचे संवे आयकुन, रात्ती वेळार महिषमर्दिनि आम्मालें रथ ताणून, कार्यक्रम यथासांग पार पाडुन, मध्यरातिचे वेळा घरा पावचो आमचो नियम आशिल्लो.

ते राती आमी गोरवां सारकें एकमेकांक धुक्कळत, गुद्दावुन घेत्त, मस्ति करत रस्त्यार चलताले. तेन्ना म्हाका साधारणसो मोटो सोरोप रस्त्यार वतना

---

30. इश्ट - मित्र

दिसलो. उत्सुकतायेन ताजे फाटल्यांन हांव धावलो. पळयल्यार, तो एक अजगराचो (हार)धाकटो पिलो अशें म्हाका दिसलें, आनी हांवे फुलां वरी अळंग ताका हातार घेतलो. थंय जमील्ले म्हजे सर्व इश्ट भिवन कंगाल जावन उबे राविल्ले.

हातांत धरलेलो सोरोपा पिलो आकांतान म्हजे हातांतल्यान निसरून वचपाक पळयतालो. तो खीण म्हाका भयानंद आनी रोमांचनाचो आशिलो. पूण म्हजे लक्ष ताचेर केंद्रित कोरुन, हांवे बरोबरचे चेरडुवांक एक डबो हाडपाक धाडलो. थंयच, शाळेतले तिनी वर्गाचे मास्तर रावताले. अपरात्रि त्या मास्तरालें घराचे दरवट्यार व्हडूल्यान मारत, 'मास्तर, सोरोप... स्राप आयला एक डब्बो दी' म्हण बोब् मारली. मास्तर ताकतिकेन उठलो आनी, 'खंयरे तो, खंयरे.... सोरोप' म्हूण दरवटो उक्तो केलो, आनी म्हजे हातांत आशिल्ले सोरोपाक पोळवन कुकार मारली आनी दरवट्टो बंद केलो!

भुरग्यांनी परतून दार बडयलें, तेन्ना ताणें एका रिकामी डबो उडयलो, 'घाल रे गाडवा हु! आनी चला, हांगच्यान' म्हण धडाक् करुन दार बंद केलें. मास्तरालें भंय पोळोवन म्हाका गम्मत दिसली. डब्यांत सोरपाक घालून, डब्या तोंड धांपुन, डब्याक बुराक करुन, मास्तराले घरा कुशीक दवरपाचे म्हळ्यार, सकडानीं, 'ना, ना, तुका कितें पिशे लागला. घरा वच मरे' म्हणच्याक लागले. शाळेचे वाठारांत ताका दवरून फाटल्यान फिरल्यार, तिनी वर्गाचे मास्तर, म्हाका पळोवन,'अरे बाबा! तुजे हिमतीची दाद दिंवकां रे, हु! कशें जाण रें तुं, तें हाराचे पील म्हण' म्हणले. ताका हांव, 'शाळेंत दिसा पळयता नु म्हूण जाणं. विज्ञानाचे मास्तराक विचारून खात्रि करपाक जाय' अशी जाप दिली हांवे. मास्तरालें कौतुक ऐकून खुश जाल्लो हांव, शिळोणी[32] घालत घरा गेलो, तेन्ना घोरेत निजिल्या आवय-बापा्यक पोळोवन बरें दिसले. सदां किदें कारण काडुन लडाय करताली. पिंदकूर मांद्रेर भावंडा मधी पडलो, पूण न्हीद येना जाली. सोरपाचेच ध्यान. ताच्या स्पर्शाचो विलक्षण अणभव. एक प्रकारची खुशी, कितकी जिकिल्लो

31. खिण-क्षण
32. शिळोणी - सिटी

आनंद्. अती आनंद, वा अती दुखः जाल्यार न्हीद येना तशीं म्हजी अवस्था जाल्ली. हांव फांतोडेची वाट पळयत वेळ काडटालो.

चातक पक्षा सारखो विज्ञानाचे मास्तराली वाट पळयत शाळेंत बसून रावलो. तास सुरु जांवचे पयली ते आयले. अधिकप्रसंगी भुरग्यार्नी ही खबर ताकां पावयलेली. हांवे तोंड उक्ते कोरचे पयलेच, ताणीं रागान, 'हे गुरुराजा! खंय रे तुं . हांगयो. काल राती सोरोप धरलो खंय तुवें? दाखय.' म्हणपा लागले. हाचीच हांव वाट पळयत आशिल्लो. हांवे डबो तांचे म्हऱ्यांत[33] दवरलें, ताणें पळवन, 'हो! हं! हाराचो पील, बचाव जाल्लो!' म्हण हुसकेचो सुस्कारो सोडलो! तशेच रागान, 'कोण तुका सोरोपाक धरपाक सांगिल्ले आँ ! हो अजगराचो पीलो आशिल्लो म्हण बरे जालें, हेर विषारी सर्पा संबंदि जाण नास्तना, धरल्यार, पळे, गांडी चामडे काडटा हांव!' म्हण तापयलें, त्या बरोबर, म्हजे तकलेक चडलेले भूत, एके फावटीक सकयल देवलें. दुसरें चेरडुवां म्हऱ्यांत म्हजो अपमान जावन हांव 'थप्' करुन सक्कल बसलो. म्हजे पडील्ले तोंड पोळोवन मास्तराक आपणाली चूक कळली, ताणें म्हाका आफोवन, शांततायेन सांगलें ' बेजार जांवनाका गुरुराज! तू एक धैर्यवान भुरगो आसा. पूण तूं विचार कर, सोरोपा धरचे आवेशांत विशारि हेराक धरले आनी तें तुका चावले जाल्यार, तुज्या जीवाक बरे-वायट कितें जांले जाल्यार कितें कोरपाचे रे? तूं असलें कितें आंगार हाडुन घेवनाकारे बाबा. व्हड जावन फाय यशस्वी जा. कितें बरें साद्य कर.' म्हण मायेन सांगलें. तांची उतरां आयकून म्हजे दोळ्यांथावन उदक आयलें. म्हजो स्वाभिमान परतून वाडलो. आनी ' हांव धैर्यवान. हांव जिवितात बरें काम करपाक जाय' अशें मनांत निश्चय केलो.

प्राथमिक शाळे मेरेन[34] म्हाका सोरपांचो सहवास आशिल्लो. उपरांत भायरचे परिसरांत सबार वेळा, हेवाळें, हैर, नाग, कानडी सोरोप, (vipera russell) अजगर अशीं तरेकवार पोटसऱ्यांक क्वचितूच पळयला, पूण तांका हातांत धरपाची संद केदनाय येवू ना.

---

33. म्हऱ्यांत - बाजुक, कुशीक

34. मेरेन - पर्यंत

# 3. पोटसऱ्याचो स्पर्श आनी समाधीस्थीती

'हिमालयातल्या महात्माले सन्निधिंत' ही आध्यात्मिक कृति बरयल्ले महान संत स्वामिराम (1925-1996) हांका सोरोपांचे खूप भंय दिसतालें. ताणीं संसारांतलें सगले प्रकाराचे भंय जिंकीले, पूण, सोरोपा भंयान तांची फाट सोडलीना खंय! एक फावटी ते हृषिकेशांत गंगेचे तडीर ध्यानस्त बशिले, जाग आयली तेन्ना, दोन हात पयस, नागसर्प हेडो काडुन बशिल्लो. घाबरून येगिन परतून दोळे धांपले. थोडे वेळा उपरांत पळयता जाल्यार, सोरोप तसोच तांका टक् मक् पळयत बसला! एक सुस्कारांत तें उडुन धांवले आनी, गुरु बाबाजींक (हिमालयांत रावतलो संत बंगाली बाबा) कळयले. तेन्ना बाबाजीन, 'खोल ध्यानांत बशिल्याक पोळवन, खंचोय प्राणी सहज ध्यांनांत वत्ता' म्हण जाप दिली.

तरीकूय स्वामिरामांले भंय निवारण जालेंना म्हण कळटकच, एक फावटी गुरु बाबान मौनाचरणेक तांका रानांत घेवन गेले आनी दूसरे दीस सकाळी तीनाक, पूजेक फूल्लां-पत्रि वेचून हाडपाक धाडलें खंय! काळकांत, पानाराशी उबारन हाडतना तांतु एक नाग सर्प आशिल्लो. स्वामिरामांक मागीर

कळुन आयले. हेडो काडुन राविल्या सोरोपाक पळोवन ते खूपच थरथरले. गुरुजी किते जालेना अशें, उलयत उरलें, 'तुका सोरप कित्याक आवडुना? कितलो सुंदर आसा तो, सगले कडेन फिरता, तरिय, नितळ आनी गोमटो, पळे. तुं सुद्दा ताजे इतलो नितळ आस्सु शकना. प्रपंचांत ताजे इतलो शुद्ध प्राणि दुसरो ना. मनीस अती अळशिकावणो आनी सोरपा परस घातकी विषजंतु. तो दुसऱ्याची हिंसा करतलो, आजु-बाजुच्या लोंकांचेर राग-द्वेष करु फाव, असलें वागणूकेन विष वकतर आसतलो. सोरप केदनाय तशें करना, फक्त आत्म संरक्षणचे संदर्भांत मात चावतलो.' अशें तरेन मार्मिक जावन विवरण केले. ल्हवु ल्हवु स्वामिरामालें सोरोपा भंय निवारण जालें. 'सोरप, प्राणी पक्षी, सूक्ष्म प्रवृत्तिचे आसतात. द्वेष आनी प्रीति दोनीय ग्रहण कोरपाचो तांचो स्वभाव आस्स. दुसऱ्या जीवांक नुकसान, त्रास दिनास्तना,ते सृजनशील आनी स्नेहशील आसतात. क्रूर प्राणी बी मनशा वांगडा सहवास कोरपाची अपेक्षा करतात्त' अशें महात्मा स्वामिराम म्हणटाले.

तांच्या त्या विचारांकडेन मेळ राखता असलो एक अणभव हांवे बी घेतला. प्रत्येक मनशाल्या अंतरभागांत लिपून आशिल्ले आध्यात्माचें आकर्शण म्हाकाय आसा. त्या लागून ताक्का संबंधित आशिल्ली थोडी भोव पुस्तकां हांव वाचता. एक फावटी स्फूर्त येवन ध्यान करपाचे मन जालें. तरेकवार विषयासक्ति भरून चिक्कल जाल्लिलें मन साध्य जाता तितलें खाली करुन, नितळ दवरपाक ध्याना असलें उत्तम साधन दुसरें ना.योगाभ्यासान हें सगलें शिकपाक जाता, म्हण योगपटु म्हाल्गड्या आप्त मित्रान सल्लो दिल्लो. योगाभ्यासाक सुरवात केली. एक म्हयन्यांत अनेक आसना बरोबर ध्यानाच्यो विंगड रीती करचे भी शिकलो. तशेच पद्मासन घालून, दोळे बंद दवरून, संयम दवरून ध्यान करपाक खूप वेळा प्रयत्न केल्ले. पूण ध्यान म्हळिले, 'अद्‌भुत स्थिती' साध्य जाल्लीना. निराशी जाल्लो. तेदना ध्यान म्हळ्यार कसले? शिकचे कशें? करचे कशें?' अशें हांवे म्हालगड्यांक विचारलें. 'सांगता, वेळ येवो' म्हणले तान्नी. निराश जाल्लो तरी वाट पळयली. एक पावटी सूर्यास्त पळोपाक मल्पे किनाऱ्यार वच्या म्हणले तांणे, तशें अमी

थंय गेल्ले.

निर्जन प्रदेशांत, रेंवे तडार सूर्यास्त पळोपाक बसले. ते दीस मळब[35] शुभ्र आनी मनोहारी आसलें. भूंयिचे दूसऱ्या भागांत जिविताक उजवाड दिवपाक भायेर सरलेल्या सूर्यदेवाल्ली सांज, सोनेरी सतरंगान भरून मळबार पातळलेली[36]. सूर्यास्त पळयत, हें-तें उल्लयत, एक-दोन मिनिट दोग्गय उलयनास्तना बसले. शेंदुरी रंगाचो रम्य रवी आमचे लक्षांत येंवचे पयलेच, ल्हवूच[37] पसरलो. मन भरून आयलें,तें खिणाक, 'अहं' म्हळिले जळुन, मन निर्मल जाल्ले. सुमार वेळ भावशून्य जावन, सैमाचे भव्य सौंदर्य पळयत तन्मय जाल्लो. म्हज्या अस्तित्वाची' जाणीव आयिल्ली, सूर्य अदृश्य जाल्लो तेन्नाच, फुडलें खिणाक मन अतीव चैतन्यान भरलेंले हांवे अणभवलें.

'सूर्यास्त पळयतना कशें दिसलें?' वापस वत्तना म्हालगड्यान विचारले. त्या वेळाक खंचीय भावना, विचार मनांत नासलें. तशेच सांगले. 'व्हय. असलें नितळसाणीचे अवतिकायेक[38] ध्यान म्हणचे. ध्यान केदनाय करू जायना, तें आपशीच जांवका.' म्हणपा लागलो. म्हाका अजाप जालें. थोडे भोव अर्थय जाल्लो. पूण तसली संद परत केदनाय आयली ना.

नशिबा खेळ म्हळ्यार, पोटसऱ्याले संरक्षणा काम, खूप वरसा तन्मयतायेन करत आशिल्लो देकून, ताजे परिणामाचे फळ, ही ध्यान स्थिति, मुखार प्रत्येक सोरप धरतना घडतालीं. तांतूय, सोरप धरतना मन भावशून्य जात्ता. तो खीण अवर्णनीय तृप्ती दित्ता. थोडे फावटी सुस्त जांवचे, थंडी, ज्वर वा दुःख, बेजार असले ल्हान-सान त्रास अशिल्ले संदर्भात, सोरप धरचाक आपयिल्ले वेळार, थंय वचुन मायेन, मोवाळपणान सोरोपाक हात्तांत धरले तेन्ना सगळे त्रास नाजांवचे अजापाचे विशी, खूप वेळा म्हजे ध्यानात आयला. हाची चर्चा हांवे त्या जाणटेल्या[39] लागी केली.

---

35. मळब - आकाश

36. पातळलेली - पसरलेली

37. ल्हवु - हळु

39. जाणटो - जाणतलो, म्हालगडो

'सोरोप धरचे काम वा तसलें खंचेय आवडीचे कामांत काया-वाचा-मनसा, प्रीतिन, कसलीय दुविधा नासतना करचे काम म्हळ्यार 'ध्यान'च. सोरोप धरतना तुका बी पुरायेन शून्यताय आयिल्ली आसता, मन नितळ आसता, दूसरे खीणाक अपूर्व चैतन्य मनांत आनी शरीरांत पातळल्या कारणान कुडींतल्यो[40] सगल्यो समस्या सहजपणें माय जात्तात.' अशें तांणे समजावन सांगले.

'सद्गुरु' म्हळिले आनी एक योगी म्हणता, 'पोटसरें सगळ्या जीवांत अपूर्व जीव. ताजे तेजोमंडल हेर जीवां परस शोभायमान जावन आस्सा. त्या खातिर, सोरप, ध्यानस्त बशिल्ले योगीं कडे आकर्षित जातात.' तें खरें दिसलें.

त्या कारणानच, तेरावे फावटी, विषारी सोरपान चाबलेलो म्हजो देह तरेकवार वखंदां, अनेक शस्त्र चिकित्सा प्रयोग जावन, भरपूर त्रास जाल्ले देकून बी, पोटसऱ्याल्या निरंतर स्पर्शान, स्पंदन जाल्ले विशेष तांकीन[41], खंचोय रोग, व्याधि मजे दिकेन येनास्तना, हांव भलायकींन बरो आसा. तरीकय, पंचभूता देकुन जाल्लेली ही कूड, एक ना एक दीस दुर्बल जावन वचपाची जाल्यार, खंचीय व्याधि, अपघात जांवका हो निसर्ग नियम आमी विसरचाक जायना!



---

40. कुडी - देह, शरीर
41. तांक - शक्ती

# 4. बायम्मालो रुद्रावतार

तरनाटी पिराय ही प्रत्येक मनशांले जिवितांत महत्वाची आस्ता. धिरीश्ट, कसल्याकय भिनाशिल्ले, बेफिक्र, संसार जिंकपाची तांक, जिद्द आनी आत्मविश्वासाचे, सुंदर दीस आसतात तें. प्राथमिक शिक्षणा उपरांत आमचो संसार परतून पोटळी बांदून दोड्डगुड्डे म्हळिले गांवात स्थापन जाल्लो. ते वरेक कसलेय बचतीची जाण नाशिल्ली. म्हजे आवयेन इल्लो पैसो उरोवन, एक जोडि कान्नाचे घेतिले. तें काय जास्त दीस तिगलें[42] ना. तें विकून दोड्डगुड्डे थंय तीन सेंट्स्[43] जागो विकती घेवन एक ल्हानशी खोंप बांदून रांवच्याक लागले. त्या दीसा पासूनच आमचे संसाराक एक स्वतंत्र वासस्थान मेळ्ळे म्हणपाक हरकत ना. ह्या जाग्यार आयिले साकून, एक वरस हांव शाळेक गेलो ना, वर्स अशेच भोंवडींत वाया घातलें. त्या वेळाक म्हजे सारके खोंपीत रावतले आनीक भुरग्यां वांगडा दोस्ती जाल्ली. थंच्या वातावरणांत हांव बेगिन रूळून गेल्लो. म्हजी धीटाय आनी बुदवंतकाय तांका दिसून येत्ताली. म्हजे

---

42. तिगले - टिकले

43. सेंट्स् - 1306.8 स्केयर फुट

परस व्हडल्या चेरडुवांक साध्य जायनाश्लिी कामगिरी हांव करून दाखयतालो. एका रुखा साकून दुसऱ्या रुखार माकडा सारके, वयर चडप-देंवप करतालो, खांदयांनी[44] खेळतालो. आंगात भूत शिरल्यावरि कबड्डि, लगोरी, विटी-दांडु (कोंयडे-बाल) आनी काजु वा फळ चोरी करपांत हांव मुखार आसतालो.

म्हजे सांगात्यानी घातिल्ले कितें असाध्य काम कोरपाची सर्त स्वीकारून, करुन दाखवपाचे धाडस आशिल्ले म्हज्यांत. अपरूपाक काम नागयतालो, लीबाड करतालो, आनी ही म्हजी सदांची चालणूक आशिल्ली.

अशीच एकदां म्हजे उर्मटपणाची परमावधि एकले किरिस्तांव बायेचे रूपांत प्रत्यक्ष जाल्ली. तिचे नांव मेरी, पूण सकडे तीका बायम्म म्हणी. तिच्या दोन-तीन एकर बागेंतलें काजू, तोतापुरी आंबे, तवशें आमी केन्न-केदनाय चोरपाक घुसतालेत. बायम्मा महा रागीट, अहंकारी बायल आशिल्ली. तिचे बागेत घुसचे म्हळ्यार पा्किस्तान सीमा पार करून जिवित भायर पडचे कशी तशें! म्हजे घरचे, केदनाय म्हाका शिटकायताले[45] ‘अरे, तीचे बागे दिकून दिष्टी बी घालनाका रे बाबा’ म्हुण आडुयत आसताले.

ती इतलीं स्वार्थी आशिली की ती घरांकुशिक आशिलीं, मुंबयी रावताले वारस तांच्यो दोन-तीन पाड पडिल्ल्यो बागो, तांतु आंबे, फणस, काजू, जळो्वाचें लाकूड भरपूर आसतालें. पूण ती, कोणाक बी हात लांवपाक दिनाशिल्ली. लिपून नदर दवरुन बसताली ती. कोणी गरीबांक हात सोडुन दिवपाचे सोड, चुकुन कितें घेतल्यार, दादलो[46], बायल, चेरडुवं, कोणी आस्सू तांचे जिवित हैराण करताली, ती राक्षस बुद्धिची बायम्मा!

एका फावटी म्हजी आजी सुक्किले लाकूड काडूक थंय गेल्लि तेन्ना, तिजे केस धरुन, गुद्दावन धाडिल्ले, त्या बायम्मान! आजी बाबडी, दुखी जावन, बायम्माक स्राप घालत बशिल्ले पोळोवन संतापलो हांव. आनी त्या दीसा पसून तिचे बागेंत घुसुन हाताक मेळटा तें तोडप-फोडप सुरु केल्ले

44. खांदी - फांदी
45. शिटकावप - पूर्वसूचना, इशारा दिवप
46. दादलो - दारलो

हांवे. पूण केदनाय तिजे हातांत मात पडुकना. तसो पडल्यार हांव मेल्लो, ही जाण म्हाका आशिल्ली. कितले वेळा एका केसा अंतरार तिजे हातां सावन हांव पार बी जाला. त्या निमतानच म्हजो तिका भयंकर राग आशिल्लो, इतलो की हांव तिच्या हात्ताक मेळ्यार चिरुनच काडपाची तितली! तिणे थारायलिलेंच तशें.

ह्या वेळार म्हजे परस धा-बारा वर्सानं व्हडले, किट्टु, पक्कु असले पडपोसी तरणाटें म्हजे दोस्त जाल्ले. दोगीय महा आळशी! म्हयन्यांत एक हफ्तोच काम करतालें, तेंवय अर्दंकूटे! चार-पांच सेटंस जमीनिंत आशिले, तीन-चार माड्या रुकाचे सुकिले नारल, शियाळें काडचे, घरच्यांचे दबावान रूक्काचे, पोंदाक. बांध बांदचे, तेवंय अर्दकूटें. आंब्या मोसमांत आंबे काडपाक वेपाऱ्या बरोबर वचून, काम पुरा जांवचे पयलीच छू जांवचे. आनी पैशा खातीर लडाय कोरचे. कितें त्रास घेनास्तना, हूम गळयनास्तना, ल्हान ल्हान काम करपी, पैसो कमी पडल्यार चोरी कोरुन मजा मारचो तांचो धंदो आशिल्लो!

इस्पीका खेळांत दोग्गी माहीर, किट्टु आनी पक्कु. होटेलाचो मिश्या भटांचे गल्लींत सकाळ पसून सांज थांय इस्पिकांचो खेळ मांडताले. साबार पावटी मिश्या भटूच पोलिसांक कळयतालो, तेन्ना वीज पडिल्लेवरी पोलिस येवन तांका कादयेंत[47] धुख्लताले. पूण तीन-चार दिसांतूच तांका भायर काडटालें, तांची रडी वा, धांधल वा तांचे भरून भरनाशिले पोटा पायी फिर्याद दाखल जांवचीं पयलींच ते सुटतालें!

एक फावटी मजेदार प्रसंग घडलो, मिश्या भटाचे मागदेरांत आशिल्ले झाडींत जुगार रंगांत आयिल्लो. पक्कु, किट्टु, आनी तांचे इस्पिका मित्र एक पानी खेळांत गुल्ल जावन आशिल्ले, ह्या खेळाक अंदर -बाहर अशे म्हणतात, तेन्नाच पोलिस तांचेर सुनामि सारके तुटून पडले आनी तांका 'अंदर' कोरपाक आयले. पक्कु आंगापांगान घटमुट मनीस, एका पोलीस मामान, ताजे पँणटाचे कुरटा पट्टी हात्तांत घट धरून तो धावनाशि पकडून दवरलें.

---

47. कादय - कैद, जैल

बारीक आनी लांब अशिल्लो किट्टीलें धोगलें बेल् बोट्टम पँण्ट पोलिसाक धरपाक जालेना, म्हण ताजें व्हड कानाचे सुण्याले कॅालर् सारके दिसतालें, तें कॅालर ताका तिरपून घट्ट धरले पळे! ताणे ताजो सुसकारोच बंद पडलो अशे जाल्लें. रानटी जनावरांचे शिकार केल्लेवरी सर्वांक जीपींत घालता म्हणतना, आंगात भूत रिगल्यावरी, व्हड व्हडान किळची मारत, दोगय खीणां भितर, पोलिसांचे हातांतून निसटून धांवपाक लागले. त्या गडबडींत किट्टु सुटलो आनी पोलिसाले हात्तांत आयलें फक्त किट्टुलें कॅालर! पक्कु बी सुटलो, पूण धांवतना फातराक आदोळून तो सक्कल पडलो. तीन पोलीस ताचे फाटी येवन ताक्का बेतान मारून, मारून त्याची पँण्ट पिंदून गांड दिसचा लागली! हें सगलें पळोवन म्हाका खूप वायट दिसले. तें म्हजे इष्ट आशिले, तांका वांचवपाक म्हाका जालेंना म्हूण हांव बेजार जालो. पूण पाच दिसान कैदेंतल्यान दोग्गी भायर आयिल्ले, परतून वायट कामांतच बुडुन रावले. गांवच्या लोकालें पोरनें तांब्या, पितळेचे सामान चोरुन, विकून पैसे करून, मजा-मस्ती करतालें. हे गजालीं उपरांत किट्टीक, 'कॅालर् किट्टी' म्हण नांव पडलें.

पक्कु-किट्टी हांचे कैदे सावन अंदर-बाहर खूपदा चालूच आशिल्ले. तांच्यो वायट संवयो म्हाका खबर आशिल्यो, तरीय, तांचे वांगडा इष्टागत[48], म्हाका तुंटवची नाशिल्ली. खंचेय वायट परिस्थिंतींत हासरो स्वभाव आनी येता त्या प्रसंगाक तोंड दीवन लडाय दित्ताले, वा पलायन कर्ताले. जिवित तान्नी केदनाय गंभीरतायेन घेतलें ना. जिवितांत मौज करपाची तांची सवय म्हाका आवडताली तांचो सांगात आसतना म्हजे दुःख वा निरशेवणी[49] विसरून हांव आनंदी आसतालो.

एक दीस तांका कंट्रीं सोरो पिवपाची आनी जुगार खेळपाची तलब आयली, पूण हातांत पैसो नाशिल्लो. म्हूण तांका बायम्मालें बागेंत धुमाकूळ घालपाचे मनांत आ्यले. तें आयकून हांव खूप खुश जालो. म्हाका म्हजे

---

48. इश्टगत - मैत्रि
49. निरशेवणी - निराशा

आजयेक त्रास दिल्ले खातीर बायम्माचेर सूड घेवपाचो आशिल्लो. आमी फांतोडेक[50] बायम्माले बागे दिकान चलु लागलें. वाटेर हे दोन्नी प्रळयांतक उपेग नाशिल्ले, म्हजे, धीटायेचे कौतुक करत म्हाका माडार चडयत वत्तालें. हें सगलें करपाचे कारण म्हजे कडल्यान चड चोरी करून घेवपाचो तांचो बेत आशिल्लो म्हण कळले म्हाका. पुण फुकटांत प्रशंसा जात्त आस्स, म्हूण हांवय आयकत, हासत, चलतालो. आमी दाट रानातुल्यान तिनी जणांन बायम्माले बागेंत आक्रमण केल्ले. किट्टुन–पक्कुन एक उपाय सुचयलो. 'तुं काजु झाडार चड, फळाचे बीय मात काड, आनी पिशविंत घाल. फळ काडनाका. आमी दोनी, आंब्या रूकार चडतात. बायम्मा आयल्यार, तुका सूचना दित्तात. भिवनाका. आमि हांगा सावन, खंय हालनात. कसल्ले जावो, लडाय बी करूंक आमी तयार आसत. तुजे आज्जिलो सूड घेंवपाचो आस्स नूं? जाल्यार काजु फळ मात काडनाका. तशें केल्यार तिका काजु चोरिलें कळपाचे ना.' अशें सांगून म्हाका नीट 'माकड' केल्लो, रुकाचे वयले खाद्ये पर्यंत म्हाका चडवंचे काम त्यां दोनीं वानरानी केलें.

हांव सरसरीत वयर झाडार चडलो,फळ, तिरपून, बी काडुन खांद्यार आशिले पिशविंत घालत गेलो. बरें पिकिल्लें, रसरशीत अमल चडची दोन–चार फळां खात्त, हांवे पांच किलो बीयों काडल्यो आस्तल्यो. तितल्यांत, बुरशे शर्ट आनी धोगले बेल बाटम पॅण्ट घात्तिलो किट्टु, कुशितल्या रूका पोंदार तोतापुरि आंबो खात, बीडि फुंकतच उबो आशिल्लो पळवन म्हाका, 'धस' जाल्ले. हाची, धूमलीला आनी बेताळा रूप, त्या, गिदा नदरेच्या बायाम्माले दिश्टी पडलेच! आमचे खातीरच धारकाडुन दवरिल्लो कोयतो हातांत धरून चंडि अवतारांत झळपत सुटली ती बायाम्मा! वयर बशिल्या म्हाका ती दिश्टि पडली, पूण् सकल उबे आशिल्ले तांका कशें कळलें ना? तीचो तापट आवाज आणी जन्मांत आयकानाशिले, सोंवे आयकले खीणाक, किट्टी, 'अय्यय्यो, अप्पप्पो, पक्कु, बायम्म आयली रे, धांवारें,'

---

50. फांतोडे – सकाळ

म्हणत धावलो, ताजे फाटल्यान पक्कु बी पागार उड्डुन,'छू ' जालो. 'अरे! नमक हराम्यांनो'! म्हाका बायम्मालें हात्तांत घालुन पळुन गेल्ले ते दोगी! कितलेसोच वेळ हांव तडफडत रूका फांदयार बसून उरलो.

रागान ताप्पिलो इंगळो जाल्लि ती बायम्मा ! ह्या वरेक आयकानशिले असभ्य, अवाच्च शब्दांचे मण्यो भायर काडत, आमकां, आमचे आवय-बापयक सोंवे दीत आशिल्ली. ताळवेक चडींल्लो राग-कोपान, व्यंग्य जावन उल्लयत हांव चडीले रूका सक्कल उबी रावली. हांव भीवन, थर थरत मूतका म्हणतना, तींणें वयर चोयलें आनी राक्षसि सारखे व्हड व्हडान हासत,' ओहो! तुं मेळ्ळोरे म्हाका रा..... पुता! म्हाका तूंच जाय आशिल्लो! कितले दीसा लागून तूं म्हाका जाय अशिल्लो, चेरडा.....! जाण तुं! छे! छे! छे, रातदीवस कष्टान उबे केल्ल्ेली म्हजी बाग एक चूर सोडनाशी तूंच नय खात्तालो, विबाड करतालो? ही तुजीच कामगीरि म्हण कळत लागून, हांव तुजे फाटल्यान आशिल्ली. आत्त बरो मेळ्ळो रे तुं. सुण्या! सक्कल देवन य, पाय मोडुन दवरता पळय!... देंवता की ना रे, ' आवाज व्हड कोरपाक लागली. 'हांवच झाडार चडुन येता आनी चाबून खात्ता पळय..... ' दोळे घुंवडायत, झाडा भोंवती घुंवड्याळ्यो काडपाक लागली. त्या वळाक म्हजी अवतीकाय किदें आशिल्ली हांवच जा्ण!

आज हांव हिच्या हातांत मेळ्ळ्यार, म्हजो पाय वा हातांचो कुडको जांवचो सत. हांवे कशे करून हांतून भायर पडपाकच जाय. ते कशें करपाचे? व्हडलो यक्ष प्रस्नो म्हजे मुखार उबो रावलो. मनांत भंय आस्तना बरें किते बेगिन सुचपाकूच जायना. खऱ्यानच जांयना! हांव आवय नाशिल्ले ल्हान भुरग्यावरि रडपाक लागलो. 'बायम्मा, हांव तुझे पांय पडटा, आनी मुकार हांव तुमचे बागेंत पाय दवरचोना, हांवे चोरलिलें सक्कड फळां, नारल, आंब्यांचो हिशेब चुकते करता. म्हाका भोगशी.[51] ही एक फावटी म्हाका सोड बायम्मा! हाज्जे उपरांत हांव तुजे बागे दिकान तकली वयर दवरून निदना... ! अशें कितलें लालयलें, पूण ती शांत जावपाचे दूर, आनी जास्त तापयत झाडा

51. भोगशी - माफ कर

भोवंती फोवजेची चाल चलत रावली. म्हजे नशीब बरें आशिल्ले, तिचो पूत अंथोनी घरा नाशिल्लो. तो आसलेलो जाल्यार झाड चडून, म्हाका सक्कल ताणून, म्हजे हात-पाय मोडून घालतशीलो. त्या लागून हांव सक्कल येंवू मेरेन बायम्माक वाट पोळोपाक पडले.

एक रूका थावन दुसरे रूकार उडकी मारच्यांत हांव माहीर आशिल्लो. पूण हांवे आशिले दिकेन ऐकूय रूक नाशिल्लो. व्हडान रडचे सोडल्यार दुसरो उपाय बी नाशिल्लो, थोडो वेळ रडची कार्यावळ चल्ली, आखेरक ती बगेन शांत जाल्ली अशें दाखयलें. 'जायत, यो सक्कल, सोडता तुका, पूण, एक शर्त! तुजे तें इष्ट आस्स नंय, चोर खंचे! तांणीं हांगा देक्नून घेवन गेल्लेलें सगळीं काजुबियां, आंबे हाडुन दी, तुज्यान जात्तलें तें काम? 'म्हण हुंकार घातलो. हांवे ताबडतोब हयकार दिलो. तीणें उतरून येंवपाक खूण केली .पूण, हांव तिजेर विश्वास कसो दवरपाचो? साध्य ना! विश्वास दवरले जाल्यार, मानग्याले[52] इष्टागत भूलुन काळीज काडुन दिल्लिल्या माकडाली गत जात्तली. हांवे तिज्या भाटाची[53] खूप नासाड केल्लीले. तीजे जाग्यार हांव आसल्यार भोवशा तेंच करत आशिल्लो.

बायम्मार पूर्ण अविश्वास दवरूनच हांव पुरायेन जागृत आसून सकल देंवपाक लागलो. अर्दयार आयलो. बियांची पोती तिज्जे दीकेन उडयली. ती मज्जेर नदर दवरून उबी आसली. शक्यतो तिचे विरुध दिशेनें हांव देवलो, पूण हांव उडून वत्तलो ताची, तीका जाणविकाय आशिल्ली, हांव पावूण देविलो मात, ती पटकन रूका कुशिक येवन उबी रावलीं. ती लागी येंवपाक आनी हांवे रूकाचे आड फांदीर लटकुंवपाक सामके जाल्लें. म्हजे हातार तीर धरून सरक्कन कोयतो उडयलो पळय बायम्मान! हांवय वेगान फांदी सोडून, पागेर उडून,पार जाल्लो, आनी कोयतो म्हजे केसा कुशी[54] सावन, वेगान

52. मानगे - मगर
53. भाट - शेत, बगीचा
54. कुशि - बाजु

बागे भायर पडलें! अब्बा ! बायम्मालें कोयतो पसुन चुक्कुवन घेतल्यार शंभर वरस आयुष्य म्हणपाचे, स्थिती, आशिल्ली ती वेळघडी!

म्हजे तकलेंत रागान उजो पेट्टिल्लो. कोयतो वयर उबारलो. तीणें घात्तीलें तमाम सोंवे तिकाच, तिणें घात्तील तशेच, परतून घातलें.' एय्! राक्षीणी, कितें समजला म्हाका? हांव तितले सलीस तुझे हातंत पडचो ना कितें? तुजे पुताक धमक आसल्यार धाड, म्हाका धरपाक, मेळटा की पळय तूं? ताकत आसल्यार फुढे यो! कितें म्हळे तुंवे? म्हाका चाबता? फाल्याच्यान तुज्यो फक्त बियों मात न्हंय, सगलो बागेचो विध्वंस करता पळयत राव . कोयतेची आशा सोड तूं. म्हजे आजयेक मारले न्हंय, तुका पळोवन घेत्ता हांव' अशीं जाप दीवन हांव घरा आयलो.

आजयेक सगलें सांगून लडाय जिंकिलो शूर-वीरसो व्हडपणार हड्डे[55] नीट करून तीचे मुखार उबो रावलो. आज्जी कंगाल! 'फट' कर्न पोल्यांर मार पडलो, म्हजी उमेद भा्गली! म्हजे हातांतूलो कोयतो बळजबरींन ओडुन घेतलो. बायम्मा आत्ता नाजाल्यार मागेर् घरा कडेन येत्तली तीका खात्री आशिल्ली. म्हाका दीस भरांक खंयतरी पयस निप्पोन रावपाक सांगून, भायर धावंडायलो. हांव शेणोवन[56] घरा म्हऱ्यांतल्या सरकारी पाड पडील्ले बंगल्याचे तेरेसार वचुन निदलो. आजयेन येवजलिलें तशें बायम्मा थोडे वेळान आपलो पूत अंथोनी वांगडा धप्, धप् करत रागान येवन, आजी वांगडा लडाय करची घडणूक दिसताली. तेच वेळेक, तिजेर राग आशिल्यो भोंवतणच्यो[57] बायलो, जमा जाल्यो, आनी बायम्मार झुडून गेल्यो. बायम्मा भियेवन धावन गेली! पूण हे घडणूकीन आजी खूप त्रासली म्हूण हांव थोडे काळ बायम्माले बागे वाटेक गेलो ना.

हेवटेन, सांजवळार किट्टु-पक्कु दोगयं तोतापुरि विकून आयिल्ले पैशान

---

55. हड्डे - हेरदे
56. शेणोवन - बेजार
57. भोंवतणी - आजुबाजुचे

भरती कंठपूर्ती पीवून हलत-धोलत आयलें. हांव तांचे विश्वासघातकी वागणूकिन सुस्त जाल्लिलो, म्हाका लडाय कोरपाची इच्छा नाशिली. ताजो फायदो बी नाशिल्लो. त्या दीसा पसून हांवे तांची संगत सोडली. खूपदा तें राजी कोरपाक आयले. आज्जीन बी तांचेर राग करुन धाडलें. हाली किट्टुक सायकली सारख्यो करतना पळयलिल्ले. पक्कु मुंबयत होटेलांत कामार आस्सा, आनी तो आता जाणटो जाला आनी ताज्यान कांय जायना म्हूण कळुन आयलें.

## बायम्म्मान सूड घेतलो!

अशें रीतीन बायम्मालो बोवाळ जावन एक-दोन म्हयनें जाल्ले आसका. त्या दिसाचो तिचो रुद्रावतार आनी वायट सोंवे, म्हजे तकलींत बेरंग जावन, फकत काळे-धंवे चित्रशें जावन, ती कोन्यांत पडून उरलीं. तिचे बागेंतूलीं कीरा तोंडाचो तोतापूरि आनी बियो खांवपाची ओड परतून येंवपाक लागली. एक दीस, तडोवपाक जायनाशी हांव बायम्माले बागेंत घुसलो. पूण घुसतना म्हजे नशिबाचो दरवट्टो बंद आशिलो, की नशीबा लागूनच म्हाका थंय वचपाक, दुर्बुद्धी आयली, कोण जाण? त्या दीस म्हाका म्हजे जिवितांतलो खूप खतरनाक प्रसंगाचो अणभव कोरका पडलो.

आंब्या रूकार चडुन, फळाक हात लायता म्हणतना, 'गक्क'न अंथोनी मुखार दुत जांवका! इतल्यांत, उडुन धांवका, तितल्यांत, म्हजी कॅालर ताजे मुठींत आशिल्ली! ताणे म्हजे पोल्यार रप्, रप् मारले, 'मायी, मायी, वेग्गियो रांडलापूतु मेळ्ळो!' म्हणत दर दर ताण्णून व्हेले. वाघांले तोंडात शिरकलेले चित्तळ, आत्ता आपण वांचचो ना म्हण कळतकच धडपड कोरपाचे सोडुन दित्तां तशें, भिवून म्हजे आंग लाकूड शें घट्ट जाल्लें.

पूत्तालो आवाज आयकूतकच बायम्मा, तीची भुरगी दोगी बेगिन भायर आयलीं. म्हाका पळोवन, फाटले सारके, सोंव्यांचे पावस पाडयत फाट्टेर, दब दब गुद्दावून, हात पाय बांदून दवरपाक पूताक सूचयलें. त्या वेळाक, आजचो दीस म्हजो नंय म्हण भीवून, आंगांत दैवावश आयिल्ले भशेन

जोरायेन किंचाळ्ळो हांव. आनी सोडवून घेंवपाचे प्रयत्न केल्ले. 'धड' ने म्हाका आड घालून, हात-पाय घट्ट बांदले. तरी म्हाका तांचे बेत समजूना. अंथोनिन म्हजे कुरटाक एक बैरास[58] बांदले. मुखावले खंयचेय शिक्षा भोगपाची मनाची तयारी हांव कोरुक लागलो. एकच धैर्य आशिल्ले, कीं म्हजे जीवाक धोको करची ना तीं. पूण तांचो बेत हांवे येवजिल्लें परस उग्र आशिल्लो.

म्हाका उटकारून ताण्णीत बांयेकाट्टर उभे केलें. आतां म्हाका कसली शिक्षा मेळटली म्हूण ल्हव ल्हव समज येंवच्या लागलें. जेदनां म्हाका पूर्ण जाणीव जाल्ली, तेन्ना, हांव अनाथ मेंढरा पील शें कुकार मारू लागलो. उपरांत बोबय, पूण थंय कोणय आयकतलीं नाशिल्लीं. म्हजे रडप बायम्माक खुशी दित्ताले

'एय्! तीन कासांच्या! बाग लिबाड करता तूं? सोपुत[59] बी घेता तूं? य्! अंतनी ह्या रा ....पूताक घालरे बांयेंत! बुड्डुन मरो सुणों!...' म्हणचे खीणाक त्या राक्षसांन कूरटा बांदिले बैरासांत बांये राज्जू बांदून, तें कुशिक आशिले रूक्काक बांदून' सर्र' करुन म्हाका बांयिंत उडयलो. नीट बाणा सारके पांच-स फूट्र उदकाक कातरून, स्वास घट धरून हांव तळांत बुडलो.

त्या काळांत,उदकांत पेंवप[60] म्हजो एक आवडीचो छंद जावन आशिल्लो. पावसाडिंत, भरून व्हाळत आशिल्ले, न्हयों, व्हाळी, झरय वा माड्डो, बागेंत, शेतांत आशिल्ले पाड पडिल्ले बांयेत, कुशीक आशिल्ले, पन्नास-साठ फूट उंचायिचे माड्या रूकार सावन स्वास घट्ट धर्न उडकी मारचे, स्पर्धा करून जिंकप म्हाका वेगळोच मजानंद दित्ताले. व्हडले लोकां बरोबर सर्त बांधून पोंवचे, पावसाडिचे व्हड आकर्षण आशिल्ले. असले अणभवाचे फळच बायम्मालें बांयींत म्हाका आतां उपेगी पडले.

तीनय लोकांनी म्हाका वयर काडचे फुडे, रोखून धरलेलो स्वास सोडुन व्हडलो सुस्कारो घेतलो हांवे, आनी जीव उडून वचपाचे तितले जोरायेन

58. बैरास - तुवाल
59. सोपुत - शपत
60. पेवप - पोवप

बोब मारली. भीवून न्हंय. 'हो खूप भियेल्लां वा हो सोंपलों' हो भयं तांचांत पेटवून, पार जांवपाक केल्लेलो हो प्रयत्न. जीवा भयं जेन्ना पक्षी आनी प्राण्यांक आसता, तेन्ना आत्मरक्षणा खातीर, जे तंत्र तीं वापर करतात, तोची तंत्र मनीस बी वापरू शकतात म्हूण म्हाका कळून आयलें. पूण ह्या निष्ठूर लोकांलें मनं म्हजे फटकिरेपंणाक[61] बिलकुल मोवाळ जाले ना! म्हजे बोबीन तांका जास्त खुशी जावन जोरायीन, परतून परतून म्हाका बांयेंत बुचकळावन[62] भायर काडत रावलीं तीं!

सुमार पांच-स फावटी बुचकळयतकच म्हजी सहनशक्ती ल्हव ल्हव उणी जाल्ली. स्वास धरुन दवरपाचे असाध्य जाल्लें. थोड्या वेळान, कातरलेल्या केळीवरी बावनू, नित्राण जावन, तोंडांत, नाकांत उदक वचून स्वास नात्तील्या सारको मरतुकडो जालो हांव. मरचे भयं दिसलें. वळवळुन बेशुद्ध जाल्लो. निरखून, पळयत, गम्मत घेत्त आशिल्ले बायम्माल्ले धूवेन म्हजी अवस्था पळोवन बोब मारलीं आनी नित्राण जाल्लेलो म्हजे अवस्थेर भारी खोश जावन, तृप्त जाले आनी ल्हवु लहवु म्हाका वयर ताण्णुन भायर काडलो.

बांदिलो राज्जु सोडयतनाच धपकन हांव जमीनीचेर पडलो.! 'आनी जाय की नाक्का, रा...... पुता! भारि अहंकार दाखयतालो नंय तूं? आत्त खंय गेल्ले ते? तुका आता संसारातल्यान धांवडायता पळय, धांव बेगीन हांगसक्कून 'बायम्माले आवाज दूरांतल्यान आयकूक येत्तालो. जागि आशिल्लो, की अर्धी निजिले अवस्थेंत आशिल्लो देव जाण! उठपाक जायनाशिल्ले. थोडो वेळ तसोच पडून आशिल्लो. हालचाल नास्तना पडिल्लो म्हाका पळोवन मेलो की किते म्हूण पोळोपाक अशें-तशें म्हाका परतवन, सुस्कारो येत्त की म्हण नांकालागी हात दवरून खात्रि कोरुन, घराकडे गेली ती. तेच स्थीतिंत हांव खूप वेळ पडुन आशिल्लो, हारलेलो देह आनी मनस्थितित उठावन जड पावलां घालत हांव घरा कडेन चमकलो. त्या दीसा पसून बायम्मा आनी अंथोनीवेलो कोप-ताप चार पटीन वाडलो!

---

61. फटकिरेपण - फटिंगपण

62. बुचकळचे - उदकांत

घरा येवन न्हावन धुवन निजलो. आजयेक ही गजाल सांगलीना. सांग्लिली जाल्यार म्हाका आनी एक-दोन फावट बांयिंत उडयतशील्ली! मागीर एक-दोन म्हयने बायम्मालें बागे दीकेन हांव गेलोना, मात तिने दिल्लेले. वळवळे म्हजे मनांतल्यान गेल्ले ना. तशे जावन हांव परतून लूटी कोरपाक सुरु केलें. पयलेफावटी गेल्लो तेन्ना, तें भयंकर शिक्षेची वायट याद मनांत भरून गेल्लो. पूण धीर धरून, हठान म्हजे थोडे विश्वासू इश्टां बरोबर वचून शियाळें, फळ काडचे करत रावलो. तें महामायेक कळून आयले. एक-दोन फावटी घरा येवन आवाज करून गेली . मुखार हांवे तिजे हातात शिरकून पडची चूक केलीना. ताजे उपरांत हांव मुंबयीक गेलो, बायम्मा बरोबर गांवच्यो सगळ्यो गजालींय पयस गेल्यो.

## दुस्वासाचें उणेपण-मोगाचो व्हडपण

'बायाम्मा्लो बांयचो प्रसंग' घडून सुमार तीन सुदीर्घ दशकां जावन गेल्ली. हांव मुंबय नोकरी सोंद्दुक गेल्लो, तेन्ना घरच्यानीं दोड्डुणगुड्डेचो जागो विकलों, भयणीलें लगीन करुन तीं, पेरंपळ्ळींत भाड्याच्या घरांत रावपाक लागलीं. थोडे वरसान हांवे उडुपिंचे लक्षमीनगरांत सरकारी जागो विकती घेवन घर बांदलें. त्या दिसा पसून आमका एक शास्वत वासस्थळ जालें. हालीं, अनेक फावटी म्हज्या सानपणाच्यो जायत्यो घडणूकी आत्ता उगडासून येत्ताल्यो आनी मनाक भारी संतोष दिसतालो. परंतू, बायम्माले विशी मात त्रास जात्तालो. ' त्या वेळाक हांवे तशें तिका त्रास दिवपाक नाका आसलें . एक दीस हांवे तिजे लागी माफी मागच्या जाय.' अशें म्हाका खूपदां दिसतालें. पूण तें कशे साध्य जात्तलें? तिजे लागी नीटायेन वचपाक लज दिसून, फाटी सरतालों. पूण एकदीस कितें जाल्ले खबर आस्सां? तो एक अजापाचोच दीस! 'मनांन प्रामाणीकपणांन याद केल्यार, एकना एक दीस तें घडुन येता' ही म्हण, सत् थारली.

'घरांत एक नाग आयला, कृपाकरुन घरा यो' म्हण एक बायलेलो भीवकुऱ्या आवाजांत फोन दोड्डुणगुड्डे सरल्यान आयलो. तो 2014तलो

एक दिस आसलो. घरचो पत्तो पोळोवन एक खीण झटको बसलो. तेच्च बायम्मालें घरांतसून फोन येंवका? आमच्या दोगां मदीं आसले तें निगूढ संबंधाचो गोड-कडु यादीची यादी भायर पडली. एक विचित्रशा भावावेशांन हांव पुलकित जाल्लों. तशेंच घरचे कपड्यारच, तीस वरसा उपरांत हांव बायम्माले घरा धांवलो! सोरपाक धरचे परस, म्हजे बालपणांत सदां सर्त घालन, विचित्र धीटपणाचे काम करपाक संद दीवन, भविष्यांत येंवच्या कष्टांक सामखारा[63] वचपाक आनी तांतूतल्यान जैतवंत[64] जावन यशस्वी रीतीन भायर पडपाक कारण जाल्लिल्या ह्या घरच्यांक मेळची संद म्हाका सोडची नासली. तांचे सुंदर बागेक पोळोच्याक आनी प्रामुख्यान म्हजे अतीरेकाक पाविल्ले पुंडायपण आनी अहंकार मस्तून, जीवा भंयेंक, बुडोवन दाखयलिल्ली तीं बांय मनापासुन पळोंवचें उमळशिकेन म्हाका थंय ताणुन व्हेलें.

थंय वचपाची उत्सुकताय की बालपणाचे यादेंन म्हज्या मनांत दुबाव कीं! बायम्मालें आंगणांत पाय दवरीलो तेन्ना हांव, हांव न्हंयशिल्लो. एदरार मातशें पयस, पाड पडिल्ली एक बांय तोंड उगडून सुन्न जावन पळयत आशिल्ली. हांव गोंधळ्ळो. थोडे वेळान मध्यम वयाची एक बायल तेच्च, नळ्या माडाचे घरांतून भायर आयली. हांव तिका पळयत रावलो. वळक लागली, बायम्माली धूव, मोनी गवाय! अंथोनिनें म्हाका बांयेंत दुक्कळचे पयली, विचित्रपणें हशिल्ली, आनी हांव स्वास घेंवपाक जायनास्तना, मेल्या सारको पडिल्लो तेन्ना, व्हडल्यान बोब मारलेली तो आवाज, सगलें म्हाका येवजून आयले.

'खंय आस्स सोरप?' म्हुण हांवे विचारलें. 'यो भीतर, आवयले कुडींत अस्सा. मांय...!' म्हणचे खीणाक, हांव धांवलो भितर. थंय खुर्चेर धंवे केस पिसरलेले, सुके नीरस हांसत, हातांत बडी घेवन बशिल्ली म्हजी बायम्मा! स फूट उंचायिची, गंवा रंगाची, धष्टपुष्ट आंगलटाची, धीट- धनस्तिकेची, त्या वेळाची सुंदर किरिस्तावांची बायम्मा खंय? आताची बायम्मा खंय?

---

63. सामखारा - सामोरे
64. जैत - यशस्वि

अय्यो देवा....!' काळीज पिळ्ळेवरि जाल्लें. मायेचो हासो तिका दीवन, सोरप आशिल्ले कुडिंत गेलो. भोवशः बायम्माक कितेंतर रोग आशिल्लो, तिचे कपडें हांगा थंय पडिलें, वकदा वास भरील्लो. पोरनो कपडे पोटळिंत तुरुकावन मांचयेच्या सकल उडयल्ले अशिल्. ताजे पोनाक एक सोरोप हुंदराक सोदत आशिलो. ताका हातांत धोरुन भायर पाय दवरलो मात, ते वरेक आवळुन बशिली बायम्मा, ' अय्यय्यो.... सरलें हांव.' म्हूण लंगडत भायर धांवली. सोरपाक भायर हाडुन दाखयत आसतना आंथोनी बी आयलो. ताजी भलायकी बरी नाशिल्ली, सोरो पीवन, क्षय पिडेस्त सो दिसतालो. ताका बी सोरप दाखोवुन पोतयेंत घातलें. ते वरेक तांका हांव कोण म्हण कळूंकच ना!

बायम्मालें धुवेंन निरशेणून खुलासो केलो, 'सुमार दीस जाल्ले, हो सोरोप हांगाच भोंवतेर आसा. आज घरा भितर आयलो. पयली आमी सोरपाक मारल्या बगर सोडनाशिलें. हालीं आवयली आनी भावाली भलायकी बरी ना. तें सोरपांक मारिल्याचे कारण म्हणतात हांगचे लोक. आत्त सोरपाक मारचे बंद केला. आमका तो कांय देव न्हंय, सैतान, म्हण मारचो करताली.' ते उतरांक हांवे जाप दिल्ली. 'नागदोष म्हण कसलें ना. तें सगलें घडयलिल्यो काण्यो. तकलीक त्रास कोरुन घेवनाका. पूण, सोरपाक मारप, मनीस कुळाक बऱ्याचे न्हंय. चुक तें' म्हण हांवे तिका, थोडे फार सांगुन समाधान केलें. तें उपरांत हांव बुडुन वयर आयिल्ली बांय पोळोपाक गेलो. झाडां, सुकिलीं पाना पडुन बायम्मा सारके तिवय जाणटी जाल्लेली. तिजी देखरेक नास्तना युग गेल्लेवरी सामकी दिसतांली. हांव खूप बेजार जालो.

'हांव कोण म्हण वळखूना?' म्हण बायम्मालें धुवेक विचारलें. तिणें भुंवय उंचावन प्रस्नार्थक नदरेन पळयलें. 'ना. कोण तुं? कित्याक विचारता?' म्हणली. 'सुमार तीस वरसा आदी, तुमचे बागेंत एक पुंडो लूटी करतालो, याद आसा?' म्हूण मिसकिलपणें हांवे निमगिलें. एक खीण तिचे तोंडार विचित्र भावना येवन गेलें. तशेच तिणें, 'एय मांय...अगे तो आयला...' म्हण अजापान उद्गार काडलो. हांव बायम्मालें प्रतिक्रिया पोळोपाक तिचे

तोंड पळयत रावलो. डोळे ल्हान करुन, पिळिपिळि म्हजे दिकान पोळोवन, हासत नजीक यंवपाची खूण केली तिणें. आनी म्हणली, 'ओहो म्हाराया! कितलो उंच जालारे बाबा! बरें नांव केला मरे तुंवे? आमी तुजे धीटपणाची कामगिरि, टी.वीर पळयतात. तुं म्हण आमका कळुंकचना पळय' म्हणली आनंदाश्चर्यान.

आदलो कोप, राग, द्वेष कांय आताचे बायम्मालें मनांत उरलोना. म्हण हांव तिजे लागी सरलो. 'हांवे त्या वेळां तुमका खूप त्रास दिलो. माफी मागता, म्हजेर दया करा.' म्हण तिजे पाय धरलें. बायम्मान मोगान म्हजे तकलेर हात दवरुन पोरसयत, 'तें सगलें आमी केदनाच विसरल्यात बाबा. कितें करपाचे. तुजें जन्मदाते धड नाशिल्ले लागून तूं तशें वागतालो. पूण तुंवे तुजे जिवित बरबाद केले नारे पुता. तुं बरें काम करत आसा. भो खोशी जाली आमंका. देंव बरें कोरो!' म्हण मोगान सांगलें. तें खिणाक सगल्यांचे मन निर्मल जालें. मोन्नीन दिल्लेली कापी पिवन घरा परत आयलो.

हें प्रकरण जाल्या उपरांत कांय म्हयन्यांत बायम्मा सरली. खबर आयकुन बेजार जालो. पूण रागांन वा द्वेषान तिणे दिल्लेले उग्र शिक्षेक लागुन म्हज्यांत आयिल्ली सहनशीलता अजुन वरेक म्हाका अनेक संकटांत, कष्टाचे दीसांत हात धरुन मुखार व्हरत आ्सा, हें याद केल्यार अजून बायम्मा जिवित आस्स अशें म्हाका दिसता.

# 5. काळींगालो रागाचो बळी

'एक व्हडलो काळिंग सोरोप भांगरा दुकानांत रिगला! बेगीन यो' म्हण अरण्याधिकारीले आफीसा सावन फोन आयलो. पावोसर सांजेची साडे स वरा जाली. आहार सोद्दुन गेल्लेल्या सोरोपाक त्या वाठारांतले सुण्यांन धांवडायले म्हन्नण तो भिवन मुखार दिशिले भांगरा दुकानांत रिगलो. लग्ना सिजन, भांगार घेंवपाक लोकांली गरदी भरलेली. काळ्या नागाक पळयतकीर सगळीं गिरायकां, धनया सांगाता कामगारय हातांतुले भांगर थंय उडवन,जीव हातांत धरुन भायर धांवलीं खंय. पूण मालक बुदवंत, तांणे शटर सकयल ताण्णुन, चोरांक चोरुक संद दिल्लीना. नागाक पळोपाक भायर लोक जमील्ले.

हांवे दुकानाचे शटर वयर कोरुन पळयल्यार सुमार साडेतेरा फुट लांब, फळ फळतलो, थळथळतलो काळोनाग भांगरा आभरणां मदीं बशिलें अजाप दृश्य, 'नाग निधिचो रखवालो' म्हळिल्ले लोकांलो विश्वास, सत् थारायत अस्सा अशें दिसतालें. म्हाका पळयले खिणाक सट्ट करुन तीन फुट हेडो वयर चडोवन राबलो तो! आपणालें आंग सुत्तावन घेवंचे गडबडींत हांगा–थंय पडिल्लीं, गळसरीं, नेकलेस, कांकणां, मुदयो, वज्राच्यो, मोत्यांचो, भांग्रांच्यो

सगळीं ताण्णून घेवन, 'भुस' आवाज करत आमका भेष्टायतालो!

आत्तां तो बी लडायेक तयार जावन वाट पळयतेर बसला, ताका युक्तीन आनी बुदवंतिकायेन धरपाक जाय अशे थारावुन भायर काळोक आशिल्लो म्हूण उजवाडाचो तयारि कोरपाक पयस भीवून उबे राविल्ले मालकाक सांगलें. मानायान[65] भायर 500 मेगा वाटचो बल्ब पेटयलो. आनी हांवे युक्तीन 'ताका' भायर वचपाची वाट केली. तो भायर आयिल्ले खीणाक, धरुन ताका पोतयेंत घातले आनी पोतयेचे तोंड बंद करतना, 'गक' न म्हजे बोटाक घास घातलो तांणें! बोटां सावन रगत भायर व्हांवले. विख आंगांत वत्तले म्हूण हांवे बोट पीळून, दाबून रगत भायर काडले, तोंडान बी रगत चीवन काडुन उडयले. पूण घोट भरपाक थंय तक्षण उदक मेळ्ळेना. म्हुण उगी रावलो. तशें कांय अपाय नासलो. तोंडा थावन गुदद्वारा पर्यंत कुडींक[66] कसलोय घाय, रक्तस्राव नाजाल्यार भीतर गेल्ले वीखांतले पौष्टीक अंशा कारणान, आपोआप जीर्ण जाता, हें पोटसरो तज्ञ आनी म्हजे स्वानुभवान म्हाका खबर आशिल्ली. तरी पूण वीख भीतर गेल्यार मरण खंडित. म्हाका जींवा भंय दिसपा लागले. दुसरो खंच्याय वीखारी सोरोपान चावल्यार ताका वकद आसा, पूण काळींगान चावल्यार भारतांत जायतशे वकद मेळना. देशाचे कोन्यांत खंयी मेळची शक्यताय असल्यार बी वाट पोळोपाक वेळ आसना. तो पर्यंत चावुन घेतिल्लो मरण पांवचो खंडित. भारतांत काळींगान चाबचे विरळ त्या निमतान वकदा कंपनी आनी सरकारांन प्रतिवीश तयार करपाक विचार केल्लेना अशें एक तज्ञालें मत आशिल्ले. म्हळ्यार, हांका शंबर आनी जास्त लोकांन मेल्यारच हांचो फायदो जाता अशें दिसता! आतां चावुन घेतिल्याले नशीब म्हणका पडटा!

मनशांक काळींगा पसून वांचोवपाकच ताका धरुक गेल्ले लोक, काळींग सोरपान चावुन मरण पाविल्ले जास्त आस्सत! राना-वनाचे अशि-

---

65. मानाय - हमाल, कामाचो

66. कुडी - शरीर

कुशीक रावतल्यांक काळींगान चाविल्लो पुरावो कमीच. तांनें चावचो मनांत केल्यार ताजे दोनी ग्रंथी थावन सुमार 7-8 मिली लीटर वीख एकाच फावटी चाविल्याले आगांत वचपाची शक्यताय आस्सा. एका काळींगाचे विषाक एक हस्ती आनी पांच-स मनशांले जीव घेंवचे शक्ति आसतना, एकच मनशालें आगांत इतलें वीष गेल्यार तो कितलो वेळ जीवंत आसु शकता, चडांत चड 20 मिनिटां तें एक वर[67], तें बी ताचे भूंयचें ऋण आशिल्ले तितलेंच.

हांवे जाग्रतायेन, त्या काळींगाक दुकयनास्तना धरून पोतयेंत घातिल्ले, तरिही म्हजे हातान, कितें प्रमाद जाल्लो कळ्ळूंकच ना. म्हजे जीवार आयलें मुं अशे दिसपाक लागलें. 2004 पसून हांवे आता पर्यंत 54 काळींगाक धरुन राखण केल्ली आस्सा. पूण आता असो पयलीच फावटी ताजो डंख सोसका पडलें म्हाका!

म्हाका फोन करन आफोवन हाडिल्लो तो खूप भियेल्लो आशिल्लो. 'तुका कांय जांवचे ना, घाबरूंनाका' म्हण हेब्रिचे डा. ऐताळालें दवाखान्याक घेवन गेलो. पूण दात्तोरान ह्या सोरोपाल्या चावपाक वखद ना आनी मणिपालाक व्हरचे बरें अशें सल्लो दिलो. वीखाचे परिणाम चड जांवचेन्हंय म्हण एक स्टेरोयड् (steroid) इंजेक्षन दिले तांणे. तें खिणाक जीपी भितर दवरिल्ले काळींगाची याद आयली. पोतयेंत घुसमट जावन ताका त्रास जायना मुं असो म्हाका दुबाव आयलो. म्हजे बरोबरीन आयिल्या अरण्याधिकारिचे शिपायांक ताका रानांत सोडुन यो म्हण सांगल्यार, तांणे भिवन नाकार दिलो! दुसरो उपाय ना म्हण जीपीचे चालकाक आगुंबे घाटार वचपाक सांगले, थंचे सोमेश्वर रानांत ताका सोडु पर्यंत रातीचे आट वाजिल्ले. एका खीणाक जीवाक भंय दिस्तालें, आनी दुसरे खीणाक बिनधास्त आसलो हांव.

मदींत म्हाका राक्षसी भूक लागली. कांय सुचना शें जालें. सोरोपान चाविल्यान चिकित्सा जांवू वरेक खांवचे, पींवचे करुनां, केल्यार रगता संचारान वीख आंगांत वेगान वचून प्राणांतीक जाता म्हूण खबर आशिल्ले, तरीही भूकेर मात करपा जाल्लेना. थंयच आशिल्ले कोंकणी क्यांटीनांत दोसा,

---

67. वर - तास, घंटो

कांद्या भजी, गोळी भजी भरपूर खावन हून चा पीवन परतून जीपींत बसलो तेन्ना हांवे 'म्हाका घरा सोड, अपरात्री त्रास जाल्यार कुशीक आसले आसत्रेक वता' म्हण सांगलें. पूण अरण्य खात्यातल्यान वाट्टेर दोन प्रति- वीषाच्च्यो बाटल्यो आनी 500 रूपयो म्हजे बोल्सांत[68] रिगवून, घरा सोडुन गेल्ले.

घरा पावतना धा वरां जावन गेल्ली. दरवट्यार म्हजी बायल युद्ध जिंकूक गेल्ले वीर बामणाली वीरांगनाशी वाट पळयतेर राबिल्ली. प्रती फावटी काळिंग सोरोपाचे बचावाक हांवे वत्तना देवाक तुपाचो दीवो लावन प्रार्थना करन, कांय उल्लयनास्तना नीरोप दिंवची तीची सवय. आत्ता बी तशेच उभी आशिल्ली. म्हजे मनाक हाचो खूप त्रास जात्ता. ह्या कामा थावन सुटका कशी आनी केदना मेळतली अशें विचार म्हजे तकलेर कायम आसता.

उल्लयनास्तना घरा भीतर गेल्लो, थंड उदकान न्हालो. मनांत विचार आयलो की हे न्हाण म्हजे जीवितातले आखेरचें की कितें? न्हावुन भायर आयलो आनी टि. वी. मुखार बसलो. तकलींत काळींग विचित्रपणे उडुन,नाचून भेष्टायत आशिल्लो. टी.वीर नदर फिरांवचाक प्रयत्न करत रावलो. हांव अशें गप उल्लयनास्तना बशिल्लो पोळोवन बायलेक संशय आयलो. लागी बैसून तकलेर हात फिरायत, मोवाळपणांन, 'तुमी कित्याक अशी बसल्यांत? कितें जाल्ले? कसलो दुबाव आसा ? सांगा' विचारलें.

'कसलेंय ना गो बाय आज थकला हांव म्हूण गप् आसलो' म्हणले हांवे. तिका समाधान जाल्ले ना. जेवणाक आफयलें. उबरलो की हात पाय थरथरुंक लागलें. जेवलो. पूण स्वास घेंवपाक त्रास जात्तालो. सेपुटाक उजो लागिल्ले माजरा सारको हांव हांगा-थंय चांटे मारपा लागलो. आत्ता म्हजे बायलेक कळुन चुकलें की कांयतरी बोवाळ[69] आसा म्हण.

भायर म्हजी 1985 मॉडेल लेम्ब्रेट्टा रीक्षा उबी अशिल्ली दिसली. खीणाक एकाच किक्केन चालु केली. म्हजी बायल, 'कितें जाल्ले, ह्या रात्ती खंय वत्ता?' अशें भिवन किंचाळ्ळी. हांव, 'घाबरु नाका, काळींगालो दांत लागून

---

68. बोल्स - खिसो

69. बोवाळ - गडबड

कुडींत थोडे विष गेला अशें म्हाका जाणीव जाता. तुं भितलें म्हण हांवे सांगलेना. यो बैस' म्हणले. ती धांवत भीतर वचून निदांत आशिल्या भुरग्याक घेवन कुशीक आशिल्ले म्हजे भावा थंय सोडुन येवन, रिक्षांत बसली. तीची अवस्था पोळोवन म्हजे मनाक खूप त्रास जाल्लो. ह्या म्हज्या छंदा कारणान घरचांक कितले भोगका पडटा अशें चिंतलें. म्हजी गाडी आस्पत्रेचे वाटेर धांवत आशिल्ली सदा प्रमाणे 30-40 किलोमीटर जोरायेर.वाटेर दोन-तीन फावटी विष चडिल्लो अणभव जात्तालो, पूण अदीं- मदीं राबवुन बी धा मिनिटांत आस्पत्रेक पावलो.

दाक्तोरान म्हाका परतून पोळोवन, 'आजी तुका खंचो सोरोपान उमो घेतलो' म्हण मस्करी केली आनी आय.सी.यूंत चिकित्सेक व्हेलें. 'काळींग सोरोपान' म्हणतकीर ताचे तोंडार एका खीणाक चिंतेची लकीर येवन गेली. 'काळींगाक वखद नामु? कितें कोरपाचे' म्हणचा लागलो. 'दुसरे सोरोपांक दिंवचेच दी, उपेगी पडल्यार वांचतलो, ना जाल्यार ना' म्हूण जाप दिल्लो हांवे. 'जायत पोळोवया' म्हण कौतुकायेन म्हजे दीकेन पोळोवन दाक्तोरान उपचार सुरु केल्ले.

सुमार एका वरा नंतर ल्हवु ल्हवू दोळे भिरभिरचा लागले. सुसकारो काडपाक त्रास जालो. हात-पाय थरथरपाक लागले. प्राणवायु दिंवपाक लागलीं. म्हजे कुडीचे मुखेल अंगांत विशाचो परिणाम कमी करपाक चोविस वरांत 80 मिलिलीटर प्रतिविष दिवन तीन दीसांत हांव बरो जालो!

ही घडणूक हांवे गंभीरतायेन घेतले ना. ही म्हजी चुक थरली. हाजे पयली, रोखडोच चावल्यार बी अस्पत्रेंत उपचार घेत्तालो, म्हाका ताजो वाज आयिल्लो. सूय तोप्पिल्ले वरी नेटान काळींगाचो दांत तोप्पुन वीख थोडे प्रमाणांत म्हजे कुडीत गेले, म्हजे निशकाळजीपणान चूक जाली. पूण म्हजे नशीब बरे आशिल्ले म्हण हांव वांचलो. ताबडतोब उपचार घेतिल्ले जाल्यार इतले जास्त प्रतिविष घेंवची गरज नाशिल्ली. पुण ह्या घडणूकेन म्हाका कितले थेंब वीख मरणांतीक जाता ह्याची जाणीव जाली. तशेंच वेळेचे भान साध्य करून घेंवचें गुपीत, म्हजो 'नवीन जीवनानुभव' जावन म्हजे छंदाक जास्तीची स्फूर्ती मेळ्ळे म्हणपाक हरकतना.

# 6. जीणेंत जाणविकाय हाडपी नाग डंख!

मनशाक जन्म कित्याक, जिवित कित्याक, मरण कित्याक येत्ता? ह्या सगल्यांचो अर्थु कसलो, हाका उत्तर आस्सा? मरणालागीं पावतनाचो, अणभव कसो आसतलो? मरणा उपरांत आमचें कितें जात्ता? खंय वत्तात, कोण सांगु शकता? हे संबंधि उलोवपाक जाय जाल्यार मेल्लेलो परतून येंवपाक जाय! मरत मरत अणभवलेलें मरण कसलें आसता? आनी मरणा उपरांत त्या, 'लोकां'चि स्थिति, अणभव कितें आसता, ह्या संबंदी माहिती जाणुन घेवपाचे जाल्यार, देवान पुनर्जन्म दित्तना, ताचे मेंदुंत तो अणभव दाखल करपाची संदी, दिवका जाय. पूण, सद्याक तो अणभव मेळचो, आमचे आत्ताचे सामाजिक, सांसारिक जिवितांत असाध्य. तरी पूण, तसले विचारांचेर नितळ स्पष्ट उजवाड घालचे विशींच्यो, घडणूको, ह्याच समाजांत कित्येकांले जिवितांत घडील्यो आस्सत.

वादळ, चंड मारुत वा उज्याचो जाळ आनी वेदना भोगिलो आनी तांतल्यान भायर पडिल्लो अणभव कसो आस्तलो, जीव अकस्मात मृत्युक स्पर्श करून, ताका पोटलून घेवपाक वत्ता, पूण मरण म्हळिले सत, ते जीवाक स्वीकार करना आनी ताका परतून मृत्यु लोकांत धाडता. तेन्ना वांचून

उरलेल्यालें 'दुखणे', त्रास, हताशपण थोडें फावटी, मरणा पेक्षा भयानक आसु शकता. असले विलक्षण अणभव घेत्तिले जींवाक, परतून जीवन चलोवपाचे जाल्यार, आपणाक जाल्लिले अनुभूतीक, सकारात्मक जावन स्वीकार करपाक जाय. तेन्नाच तो विशेष अणभव, त्या जीवाक वाडयता, आनी ते वरेक अज्ञानाचे पांगरूण, उजवाडाक येता. हें सत् म्हजे जीवनांत बी घडलें.

2000 वर्सांत घडिल्ली घटना ही. तारीख, म्हयनों याद ना. रति विलासाचे सुखाक आतुर जावन, केन्ना, मन उन्माद स्थितिंत येत्ता, ते खीणांत बाकीचे कशे गौण जात्ता, तेच प्रमाणें, अंतरंग वाटून घेंवपाचो विचित्र कीडो म्हजे मनांत वाडत गेल्लो.

हो अणभव घेंवचे वेळार, सोरप म्हळिले अपूर्व पोटसऱ्यांले सहवासांत सुमार बारा वरसां काम करत आशिल्लो. त्या लांब काळांत, विषारी सोरपानी म्हाका खूपदा चाविल्ले आस्स. पूण, आत्तां हांव जे सांगपाचे आस्स, तो अदभूत अणभव, तें सगलें चाबवणूकीं परस वेगळो आशिल्लो. तांची तुलना केल्यार तें सगलें फिके, दम नाशिल्ली चाबणूक अशें म्हाका दिसता !

सोरप धरचे, तांचे संरक्षण कोरपाचे, लोकांलें भय निवारण करचे ह्या कामाचो जोर वाडत गेल्लो. तसोच, प्रचार बी वाडलो. म्हजो गांव, लांबलांबचे नगर, ग्राम, खेड्यांतून बी सोरपाक धंरुक आपयतालें. स्थानिक नेमाळीं, टीवी माध्यम, म्हजे कामा संबंदी निरंतर खबऱ्यो प्रसारीत करताल्यो. त्या काळांत अजाप दिसचे म्हळ्यार, म्हजे खातीरच, सोरोपालीं संतानोत्पत्ति जात्त आस्स, अशें, तरकवार सोरोप, निरंतर, घरांत, मठांत, गोठ्यांत, देवळांत, डेऱ्यांत शिरून, म्हजे स्पर्शाचीच आतूरतायेन, वाट पळयताले अशें म्हाका रात्रंदीवस आपोवणीं येंवपाक लागलीं. त्या काळांत हांव रिक्षा चलयतालो. सोरप धरचो छंद पत्करल्या पसून रिक्षा चलवपाचें काम दुस्तर जाल्लें. दीसाचे चोवीस वरा लोकांक हैराण करतलें पोटसऱ्याले शोधांत म्हजे दीस तन्मयतेन सरताले. पूण, ह्या सगल्याक एक फावटी, तात्कालीक विराम मेळपाची, विलक्षण संद घडुन येत्तली अशें कोणें येवजलिलें?

तो दीस अमासेचो आशिल्लो. 'त्या दीसाक सोरपान चाब्बु नज्ज, चावल्यार मरण खात्रीन' असो समज आसा. पूण चाब्बून घेतिल्यालें ऋण

त्या दीसाक सोंपिले आसल्यार, अमास, पूर्णिमा थांबोवपा जात्ता कितें? त्या खातीर तसलें दीस शुभ की अशुभ असो विश्वास दवरचो, वा विचार कोरपाचो स्वभाव म्हजो न्हंय. 'वर्तमानांतूच भविष्य लिपला' हाची जाणविकाय आयल्या पसून, म्हका सगलें दीस शुभच दिसतात. त्या दीसा, सकाळी स वरांचेर, घरा भायर पडिल्लो, काळोक जावो सर तरेकवार, सोळा सोरपांक धरुन पुरो जाल्लें. स सोरपांत, तीन चुकून खोल बांयेंत पडलेले, भुकेल्ले उर्वरीत तीन, घरां माळ्येर चडुन, हुंदिरांले शिकार कोरचांत आशिल्ले. त्या खातीर, त्या दीस, तीन बांयेंत देवन, चडुन, तीन माळ्यर चडुन, देंवुन, सुस्त जावन, सांजवेळाक, म्हजो जीव अर्ध जाल्लिलो. त्या वेळाक, परिस्थिति अशीं आशिल्ली की, 'आतां देवान येवन आपयल्यार बी हांव वच्चोना' तितले म्हजे मन आनी आंग थक्किलें. स्वस्थ निदचे ह्या विचारान घरा आयलो.

हें विचित्र कार्यावळिंत खूप म्हयन्या सावन, फुरसत नास्तना काम करत आशिल्लो. इतलो की, हो छंद आत्ता पुरो, थोडो काळ, कोणाल्या, हात्तां मेळनाशीं पयस वचका, अ्सो वाज[70] आयिल्लो. रांत्रदीस येंवचे आपोवणेक खंचेय स्थितित थंय धांवप, थरांवरी सोरोप धरप, तांका एकठांय करप, सप्तकांतल्यान एक फावटी, एकल्यानेच दूरच्या रांनांत, दाट अरण्यांत तांका सोडतना दिसपी भंय आनी धास्तिचे वर्णन करपाक साध्य ना. तितलेच न्हंय तर वाहना पोंदा चिड्डुलेले सुणीं, मुंगूस, मांजर, वा पक्ष्यांले चाबणूकिन, विषारी सोरप म्हण फाटी-फुडे पळयनास्तना, लोकानी मारून अर्ध जीव केल्लेल्या मुग्ध जीवांक, वाचोपाक वा ताज्जेर मोग्गान न्हंय, नाग दोषा भंयेन हाडुन दिल्यार, म्हाका तांची शुश्रुषा कोरपाकच पडटालीं, ती जवाबदारी हांवेच म्हजे तकलेर चडयलेली.

सोरपांले जतन करतना, तांणे चावल्यार कितें कोरचे? एका बाजून जीवा भंय, दूसरे बाजून तें भंय पयस कोरून, धीटपणांन, एकाग्रतेन तांका धरून उपचार करतना, सोरोप बी भीवून म्हजे हातांतूल्यान निसटून् वचपाक धडपडतना, म्हज्या आंग, हात, पाय तोंडार मलमूत्रांचे विसर्जन करुन

---

70. वाज - बेजार

अळशीक पातळावन म्हजे काम आनी कष्टाचे जात्तालें. नित्तळतायेन तांचे उपचार कोरपाक लागताले. खूप वेळा चावून घेंवपाक लागतालें. लोंकाले विचार, वर्तना संभाळका पडटालें. घरांत, समाजांत तांचे धार्मिक विश्वास, म्हजे कामाचेर जांवचीं टीका-टिंगल्, तांचे असमाधान, दुबाव, किरकिरि, सोंवे, आयकून घेंवपा लागताले. केन्नाय, सोरप धरूक आनी तांचे संबंदी माहिति वा जागृति हाडपाक रान खात्याक संपर्क केल्यार, तांचो असहकार, अनुमतिची समस्या, हे सगलें म्हाका, म्हजे छंदा पासून परावृत्त करपाक परतें परतें भाग पाडतालीं. हैराण जाल्लिलें सुप्त मन, 'देवा, थोडे दीस ह्या सगळ्या संकष्टांतूंन मुक्ति दी बाप्पा' म्हूण अदृश्य शक्तीक प्रार्थना करतालें. पूण हें सगलें करकरांतूलांन पयस वचपाक, विसव मेळपाक वाट आस्सा की? कशें? खंय? कांयच सुचनाशिल्लें.

असलें विषघडेर मुखार आयलो एक म्हालगडो, ऑटो चालक, किरिस्तांव मिशनरी. अजाप म्हळ्यार हिंदू परस अती नागभक्त! मिशन् कंपौंडांतलें, मिशन आस्पत्रेचे बांयेर, कचरो पडनाशीं घात्तिले जाळयेर, एक नाग, अर्ध जीव जावन पडिल्लो. ताका सोडोवपाक ताणे खूप त्रास घेतिल्ले. पूण हांवे, 'आज येंवपाक म्हाका बिलकुल साध्य ना, फाल्यार पोळोवया. ताका जीवा भंय ना, काळजी कोरनाका' म्हूण सांगून, सकाळ वरेक ताका कशे वांचून दवरपाचे उपाय सुचयलें. तो पुण्यात्मा! कितलें सांगल्यार आयकूंचे मनस्थितिंत नाशिल्लो. म्हळ्यार शनिदेवांले साडेसातीची वक्रदृष्टि, त्याच्च वेळार म्हजेर पडल्या हें कळून घेंवपाची दिव्यदृष्टी म्हज्जांत नाशिल्ली!

ताजें तोंड बावलें, 'अय्यो देवा....! तो स्वास काडपा जायनाशें घट सुत्तावन घेवन वळवळत आस्स. फाय म्हण सर तो वरचो ना, सोडवपा जाल्यार आजीच वचपा जाय. जायना म्हण नाका. कितलें म्हण आमी पूजा करची नागदेव न्हंय तो?' म्हण मानगुटी आड घालन विनवणी केलीं. तितलें आयकलिलें, सोरोप देव म्हण न्हंय, तांणे मरचे नाका, म्हण वांचवपाक म्हाका वचकाच पडलें. देव कित्याक तें जाळींत पडुन वळवळचे नाटक करता. ताका दूसरें काम ना, की कितें? असले मूर्ख काम करून ताका कितें मेळटा, ताचे आंधळ्या विश्वास आनी भक्तीर राग करत भायेर पडलो.

थंय पावो सर, काळोख जालो. आस्पत्रेचे कोनशाक एक पोरनी बांय आशिल्ली. कांटे, झाडकूट ताज्जेर वाड्डिलें. उजवाडा वेवस्था बी सारकी[71] नाशिल्ली. टॉर्चलायीट घेवन कुशिक आशिल्ले कॅण्टीनातलो एक चलो राविल्लो. एक-दोन, बायलों, कॅण्टीना मालक, ऑटो चालकं, आनी दोन-तीन लोक जमा जाल्लेलो. ते चल्याक, लागी आफोवन, धीर दीवनु टॉर्च धरून उजवाड कसो दाखवपाचो म्हूण सांगून, काम सुरु केलें. पावुण जाळी कातरून जाल्ली. हेड्याक सुत्तायलिलो एक दोर मात सोडवचो आशिल्लो. तेंवय कातरलो. दुखण्यान उग्र जाल्लिलो नाग, पट्टनें, हात्तांतून निसटून व्हडल्यान घूत्कार घातिल्ले खीणाक, चल्लो टॉर्च उडवन किंकारो मारत धावन गेल्लो. अंधकार! तेंच वेळाक म्हजे तळहाताक जोरांयेन चावून धरिलेंवारी जाल्ले. तशेच, कोणतरी टॉर्च घेवन आयलो, उजवाडांत पळयलार सोरप, धांवचे धावंपळींत परतून तो, जाळींत अडकलिलो आनी म्हजे हात घट चावुन धरिल्ले. आघात जालो म्हाका. तितल्यांत शेकडा नव्वद टक्के विख म्हजांत रिगीलें! दूसरे हात्तान चावुन धरिल्ले हात सोडोपाक ताजो मान धरून, प्रयत्न केल्ले, दूसरें उपाय नासतना, पीळूनं, फिरावन, भायरकाडचे गडबडींत ताज्या एक-दोन विषाच्या दांताचे कुडके जावन म्हजे हातांत उरले. ते तीन दिसा उपरांत हात्ताचो घाय धुतले तेन्ना दिसलें. खरे! पूण ते खीणाक, त्या नागाक पोतयेंत घातलें.

आस्पत्रे लागीच आशिल्लो, म्हूण भंयनाशिलें. चारी दिकान चोंयलार, थंय जमलेल्या लोंकांत एक बायलमनीस सोडल्यार, सगलें फरार! गम्मत म्हळ्यार म्हाका आफोवन हाडिलो नाग भक्त सुद्दां! बायलमनशेक म्हाका एकल्याक सोडुन वचपाक मन जायनी, की रस्त्यार, काळकांत ताजेर पाय पडल्यार, पाया पोंदा चिरडयल्यार म्हण भीवन, थंयच फात्तर शी उबी राविल्ली. तिचे तोंडार म्हजे परस दुप्पट कळवळो, भंय दिसतालो. तरिय, तिका लागी आफोवन म्हजे कडेन आशिल्लो कपडो सोरपान चाविल्या म्हजे हात्ताक, दोन बाजूक घट्ट बांदूक सांगलें. सुन्न जावन ती उबी आशिल्ली, पूण कांय वेळांन, इहलोकांत आयली, अस्पृश्याक पळयलेवारी, आपडु

---

71. सारकी - सम

की नाका करत, म्हऱ्यांत आयली. हात्तांत दिलेल्या कपड्यांन, हुम गळयत, बांधले पळे, बांदिले जोराक कपडोच पिंदून दोन तुकडे जाल्ले. बांदचे फंद्यांत पडनाशी, सरसर् आस्पत्रेंचे तुर्त चिकित्सा विभागांत गेलो. तितल्यांत, खंय माय जाल्लिलो नाग भक्त सवकासायेनं फाटल्यान प्रत्यक्ष जावन, सांगाताक आयलो.

सोरपान चाबिल्लें धाच मिनिटांत हांव आयसीयुत भरती जाल्लों. पांच मिनिटांत दोक्तेर, नर्सा, हान्नी चिकित्सा सुरु केल्ली. तें वरेक मांचाक टेकुन अर्ध निदिलो. सोरोप दांव्या बाजुचे तळहात्ताक चाबील्लो लागून विष, काळीजाक वेगिंन पावील्ले. ताज्जी पयली सूचना म्हळ्यार म्हजे हात-पाय थंड जावन थरथरो येंवपाक लागलो. ल्हवूची साबुद्धी शेणपाक[72] लागली. कमी वीज आसल्यार बल्ब कसो पकपक जात्ता, तशें, दोळें थोडे वळान मंद जाल्लें. आनी एदरार आशिलें दोन-दोन दिसचाक लागलें. जीब फुगली, दाट जायत गेली. उतरां बंद जाल्लीं. दोळ्याक दिसचे बंद जाल्ले. आत्ता म्हाका जीवा भंय देक्षून आयलें. पूण थोडो धीर धरुन,हांव लढो दिवपाक म्हाकाच उत्तेजन दीत गेलो.

चिकित्सा सुरु जावन अर्ध वर जाल्ले, तो पर्यंत 100 एम्. एल् प्रतिविष (polyvalent anti snake venom serum) म्हाका दिले. विष आनी प्रति विषाचे प्रतिक्रियेचे भयानक परिणाम जायत आशिल्ले. काळिज घट्ट जाले, स्वास बंद जालो अशे भास जावपाक लागले. जोरान सुस्कारो घेवन तें देहांतूच दवरपाचे व्यर्थ प्रयत्न केले. यमरायाल्या आलिंगनांत बंदी जात्त आस्स अशे भास म्हाका जात्ताले. उलोवणें बंद, उस्वास बंद, तोंड उगडपाक जायना. दोक्तोराक प्रतिविष ड्रिप्सातल्यानच दिंवचे सोडल्यार दुसरो किते उपाय नाशिल्लो. आत्तं मरणाची वाट पळयत उरलो. मरची इच्छा नाशिल्याक, उस्वास बंद करून मारन उडयता असो अणभव जात्तालो. हांतूळानार उडत, वळवळत रावलो, मरण म्हाका ताज्जे वटेन व्हरत आशिल्लें!

हो विशिष्टानुभव धरुन दवरका म्हूण एक, अतीव इच्छा मनांत आयिल्ली, पूण शक्य जालें ना, नाक, तोंड. दोन्नीं वटेन स्वास बंद जावन, हांव तटस्थ

---

72. शेणप - नाच्च जांवचे

जाल्लो. मेंदु बी काम करना जाल्लो. तोंडातल्यान लाळ आनी फेण भायर पडपाक लागलो. म्हजी अंतिम घडी आयली अशें म्हाका दिसपाक लागले. म्हाका पोळोपाक, म्हजी जिवाची विचारपूस कोरपाक, कोण येवन पावतले अशें आकलसान आनी आतुरतायेन मन प्रतीक्षा करपाक लागले. देवाची कृपा! म्हजे परिस्थितीची खबर कळटकच, म्हजो म्हालगडो इष्ठ, बलराम भट्ट, धांवन आयलो. एदरार उबरलिलो तो म्हाका अस्पष्ट दिसतालो. अब्बा! महा समुद्रांत बुड्डिल्याक, एक तण मेळयार कितली खुशि जाता तितली म्हाका जाल्ली 'म्हाका वांचय' म्हणका, पूण म्हजी वाचा गेल्या, हात्तान खूण कोरयां म्हळ्यार हात-पाय दोन्नय, गळुन पडल्यात.

स्वास काडपाक जायनास्तना, वयर-सक्कल तडफडत आशिल्ले म्हाका पळोवन हैराण जाल्लिलो दोक्तेर आनी नर्स म्हाका मांच्यार घट धरून, चिकित्सा दिंवपाक शतप्रयत्न करत आसतना म्हाका नरक यातना जात्ताल्यो. चिकित्सेक अडखळ येत्ता म्हूण, म्हजे बनियन आनी शर्ट कातरून काडले. विषाचे दुष्परिणाम काळीजा पर्यंत पातळले. तशे म्हजे श्वास राबलें. सावकासायेन सैराणा[73] भायर गेलो हांव, आनी गायब जालो अशीं म्हाका जाणीव जात्ता आसतना, प्राण वायु आंगांत आयले असो भास जाल्लो. कृत्रिम श्वासाचो व्यवस्थेचे उपेग केल्लो अशें म्हाका नंतर कळले. तरी सुद्दां, म्हजे आंगांत विषाचो परिमाण जास्त आशिल्लो, स्थिति चिंताजनक जाल्लि आनी हे आस्पत्रेंत प्राणवायु पुरवण करचे आधुनीक उपकरण मेळची शक्यताय नाशिल्ली म्हण मणिपालाचे कस्तूरबा आस्पत्रेक व्हरका म्हण दोक्तेरांन सुचयलें.

'मनशाक मरण लागीं येत्तना, आपण वांचून वरना म्हूण जाणीव जात्तच, जीवंत रावूक केल्लेली धडपड रावयता. कारण ताजो मेंदु, दुकण्याचे अणभव दिंवपाचे रासायनिक द्रव ताबडतोब थांबयता.' अशें वैज्ञानीक लोंकांलो अभिप्राय आसा.

---

73. सैराण - अनियंत्रित, बेशुद्ध

# 7. अर्ध प्रज्ञावस्थेचो अणभव

पयलीचे आस्पत्रेचो आनी आतां मणिपाल आस्पत्र्येचो अद्भुत अणभव म्हजे मतींत पक्को बसला. त्या वेळाक परिस्थिति इतली गंभीर आश्लिली की, 'म्हजे हात-पाय पूर्णपणे सुवाधिनांत नाशिलें, तें लांबत पडिल्ले. दोळ्यां दिष्टि वचून कुड्डें जाल्लिलें. जीब पडून मोनो जाल्लिलो. विषाचे परिणामान सहजपणे जांवची हृदय क्रिया थांबून गेल्ली. कृतक वेवस्थेन प्राणवायु *(oxygen)* दिलो म्हण म्हाका श्वास घेवपाक जाल्लें. पूण तें चालू दवरपाक बलून कायम दाबत रावका पडटालें. ह्या परिस्थितिंत म्हजी कर्णेंद्रिया बरी आयकतालीं. सूय पडल्यार बी आयकूक येत्तालें.

'एंब्युलेन्स्' *(ambulence)* आयली म्हण कोणतरी आवाज दिलो. म्हजी कूड, हाड आनी मांसाचो गुळो जाला असो म्हाका भास जातालो. स्ट्रेचरार (stretcher) घालून एंब्युलेन्सा भितर म्हाका कोणेतरी धुक्कळ्ळे. ह्या धामाधुमिंत बलून् दाबचे रावून गेल्लो, आनी श्वास घेवपाक जायनाशे जाल्ले म्हाका. 'मेलो हांव' असो म्हाका भास जात्तची, कोणी तरी परतून बलून दाबचे चालु दवरले. 'वांचलो रे देवा' अशे म्हाका दिसलें. मुखावयले

आस्पत्रेक पावोसरचो अणभव मात विशेष अणभवाचो आशिल्लो.

रुग्णवाहनांत स्ट्रेचरार निजिल्ले कडेन म्हाका सुशेगादशे, शांतशे दिसलें. ती भावना शब्दांनीं सांगपाक जायनाशीं, त्या वेळाची मनस्थिति कशी आशिल्ली म्हळ्यार, लौकीक जिविताक दिसपाचे कष्ट, दुखः, दुखणे, आनंद, खुशालकाय ह्या सगळ्या सावन मुक्ति मेळ्ळिलो दिव्यानंद हांव अणभवतालो! म्हजे देहांत आशिल्ले.'आत्मा' वा 'हांव' म्हळिलो चेतन, शून्य जांवक नाशिल्ले. कित्याक म्हळ्यार तें स्थितिंत जे घडत आसलें तो दिव्यानंदाचो अणभव समजून घेंवची तांक म्हजे आत्म्याक अजून आशिल्ली. कुडीचे भायर, पूण कुशीक आशिलो 'हांव' तें एक चैतन्यच, तें शून्य जाल्लिले असल्यार म्हाका फुडे जावपाची कसलीय जाणीव जायनाशिल्ली. अजापाची गजाल म्हळ्यार, 'हांव' म्हळिले देहांत आसा, हाची सूचना वा पुरावो दीसनाशिल्ले. कूडींत सक्रून भायर पडला वा कुडींत रावनास्तना, अंतराळांत बी लीन जायनास्तना, हांगाय ना, थंय बी ना असलें विचित्र स्थितिंत आशिल्ले सारके भास जात्ताले. कारण देह म्हळिले देवळांत ताका रावच्याक जायनाशिल्लें. अदृश्य जांवपाक बी ह्या भूयिंचे रीण अजून सोंपुक नासले! आनी एक अजापाची गजाल म्हळ्यार, रुग्ण वाहनांत आस्सून बी, एक वस्तु भीतर आस्सा आनी हांव अंतरिक्षांत तरंगत *(float)* आस्सा असो म्हाका भास जात्तालो.

रुग्ण वाहनांत हळवाय जावन सगल्यो चिंता, दुखणीं, त्रासा सावन भायर आयिल्लो, थंड वाऱ्याच्या आनंदांत अलगद उफेवत[74] आशिल्ल्या सारको भास जात्तालो. असल्या अवर्णनीय आनंदांत आसतना म्हजे देहांतुले काळीज परतून 'गप' राविल्ले अणभव जाल्लो! निवयलिले दिव्या वरी ही विशेष अनुभूति विजून गेली. प्राणवायु खातीर चडफडुक लागलो. त्या वेळाक हांव मणिपाल आस्पत्रेक पाविल्लो. भायर म्हजो देह एंब्युलेनसा साकून भायर

---

74. उफेवत - तरंगत

काडोसर बलून दाबचे बंद जाल्लें. अशे अवस्थेंत खूप वेळ गेलो. अजापाचे सांगचे म्हळ्यार, शक्तिहीन जावन सक्कल पडीले, म्हजे हाताक खंय थावन शक्ति आयली हांव नकळो. प्राणवायुक आतूर जाल्लिलो, अप्रज्ञावस्थेंतलो म्हजोच हात बलून धरुन दाबच्याक लागलो तें थंय आशिल्या कोणाच्या लक्षांत येवन तांणें म्हणटले, 'पळय, पळय, तो अजून शुद्धिंत आसा, कशि बलून दाबता पळय तो.' म्हणत स्वतः दाबच्या लागलो. परतून हांव शांत, प्रशांत भावनेंत बुडलो. अजूनय तसले स्थितिंत आसचाक मन आतूर जात्ता.

आत्ता मणिपाल आस्पत्रेचे आय.सि.युंत म्हाका दाखल केल्लें. तितल्यांत दोन बायलांचे आंत पीळून काडिल्यावरी रडप आयकूंक आयले. एक म्हजी आवय आनी दुसरी बायल. पूण म्हाका तांचे रडप वा दुखः आयकून कांय त्रास जालेना. खंयच्याच भावावेशांत हांव गेलोना. म्हजी विचारपूस कोरपाक म्हजे इष्ट बलराम् भट्ट, आनी म्हजो मेवणो आयले. ताणीं विचारलें, 'दोक्तेर! कशी आस्स ताची कंडिशन? *(condition)* 'ते उतराक दोक्तेरान रागान जाप दिली,' सगळें जाल्ले उपरांत तुमी आस्त्रेक घेवुन येत्तात. ताजी स्थिति, आत्त की मागीर अशी आस्सा. कितें सांगपाक जायना. वांचप खूप कठीण दिसता. इत्लो वेळ दवरून कितें करतालीं तुमी? 'म्हणत भीतर आयलो. ताचे अणभव वा विचार बरोबर आस्तलें, पूण हे कठोर सत्य आयकून मडेशें पडिल्ली म्हजे स्थिति कशी जाल्ली? वेंटिलेटरार *(ventilator)* आशिल्ले म्हजे काळीज बी एकदम थंड पडलें! सोरप चाबल्या बरोबर आयले असल्यार बी हांगा पावोसर म्हजे देह शवविच्छेदनाक *(postmortem)* तयार आसतशिले! तितले प्रमाणाचे विष तें सोरपानं म्हाका मारुन उडोपाकच म्हजे आंगांत घातले आसका! तितलेंय त्या दोक्तेराक कळुना? म्हळ्यार, स्वता मेल्या बगर सर्ग दीसना हेंच खरे!

जगपाची अतीव आशा, आत्म बलान प्राण घट धरून दवरिले म्हजे स्थितिचेर बिलकुल लक्ष दीनास्तना तें वैद्यान जी जाप दिल्ली तीं आयकून, हांव सामको निर्शेलो. दुःख भरून आयले, दोळ्यांथावन उदक व्हावंच्या लागले. पूण त्या वेळार थंय कोणी नाशिल्ले. तांचे समजणी प्रकार हांव

जगता, की मरता ह्या स्थितींत अडचल्लो एक रोगी आशिल्लो. खीणा भरांत विखाच्या वा वखदाच्या प्रभावान, वा दात्तोरांले जापेन जाल्लें आघातान म्हजो विश्वास तुटुन पडलो आनी म्हजी सूद वचपाक लागली. आनी ल्हवु ल्हवु हांव शून्यांत गेलो. 'कोमा' म्हळिले, पाताळांत दुकलून गेलो.

सुमार तीन दीस हांव कोमांत (coma) आशिल्लो. तो एके दनपारा इहलकांत आयलो. जगाचे समजणींत हांव जागो जाल्लो. त्या खीणां पसून म्हजे नरक यातनांक सुरुवात जाली म्हणटल्यार जाता. सोरपालें वीख आनी 280 मिलिलिटर प्रतिविषाचे दुष्परिणामांन सगले कुडीक पक्षघात जाल्लो. एकय अवयव सुवाधीनांत नाशिल्लो. दोळ्यापात हालवपाक जायनाशिल्ली तितलो शक्तिहीन जाल्लो. म्हजे भोवति नर्स आशिल्यो, दोत्तेर येवुन वचुन आसलो, तरि म्हाका भंय दिसतालें. हांव श्वास घेता की जीवंत आसा, हें कोणाचे कशें लक्षांत येना? हालचालनाशिल्ली म्हजी कूड पळोवन हांव जागो आसलो हें दोत्तेराक कळून येना जाल्यार? मरून गेल्ला म्हूण म्हाका प्रेतागारांत *(mortuary)* वा घरचे लोकां ताब्यांत दिल्यार? म्हण भंय दिसपाक लागलें. 'अय्यो देवा! कशे हांव हांका कळवपाचे' तडफडलो हांव.

तितल्यांत दोत्तेर आयलो, ' गुरुराज .... गुरुराज.... कशि आस्सं रें तुं? 'म्हण मांडिर हलको थापटिलें.' 'अब्बा! वांचलो हांव'. हांव जागो आस्स हें तांका कळ्ळे. 'पूण हांव कसो तांका प्रतिक्रिया दाखोवं शकता?' शरीर बी हालवुंचाक जायना मु? .....कितें कोरुं?.... कशे सांगू? म्हूण शेणवून गेल्लो. दोत्तेरानं परतून आफयले, 'गुरुराज .... गुरुराज.....'. आत्त कितें तरी कोरूं जाय. खंचोय एक शरीराचो भाग हालवुंचो प्रयत्न केले. साध्य जाल्लेना! तितल्यांत दोत्तेर परतून गेलो. निराशा आनी दुःख भोरून आयले. खूप वेळा नंतर दोत्तेर वापस आयलो. 'गुरुराज..... उल्लय....बरो आस्स मरे? आत्तं हांवे, म्हजे सगले शक्ति घालून, जोरायिनें जीब, गळो, तकली, हात-पाय हालवपाक खूप प्रयत्न केल्लें. उजवे पायाचे थोर बोट मात किंचित् हालवपांत यशस्वी जाल्लो! तें पोळोवन, दात्तेरान घरच्यांक भीतर आफयले. सुध्द आयला म्हूण खोशीची खबर दिलीं. भीतर येत्तची म्हजी बायल मड्या

सारके दिसचे म्हजे देहाक पोळोवन धोप्पकर्न घालुन घेत्तिल्लोन आवाज, आवयिची किंकाळ सगले सगलें आयकूक येत्तालें. भावु, मेवण्याक भायर घेवून वचपाक सांगिलें हांव जाणतालो. म्हाकाय रडुक येत्त अशिल्ले.

आतां, पुढे जांवचे अणभव, म्हजे भविष्यांत महत्वाची शिकवण दित्तली आनी हो जो म्हजो छंद जिण्याक एक घट्ट बुन्याद घालतली अशें हांवे केदनाय येवजिल्ले ना. दुखणे, निराशा, हताशा, संतोस, आनंद, ह्या सगल्यांचो अणभवाचो खरो अर्थ जिवितांत कसलो आनी ताजी भूमिका कसलीं? हें सगळे एके फावटीकच, पूण थोड्या वेळांत अणभव घेवपाचे जाल्यार कशें आसतलें? ह्या सगळ्यांची जाणविकाय घेंवपाक नंतरचो आस्पत्रेवास म्हाका उपेगी पडलो. जीवनाचे फुडले पावलवाटेर म्हाका भयंकर घडणूक सहन करपाक लागली.

स दीसा उपरांत म्हाका आय्.सी.यूंतलो वार्डांत हाडलो. तो पर्यंत सोरपान चाव्विलो हात सुजून, फुलोन गेल्लो. विषाचे प्रभावान तळहाता थावन कोंपरा मेरेन रगत, मांसखंड सगलें कुसच्च्याक लागिल्ले. अलोपथिक् *(alopathic)* नियमा प्रकार आनी ताका संबंदिसून आशिले वखद दीवन निमांणें घटके पर्यंत, कुसपाक सोडलें. सुमार पंद्रा दीसां उपरांत अनेस्थिशिया दीवन शस्त्र क्रियेन कुशिल्लो भाग काडून उडयलो. एका सप्ताहा उप्रांत ब्यांडेज *(bandage)* सोडयलें. हात पोळोवपाक धैर्य जालेना. भीत भीत प्रयत्न केले. छे! दोळ्यांक काळोंक येंवचे बाकि आसलें! हात्ताची बोटां सकल थावन कोंपरथाय हाड दिस्सोसर कातरून घात्तीलीं. पळयलार होडी[75] सारकें दिसतालो म्हजो उजवो हात. घाबरून हांव तोंड धांपून खूप रडलो, आनी एका फावटी पोळोपाची इत्सा जाल्ली. स्वास घट धरून पळयल्यार, अळशीक दिसलें, होडल्यान किंळांचू अशे म्हाका दिसतालें. पूण कितें कोरपा जाल्लेना. उजवे हाताक कितली हाडं, नरनाडी, स्नायु खंय कितलें आनी खंचे बोटाक खंचो स्नायु जोडल्यात, तें कशें काम करतात हें सगलें थेट म्हाका स्वानुभवान समजून

---

75. होडी - नाव, दोणि

घेंवपाक सारके जाल्लें.

पयली शस्त्रक्रिया जाल्ल्या, दीसा पसुन म्हजे फाटल्यान शनिदशेची कटकट सुरु जाल्ली! दीसाक दोन फावटी कुसून कींवांन भरलेलो भाग आनी घायांतले कुशील्ले रगत भायर काडून नितळ कोरून, ब्यांडेज करका पडटालें. तें दुखणें असाध्य जात्तालें, असहनीय आशिल्लें. ह्या कामाक दोक्तेरा बरोबर दोक्तरि विद्या शिकपाक आयिल्यो विद्यार्थिनी बी येत्ताल्यो. उपरांत दोक्तेर जेन्ना दिश्टिक पडनासलो, तेन्ना, शिकतलीं भुरगींच बेंडेज करतालीं. हाजे एक वर पयली, लोकल अनेस्थेसिया दिवपाक पडटालीं. म्हजे नशिबान, ताणीं येंवचे पयलीच त्या इन्जेक्शनाचो प्रभाव वत्तालो आनी ह्या शिकतल्या भुरग्यांचो गिनिपिग जावन म्हाका भरपूर दुखणे सहन कोरका पडताले. ती वेळ याद केल्यार म्हाका शिंव, शिकार केल्लेले पशु कशे अर्ध खावन, नंतर कायळे, गीधड वयल्यान येवून घाय्यार चोंच मारून खात्त आस्स, अशें भास जात्तालें. रोग्याक कितल्यो यातना जात्ता हाची जाणीव तांका नाशिल्ली. घाय स्वच्छ कोरपाचे वेळाक भीवन दुख सोसपाक जायनाशीं हांव व्हडान किंचाळतालों. हें हांव निवळबरो जाले नंतर म्हजे बायलेन सांगिलें आयकून म्हाका लज दिसतालीं. हो म्हज्या छंदाक लागुन जाल्लेलो भयंकर त्रास, कोणाकच म्हळ्यार शत्रुकय नाका!

ह्या मदीं, घाय नितळ कोरपाक एक अर्ध दोक्तेर आयलो, हिंदी भाषेंत तांणें बरी चौकशी केल्ली, आनी ताच्या सांगात्या बरोबर खबरी मारत म्हजे बेंडेज कातरूंक लागलो. त्या वेळाकच म्हाका दुबाव आयलो कि कितेंतरी भयानक घडचें आस्सा म्हण. पूण कितें उलयनास्तना, दूक खात उगी रावलो. दुसरे खीणाक घायार 'करक' अशे कंवची फुटची तसो आवाज आयलो आनी रक्ताची चिळकांडी उडली. तांणे घायाचे कुशिची मुख्य रक्तनाळ कापून घातिल्ली! म्हाका सुद्द चुकचे एक बाकी आशिल्ले. असह्य जावन, पाखाटे छत पळयत उरलो. अर्ध दोक्तेर भियेलो. विपर्यास म्हळ्यार, ताका, रगत कशे राबवपाचे, वा कसलें वखद दिवपाचे बी जाणीव नाशिल्ली एकदम तो उटावन हांगा-थंय धांवलो, नंतर एके विद्यार्थिनिक, दोक्तेराक आफ्वपाक

सांगुन धाडलें. नशीब म्हजे, दात्तेर कुशिचे वार्डांतूच आशिल्लो, बेगीन आयलों. इन्जेक्शनाची (injection) धाकटी बाटली भेतून तांतूलें वखद घायार घातलें. थोडे वळानं रगत येंवचे थांबलें. तशे त्या अर्ध दोत्तेराक भेष्टावणी घालून तो भायर गेलो. दुसरें दीसा पसून तो अर्धकुटो दोत्तर नदरे आड गेलो. परतून आयलो ना!

ताज्जे उपरांत एक दोत्तेरीण बाय आनी नर्स, घाय नितळ कोरपाक येंवच्या लागल्यो. त्या दीसा पसून म्हजे व्हड व्हडान किंचाळचे थांबून गेले! तांचे कोमल हातान, मृदु स्पर्शांन, मोत्यामणयो सारकी तांची उतरां आयकत, ताणीं बेंडेज कातरून स्वच्छ करतना म्हाका बिलकुल दूक जायनाशिली. खरें सांगचे म्हळ्यार, त्या अर्ध दोत्तेरांन रक्त नाळ कापून बरेच केल्ले अशें म्हाका दिसूक लागलें! पूण, त्यो ललना म्हन्यात असू पर्यंत म्हजे बायलेले तोंड रागान भुस भुस जात्तालें. तान्नी वचुगेले उपरांत बी ती रागारच आस्ताली. त्या खातीरच म्हाका ती आवडता.

अशें म्हजे एके म्हयन्याच्या नरकवासा उपरांत पुढचे मेटार अग्निपरीक्षा आयली. घायांत नवीन मांस भरलें. घाय धांपूक अलोपथिक नेमा प्रमाणे चामड्याचे कलम कोरका पडटा. एक फूट लांब, अर्ध फूट रूंद दावे मांडयेचे पेपरा इतलें पातळ चाम, ऑपरेशन कोरून कातरून, हाताचे घायार चिक्टोन शिवयलें. दुसरें दीस दांवो पाय हालवुंचां जायनाशिलो. चामडें काडील्लो भाग जोरायर दुकचा लागलो. यमयातना! निजलें जाग्यारिच मल-मूत्र विसर्जना कोरका म्हूण ताकीत केल्ले. तें म्हाका साध्यनाशिलें. एकाग्रचित्तान लक्ष्य दीत आसलो देकून दुखण्याचो उपशमन कोरपाचो सवय एदोळचाक जाल्ली. म्हूण हांव नर्सालें ताकीत आयकुनास्तना शौचालयाक वचपाचे थारायलें. बायलेलें खांद्यार हात दवरन वचून येवोसर घाय फूटुन रगत भायर येवन बँडेज वले जालें आनी बायल, नर्स, सगल्यांल्या रागाक तोंड दिंवका पडलें!

त्या मदीं, म्हजी आर्थिक परिस्थिति खूप बिगडलीं, त्या संबदी थोडे फार सांगका न्हंय? म्हजी पर्स पयिलीच्या आस्पत्रेंतल्या लोकांनी काडून घेत्तिल्ले नंतर वचून विचारल्यार, मेळ्ळेना म्हूण सांगले. कदाचित, म्हजे

चिकित्सेचो पैसो वजा कोरून घेतला आस्सका. के.एम.सी आस्पत्रेचे बिल 30,000/- रू बलराम भटान आनी मेवण्यान भरलें. पूण फुढले भरपाचे आशिल्लें, तें कशे कोरपाचे? चार सेंट्साचे सरकारी घर विकपाचे म्हळ्यार मंजूर जाल्लिले हक्काचे पत्रांत, एक सेंट म्हण नोंद आशिलें. एक सेंटाचे जाग्यार एक ल्हान शौचालय लेगीत बांदु जायना हे सामान्यज्ञान त्या वेळाचे लोक प्रतिनिधिंक नाशिल्ले ही गजाल कितली हास्यास्पद आसा! ताज्जेर बँक 10,000/- रुपया वयर रीण दींवची शक्यता नाशिल्ली. ताजी आशा सोडली. रावचे घराक गारों घालून दुरस्ति कोरपाक म्हूण इल्लो पैसो पिग्मिंत एकठांय करतालो, तातूंत 30,000/- रू जमा जाल्लें तें काडुन पयल्लें बिल भरलें. नंतरचे बिल कशें भरपाचे म्हूण चिंतेंत पडलो. एका बाजून दैहिक पीडा, दूसरें बाजूक आर्थिक चिंतेन हैराण जाल्लो. वैजिक[76] जतनावेळारच मरण आयल्यार बरें जात्तशीलें अशे म्हणून बेजार कोरपाचो म्हजो स्वभाव न्हंय. संबंदीक पोळोपाक येवन म्हजे वायट छंदा निमतानें स्वताःचे पायार फात्तर घालून घेतलें, अशें स्थिति येवपाक नागदोषच कारण अशें सगलें दुरसोवणीं कोरून वत्तालीं, उपदेश करताली, आरोप करताली. परतून जाप दिंवपाक म्हाका जाय नाशिल्ले, गुन्यांवकारी सो मान उमथी घालून उगी रावतालो. पूण कोणाकय आर्थिक मदत कोरपाचे विचार येनाशिल्लो.

दूसरें बिल् बी आयलें, 20,000/- रू चें. दुसरो उपाय नाशिल्लो. बायलेलें भांगार बी ना, तीजे कडेन आशिल्लें चांदीर बांदलेले मंगळसूत्र. पैशाचो कसो बंदोबस्त कोरपाचो हो एक ताण मनाक बेजार करतालो. म्हाका म्हजे हे स्थितीचेर राग आयलो आनी हांव हताश जालो. मनशालों अहंकार मस्तून काडूक वा प्रारब्द अणभव कोरपाक जिवितांत एकना एक दीस देव म्हळिलो दिव्यशक्ती परिक्षा घेत्ता. असले वायट स्थितिक म्हाका तोंड दिंवपाक लायिल्ले ताजे हे खेळांत हांव पुरायेन हारुन गेलो. तसो हांव मनांपासून प्रार्थना करत, विनम्र जावन विनंती कोरपाक लागलो. दोळे भरून

---

76. वैजिक - वैद्यकीय

येत्तालें, हांवे फक्त प्रार्थना केली. ताका म्हजी विनवणी पावली. एक दीस सकाळचे वेळार तरणाट्यालीं टोळी, म्हज्या इष्ट मित्रालों जमो आयलो. तांची सगल्याचीं नांव सांगपाक कठिण. म्हजी खुशाली विचारपूस करून, नोटांची रास म्हज्या हातार दवरून मनीसपण दाखोवन दिलें. हांव सोरप धरूंक वत्तलो त्या घरचीं, म्हजे गांवचे संघ, संस्था, म्हाका वळखतालें त्या लोंकानी आर्थिक मदत आनी मानसिक धैर्य दीवन मज्जेर खूप उपकार केल्ले. तें खीणा उपरांत, म्हजो त्या करुणामयी शक्तिर पूर्ण विश्वास बसलो.

थोडे दीसांनी हांव बरो जालो, आंगांत शक्ती आयली. चिंता मिटली. करगान गेल्लेलें म्हजे रगत-मांस परतून हाडपाक देह आतूर जाल्लेलो. राक्षसी भूक सदा सर्वदा तोंड उगडून आसतालो. पूण घरच्यांक म्हाका जायशिलें खांवपाक दिंवच्याक भंय दिसतालीं. मांस-नुस्तें खांवचाक निशिद्ध! फक्त शाकाहारी जेवण! तांचो भंय बी सहजिक आशिल्लो, इतलो त्रास घेवन वांचून आसा आत्ता. मांस-नुस्तें खावन घाव सुकना जाल्यार? हो भंय म्हाकाय बी आशिल्लो. पूण म्हाका राक्षसी भूक सोसनाशिल्ली. कारण कुडीतलें 8 किलो मांस, विखान, वखदा विर्सतान आनी चिंता-तणाव ह्या सगल्यांनी गीळून, म्हाका सुस्त करून दवरिल्ले. मरणाचे तुरयेर आशिल्लो हांव सुकुन गेल्लेलो, ताका लागून हांवे दोक्तेरालों सल्लो घेंवपाचे थारायलें. त्या सकाळी दोक्तेराक विचारलें, तेन्ना तो हासून म्हणपाक लागलो, ‘तू कितेंय खावपाक शकता, जें तुका आवडता तें दुप्पेट खा, कांय भीवनाका. बरें कोरून खांव-पीवन आसल्यारच तुं बेगीन बरो जात्तलो.’ म्हाका ताजी जाप आयकून परमानंद जाल्लो. हांव बकासुर सो खारिक, बदाम, काजू चिकन, मटन, माशळी, तांतया, दूध, फळा, भाजी, सगले, सगले पोटा भीतर घालत रावलो. घरचे लोक हांव खात्ता तें पोळोवन अजाप जाल्ले! एक म्हयन्यांत घाय सुकले. डिस्चार्ज *(discharge)* घेवन घरा आयलो. सगलें खर्च फारीक करून बी पर्सांत 30,000/- रू आशिल्ले. ऑटो चलवपाक स म्हयने लागले. तो वरेक म्हजे हितचिंतकानी दिल्लेलो पैसो उपेगाक आयलो.

# 8. नुस्तेमारांनू.....
# दर्या–सोरोपां पासून खबरदार !

फेब्रुवरिच्या पयल्या सप्तकांत, नुस्तेमाऱ्यांक[77] नुस्तें पागोंवच्याक[78] बरो वेळ आयिल्लो. तांचे पैकी एक पंगड, व्हडीं घेवन, नुस्तें सोदपाक 200–300 कि.मि पयस दर्यांत गेल्ले. त्याच वेळेक जोरायेर मोड उठलें. दर्या उदक वयर वयर येंवच्याक लागलें. तुफान येंवची सूचना पोळोवन नुस्तेमारांक समाधान आनी खोशीच खोशी जाल्ली! असल्या विशेष वातावरणांत मात, दर्याच्या खोल खरायेक[79] थावन तरेकवार नुस्तें वयर भोंवतना,धावंतना जाळांत अडकून, एके वेळेकूच खारव्यांचे जिविताची चांदी जात्ता. आनी तशेंच जाल्लें बी. भराभर जाळां घालून व्हड्यांत वेगवेगळे नुस्तें भोरचांत सगले गुल्ल आसले. तितल्यांत जीवाचें रान करून, कष्टान केल्लेल्या कामाचें फळ मेळटा म्हणतना एक दुर्घटना घडली! दर्याचे खरायेक थावन हजारों माशळी सांगाता थोडे फार विषारि दर्या–सोरोप बी जाळांत पडटात.

---

77. नुस्तेमार - खारवि, मच्छिमार

78. पागोंवचे - धरचे

79. खोल खरायेक - तळाक, पोदाक

तांतूल्यात एक सोरप, जाळांत अडकून आशिल्लो. तांचे व्हड्यांत आशिल्ले मदीं एके तर्नाट्याक त्या सोरपाची काकुळटी येवन वा जाळ पाड जात्तलें म्हण जाळांत हात घालून ताका सोडोपाक गेलो. पूण पयलीच जखमी जालेल्या त्या जल–सोरपान, तरण्याटाल्या उजव्या हाताक 'गप्' करुन घांस मारलो. तर्नाटो ताका 'अमल'[80] म्हळिलें माशळिन चावला म्हण निर्धास्त आसलो, आनी चावून धरलेलो हात सोडवून घेनास्तना, ताका खेळयत उरलो खंय!

तें विशाल दर्यांत असल्या दुर्घटनांक परिहार सोदचे म्हळ्यार रेगिस्थानांत सावट सोदिल्लेवरि म्हण्येत! विषाचे प्रभावान ल्हवु ल्हवु तो तर्नाटो अस्वस्थ जावन सकल पडलो आनी दोन वरांत त्या व्हड्यांत, समुद्रा मदीं सोंपलो! असल्या विलक्षण घडणूकीन, हेर नुस्तेमारांक तांचे नुस्तें काडचे काम बंद कोरून, माशळि दवरपाचे शीतपेटिंत त्या निर्जीव कुडीक दवरून वापस येंवकां पडले.

ह्या घडणुकीचे उप्रांत पंद्रा एक दीसान, ताजो भाव, हांवे बरयलिलें, 'सोरोप आनी आमी' पुस्तकांत दिलेले दर्या–सोरपाचे चित्र दाखोवन, 'असल्याच, सोरपान ताका चाविल्लें म्हण सांगचा लागलो. तो, नागसर्पा परस धा फावटीन विषारि आसता. कोकें[81] नाकाचो दर्या सोरप आसलो तो. असल्या सोरोपाल्या घासाक भारतांत अजून वरेक वोकद तयार जाल्लेना म्हळ्यार अजाप दीसता न्हय?

असल्यो भयानक घडणूको भारताच्या दुसऱ्या दर्यात बी खूपदा जायत आसतात, पूण, तें कोणाक खबर जायना. दोन–चार दीस, दुकांचे खबऱ्यो उलोपाचे जावन, मागीर थंड जात्ता. हाजे कारण, नुस्तेमारांक दर्या–सोरोपाचे संबंदी माहिती वा गिन्यान नसता. त्या खातिर, अपरूपाक जांवचे दुर्घटणा हीं, कितें कोरपा जायना अशें म्हण उदासीन रावप सदांचे जाता.

भारताचे पश्चिम् दर्या–किनाऱ्यार विस्तारलेलें अरबी समुद्रांत सुमार 21 विंगविंगड प्रकाराचे पोटसरें सोरोप सोदून काडल्यात आनी ते सगलें विषारी

---

80. अमल – एक प्रकारचो दोर्या सोरोप, चावल्यार थोडे वेळ अमल येता खंय.

81. कोकें – Hook nosed sea snake

म्हूण खात्री जाल्या. हांतूल्या, खूबशा सोरपांले विषाक भारतांत वोकद मेळना. असलें बहुतेक प्रकारचे सोरोप दर्याचे खरायेंत रावतांत, आनी क्वचित लोकालें संपर्कांत येंतात तांका लागुन आमका तितलो अपाय ना म्हणयेत. पूण आनी थोडे प्रकारचे दर्या-सोरप समुद्रा किनाऱ्यार थावन शंभर - देडशे मीटर अंतरार रावतात. पावसाडिंत ल्हान व्हडयानीं वत्तल्या खारव्यांच्या जाळांत पडत आसतात.

उडुपी, दक्षिण कन्नडचे करावळी समुद्रांत सुमार चार-पांच नमुन्यांचे दर्या-सोरोप मेळतात. तांतु कोकें नाकाचो दर्या सोरोप, काळे हळदुवे दर्यासोरोप, गिड्डे दर्या सोरोप हे जास्त लोंकालें संपर्कांत येंवचे सोरोप. हांचो आनी बहुतेक दर्या सोरोपांलो स्वभाव चावकुरो आसना. हो खरेंच समाधानाचो विशय. पूण तांका त्रास दिल्यार ते चावतलेंच! जाळ्यांत पडिल्ले हे सोरोप जिवाक भिवन विचित्र नमून्यार वळवळवतात. तें पोळोवन गम्मत् म्हण हातांत धोरून खेळ केल्यार, सोरपान चावचे सहाजीकच. त्या खातीर जीव जोखीमांत घालुन कष्ट काडतले नुस्तेंमांरानी असलें सोरपांले संबंदी जाग्रताय घेंवचे मात नंय, तांचे संबंदीं भरपूर माहिति आनी ग्यान मेळवप गरजेचें आस्सा. मा्सळी काडचे वेळार खंच्याय दर्या-सोरोपान चावल्यार दुर्लक्ष करपाचें ना. चाविलें खीणाक, चाविलें भाग, वयर साधारण घट दोन पट्यो बांदून लागी आशिले आस्पत्रेंत दाखल जावन, भूंयेर आशिल्ले विषारि सर्पांचे डंखाक दिंवचे, प्रति विष घेवन वांचून उरपाक प्रयत्न कोरपाक जाय.

# 9. सर्वजंतु निरामय की सर्व जंतु निर्नाम?

डिसेंबर म्हयनो जावन जानेवरी सुरु जात्तच, कर्नाटकांतले, उडुपि आनी दक्षिण कन्नड जिल्यांत नागाक संबंदित आशिल्ली धार्मिक कार्या जोरायेन सुरु जातात. सप्टेंबरांत चालू आशिल्ले कार्यावळींत भाग घेतिलें नागभक्तांले मनांत एकवटेन विचित्र नमुन्याचो भंय, आतंक, आनी एक वटेन थोडे समाधान, तृप्ति भोगता जाल्यार एक वटेंन जाल्लेली आर्थिक समस्या, हें सगले मनांत विचित्र खेळ करत आसतात. हेच्च वेळार पोटसरें बी संतानोत्पत्ति खातिर हांगा-थंय मेकळे जागे सोदत धांवत आसतात. डिसेंबर आखेर आनी जानेवरीचे सुरुवातीक सोरपांलीं मिलन क्रिया सुरु जाल्यार मार्च ते एप्रिला चे आखेरीक ताणीं तांति घालपाचो काळ. मे तें जून आखेर ही तांतयां भेतून नागा पीलां भायर येंवचो पर्व काळ.

हें वेळाकच ग्रामीण भागांत भूंय सपाट कोरपाचे काम, घरां बांदचे काम बी भर भरान चालु आसता. वर्साच्या पयल्या म्हयन्यांत पोटसऱ्यालें संतानोत्पत्तिची बी वेळ आशिल्यान ते हांगा-थंय धांवपळ करत आसतात. ताकां पोळोवन लोकांचें मनांत जीवाभंय, बहुतेकांत नागदोषाचे भंय बी घर

कोरून बशिल्ले आसता. पूण आमीं सोरपांचे नदरेंतल्यान विचार केल्यार, तांका बी मनीसांलें भंय जास्त, तांतया घालून जायनाफुडे तान्नी भेतून भायर येवू पर्यंत मनीस, पशु, पक्षी, हांचे पसून पयस वचून सर्पिणिक तांची राखण कोरची पडता. रान, वन खंचेय मनीसांलें वयवाटे भायर ना, म्हूण वयर सांगिल्ले प्रमाण, भूंय सपाट करतना, वा घर बांधणिचे काम चलतना, सोरपानिं थंय दवरिल्ले तांति, वा पिलां लोंकालें पायां सकयल, वा वाहनाचे चक्रा सकयल शिरकून विबाड जांवची गजाल सदांची आसता. अशीं नाश जाल्या नागभ्रूणांक सद्गति दिंवची विधि-विधान आमच्या समाजांत भरपूर आ्सत आनी लोक ते पाळतात बी. उरलेंलें तांतिं, भेतून पिलं जावन भायर भोंवतना तांचे बी वांचून उरचे कठीण जाता.

प्रकृति, आपणाले सृष्टींतलें जीवराशिंचे संरक्षणाचे दिष्टिन समानताय राखून दवरपाचे प्रयत्न करत आसता. मनीस मात फक्त स्वतःच्या स्वार्था खातिर, जीवावळीचो ध्वंस करचांत बुदवंतकाय खर्च करत आस्स. सकल दि्ल्ली घडणूक ताज्जी दख जातली.

उडुपिचे दर्या वेळेर घडिल्लो प्रसंग हो. हांगचो एका मोगविर तरणाट्यान[92] पाडपळिळले शेत विकत घेवन, थंय घर बांदचे थारयलें. म्हूण तो, कुशिचे देवळातल्या भटाक मेंळुक गेलो. हो भट, नागाराधने संबंदि खूप काम करून ह्या प्रदेशांत नामांकित आशिलो. थंय वचून तांणे आपले मनोकामने विशी सांगून भटाक 'प्रश्न' घातलो. भटानं थोडे भोव पूजाविधि ताजे कडेन करून घेतले. ताजे जाग्यार वचून थंय नाग संचार, वा नाग संतति वगैरे कांय ना म्हण खात्रि करून दिली. ताजे जागो बारकायेन पळयलो. थंय एक बांय आशिली. ताजे कुशिक ताका एक बीळ दिसलें. भटान तेच खीणाक दोन कळसो भर उदक ताज्जेर घालन, दोळे बंद करून मंत्र म्हळें. हे जाग्यार कांय नागाचे चमकण वा ताजे संतति बिलकुल ना. तुंवे काम सुरु कोरूक हरकत ना म्हूण सूचवुन, तो गेलो.

---

92. तरणाटो - तरनी प्रायेचो, युवक

भटालें उतरांन खोशी जावन, तरण्याट्यान बांदकामाक सुरुवात केली. विपर्यास म्हळ्यार, बिळा कुशिक खणतना, थंय थावन एक सोरप 'सर्र' कर्न आवाज करत भायर पडलो! भियेल्या, तरण्याट्यान बिळ खणूक सांगलें, पळयता कितें? एक सप्तका आदी दवरिल्ली पंद्रा तांतयां बिळां भायर येवन पड्डिल्लीं! ह्या घडणुकेन तो तरणाटो काचाबुल[93] जालो. नाग दोषाच्या भंयान कोणकोणाक विचारून अखेरेक म्हाका फोन लायलो.

हांव थंय वचोसर, ताजे तोंड, मिठांत घातिल्ले, आमले सारकें सुकून गेल्लें. ताचे पयली सांतवन करून, तांतयांची परिक्षा केल्यार तीं नागाचीच आशिल्लीं म्हण खात्री जाली. म्हजी उतरां आयकूनं तो, 'अय्यय्यो!... तें कशें साध्य? काम सुरुवात करचे पयलीच हांव प्रश्न घालून विचारलेलें. भटान म्हाका सांगिल्ले, सोरपालो खंचोय भंय ना म्हुण. हीं सोरपालीं तांतया आस्सूच शक्कना, तू सारखे परतून पळय.' म्हणच्या लागलो.

असल्या अंधविस्वासा्ंत बुडुन आशिल्या सादारण लोकांच्या सहवासांत आशिल्यान म्हाका ताजे मनस्थिति ची जाणवीकाय जाल्ली, म्हणून हांवे ताका, हीं नागाचीच तांतया, शंभर टक्के खरें. ...आतां तुजो संशय दूर कोरपाक जाल्यार, तांका अडेची उबसाण[94] दींवन, तांतुतल्यान सोरपा पिलां भायर आयले उपरांत तुका खात्रि पटतली, की तीं नागाचीच पीला म्हूण हांवे जाप दिल्ली. त्या बरोबर तो गडबडलो, 'तशे न्हंय, पूण काल, बिळा मुखार उबे रावून मंत्र म्हणून, गंध कुंकुम बिळांत फापुडन काम सुरु कोरपाक ताणेच सांगले मूं? हाचो अर्थ कसलो?' अशें हांवच भट्ट समजून तो रागान उलयलो.

'हो प्रश्न तूं त्या भटाकच विचार. ह्या खीणाकच ताका फोन कर, वा हांगा आफोवन घे, पोळवंदी ताका ही भानगड. मागिर तो कितें जाप दितां आमीं पळोवया.' म्हणलें हांवे. पूण तो तरणाटो शेणावन उगि रावलो. आनी जास्त उलयनास्तना हांवें तांतयाक एकठांय करुन तांका अडेची उबसाण दिवंपाक दवरलीं.

93. काचांबुल - गोंदळिलो, चिंतित

94. अडेची उबसाण - कृत्रिम हुनसाण

असलीं वायट घटना घडचें अपरूप न्हंय. प्रतिवर्स एप्रिल ते मे अखेर पर्यंत खंयना खंयतरी अशें घडत आसता. हें वर्सांत हांवे असल्यो तीन घडणूको पळयल्यो. तांतूले एक नागपात्रिन[95] सांगिल्लें तशें कोरून बी नागालीं आट तांतयां नाश जाल्लीं. आनी एक कडेन हाराली(हेब्बाव) एकवीस तांतयां लिबाड जाल्लीं. हाका जापसालदार[96] कोण?

जायत्या वर्सा सावन असले विलक्षण प्रसंग हांव पळयत आशिल्लो, धर्माचरण करपी व्यक्तींक, थंचे बिळांत खंचो सोरप आसता वा त्या जाग्यार सोरप आस्स की ना कशें कळुन येता? एक वेळाक तांका दिव्य ज्ञान आसल्यार बी वयर सांगिल्ली भयानक घडणूक जांवचाक तरी कशी दितात? म्हाका पडिल्लो हो एक यक्ष प्रश्न जावन आसा.

आमच्या धर्मांतले धार्मिक आचरण करपी फुडाऱ्यानी स्वतःची महत्वाकांक्षा आनी पैशाची हांव सोडुन दिवपाक जाय आनी ताजे बदलाक, आमच्या समाजाची जतनाय आनी स्वास्थ्य संबाळपाक हातभार लावप चड गरजेचें आसा. ताणी तांच्या भोंवतणाच्या परिसराच्या नितळसाणेची जतनाय घेतल्यार बी खूब बरें जातलें! असल्या लोकांनी उण्यांत उणें,तांच्या वृत्तिंक वा वेवसायाक संबंदित आशिल्या पोटसऱ्या वा जनावराच्या संबंदात तरी जायती म्हायती जाणून घेवप बी तितलेच गरजेचें आसा.

आतां सांगचें म्हळ्यार, त्या मोगवीर[97] तरणाट्याले जाग्यार मेळिळलीं पंद्रा तांतया पन्नास दीसानीं भेतून तांतूतल्यान निरोगी पिलां भायर पडलीं. आनी पांच दीसां उपरांत तांचे कुडीचो पयलो पदर मेकळप जाल्लें खीणाक, हांव तांका घेवन पयस आशिल्या पश्चिम घाटार सोडून आयलो. तो खर्च त्या तरणाट्यान केलो, कारण ताका नागदोशाचो भंय निवारण कोरचो आशिल्लो.

---

95. नागपत्रि - नाग पुजा करतलो भट

96. जापसालदार - जवाबदार

97. मोगविर - मंगळूरचे नुस्ते धरतल्यांचो एक पंगड

# 10. सोरपाचे चावप दुर्लभ चिकित्सा

पावसाडी सुरुवात धर्न अखेर वरेक, सोरपा पिलांची जनन, तांची धांवपळ, जास्त आसता हे विशी हाजे पयली सांगिल्ले आसा. त्या काळांत, भूंयेर पाय तेकलें की ह्या दुर्बल पिलांक भोंवतणी जीणेखातीर शत्रुंकडे कशें झूजका पडटा आनी अस्थिर जीवित सोसका लागता, हें लागी सावन पळयल्यारच कळून येता. जास्त करून मनीसूच ताचो व्हडलो शत्रु! पायां सकल आयल्यार चुकुन मस्तपी वा भंयान मारुन घालप हें सोरपांक, जन्माकच लागिल्लो शाप! सैमान तांचे जीवित मनीसांल्या जीण्याचे आस-पासच विणला हाची कारणां आसु शकतात.

आमकां लागून व्हडल्या सोरपांक वरस भर त्रास जाता, तशेच तांचे कडल्यान बी मनीस चावुन घेत आसता. चड जावन, मे, ते अगस्ट महिन्या वरेक ल्हान पिला कडेन चावून घेवन आस्पत्रेक येरझारी करपाक लागता. पूण असल्या अकस्मात जांवचे घडणूकेचो आमच्यो ह्यो वैजकी संस्था कसो दुरुपयोग करुन घेतात हे संबंदी आमी गंभीरतायेन विचार कोरपाक जाय. आनी ताजें पयलीं, ह्याच जून 2016त घडून आयिल्ली दुखेस्त घडणूक

लक्षांत घेवपाक बी जाय.

उबजून एक सप्तक जाल्लें मात, एका कानडी सोरपाचे (Russels Vipera or daboi russell) पिलाक अजगराचो पिल समजून एकल्यान हातांत धरलें, तें खीणाक, तांणे, ताचे उजव्या हाता बोटाक चावल्यार बी अडीच वरां बसून रावलो तो! बोटा तूरी दाट जायत गेलें तेन्ना भीवन, सोरपाक घेवन म्हजे लागी धांवत आयलो. हांवे ताका, कानडी सोरोपालें पिल, खीणांत आस्पत्रेक वच म्हण् सांगलें. तरी बी तो अर्ध वरां उप्रांत आस्पत्रेंत दाखल जालो. तीन वरां उसीरान दाखल जाल्यार बी, चाविल्या सोरपा पिलाचे विष कमी आशिले खातीर, अस्पत्रेचे तज्ञ्न दोक्तेरांन त्या विषाक कितले जाय तितलेंच, म्हळ्यार फक्त 20 मिलिलीटर् प्रति विष *(polyvalent anti snake venom seruam)* दिवन ताका बरो करन दूसरे दीसाक घराक धाडुन दिलो.

आनीक दोन दीसान, साठ वरसाचे एके बायलेक, एक सोरपाचे पीलांन घांसमारलो. खंचे पोटसऱ्यांन चावले म्हण कळूना देखून, तीका लागिचे आस्पत्रेक घेवन गेले. भियेल्ले तिचे संबदितानीं त्या सोरपाक मारुन, म्हाका दाखवपाक हाडलें. तो एक दिवडाचो पिलो अशिलो, विषारि न्हंयशिलो म्हूण, विषाचे चिकित्सा अगत ना, septic जायनाशी एक injection घेतल्यार पुरो म्हण हांवे सांगलें. तांणीं, कृपा करून तुमीच दोक्तेराक सांगा म्हण, फोन दिलो. पूण दोक्तेरांन पयलीच उपचार सुरु करून 40 मिलि. प्रति विष त्या जाणटेलेक एदोळचाक दीवन जाल्लें! अशें कळ्ळे. विष नाशिले सर्पालें चावपाक विषाची चिकित्सा कित्याक केल्ली? म्हूण विचारल्यार सोरप चावून घेत्तिलीं आनी तांच्या घरांतल्या लोकांचे भंय काडपाक चत्राय[99] घेंवपा लागता म्हूण जाप दिल्ली.

एके राती, दुकान बंद कोरपाचे वेळार दरवट्यांत बंदीस्त जाल्लिल्या एक सोरपा पिलान खीणांत दुकानदाराक चावलें. छिद्र जाल्लिलो त्या हेरा पिल्लांले फोटो म्हजे वोट्सप्पार मेसेज क्लो. हेब्बावा पील, विषारि न्हंय.

---

99. चत्राय - दक्षताय

अपाय ना म्हूण हांवे परतून ताका मेसेज केलो. पूण त्या रात्तीच दुकानदाराक उडुपिचे व्हडलें आस्पत्रेक दाखल कोरून, ताका बी 50 मि.ली इंजेक्शन् दीवन, आयसियूंत बंधीस्त केल्ले खंय!

आनी एके जाग्यार, पांच वरसा चेरडाक बिनविखारी नसलो, 'ट्रिंकेट' म्हळिल्लो सोरपाक मस्तिले कारणान चाविल्ले. तेंच, वयर सांगिले नामांकित आस्प्त्रेंत दाखल बी केल्ले ताका. सोरपाक दाखवून डिस्चार्ज कोरून घरा हाडपाक म्हण म्हाकाय घेवन गेल्ले. पूण थंचे तरणाटो दोक्तेर उल्लोपाकच तयार नाशिल्लो. नंतर म्हणचा लागलो, तुमी म्हणता की तो सोरोप विषारी न्हंय म्हण, पूण फाय त्या भुरग्याक कितें चड-उणे जाल्यार आमचेच तकल्यार ताज्जे दोष थापून, माध्यमाक बी कळून आयल्यार आमची जीण मुशकिल करून सोडतलीं तीं. म्हाका आश्चर्य आनी आघात दोनी एका फावटीकच जाल्लें. म्हजे जाणविकाये प्रकार, बिनविखारी सोरपान चावल्यार फक्त antiseptic injection दिल्यार जालें, दूसरे उपचाराची गरज ना. म्हाका बी बिन विखारी सोरपानीं खूपदा चावला आनी चावत आसतात. पूण उपचाराची गरज भास ना. असलें वेळार, ह्या भुरग्याक कित्याक आयसियुंत *(ICU)* घातला? म्हूण विचारल्यार, त्या खीणाक दोक्तोरांन, 'रागान तुमी कित्तें म्हणा, आमी ताका, चोवीस वरां, हांगा दवरूनच धाडतलीं. फाय किंते जाल्यार आमी जवाबदार नात. तुमंका व्हरचेच आसल्यार तुमी जवाबदारी घेया' म्हणपाक लागलो. हें आयकून घरंची भिवून बाबडी जाल्ली.

पोटसऱ्याले रक्षण करपी एकल्यान, म्हजे वोट्सॲपार (whatsup) मेल्लेल्या सोरपालें चित्र धाणदिलें आनी कळयलें की आतां मात, गारे काम करपी मजूराक चावल्या, खंचो सोरप म्हूण सांग सोरोपाचे तकली पूराय धाडायलिली, म्हूण खंचो सोरप म्हण कळूकना, म्हणला तो. त्या निमतान ताका वा पळयले कोणा मुखेन बेगिने कळय, वेळ व्यर्थ जाल्यार अनर्थ जायत म्हूण सांगले. ताणीं धाडिले माहिती, चाविल्लो जागो, चाविल्लो कुडीचो भाग, वेळ, सोरपाली रूंदाय, आकार आनी म्हाका जायशिलें विशी क्ळून घेवन, तो 'कट्टन रान सुणे सोरोप' *(Lycodon ulicus)* आंगभर आडरेखा

आसलों हैर, विषारि न्हंय म्हण खातरी कोरून घेवन तांका सांगलें. पूण ते वरेक चावन घेत्तील्याक नामांकित आस्पत्रेंत दाखल केल्ले. मेल्लेल्य सोरोपाक बी सांगाताक घेवन गेलिलें.

त्या दीस, *'World Doctor's Day'* प्रयुक्त म्हजो मित्र डा. वीरूपाक्ष देवरमने हांचे बागेंत रोप रोवपाचे कार्यक्रम जावन, परतून वत्तना सोरप चाविले मनशांले संबंदिताक हांवे फोन लायलो. तो म्हाका मेळपाक आयलो आनी आमी दोगी आस्पत्रेक गेल्लें. पूण धक्कादायक बातमी म्हळ्यार आस्पत्रेचे नोकरांन मेल्लेल्या सोरपाक भायर उडवन सोडिल्ले खंय. अजाप जावन हांवे नर्सीक विचारल्यार, ताका, आमचे आस्प्त्रेचे तज्ञांक दाखवून, आत्ता ताचे उपेग ना म्हण उडोपाक सांगलें. म्हणलें तें. हांवे, खंय उडयला? म्हण विचारलार, कोणा खबर, कामांच्यान उडयलें म्हण रागार उल्लोवन गेली. तरी सुद्दां हांवे एके तरणाटो दोक्तेराक मेळुन, सोरोपालीं संपूर्ण माहिति दीवन, ताजे नांव, शास्त्रीय नांव सगलें, बरोवन दिल्लें. म्हाका आफोवन हाडिल्लो मनीस अजाप जावन भायेर येवन म्हणलो, ''हें कितें काणी ह्यांचे बाब! तुमचो फोन आयिल्ले खीणाक हांवे तुमी येंवचे खबर आस्प्त्रेचांक कळयले आनी स्पष्ठ विनंती केले कीं आमी येवो सर सोरोपाक उडोवनाका म्हण सांगिलें, पूण आमी येवोसर तानीं अशें कशें केल्ले, तुमी सोरपाक पोळोवन तो, विषारी न्हंय म्हळिले असल्यार, म्हजे औषदाचो खर्च उरतशिलो'' शेणोवन म्हणपा लागलो. ताका हांवे चिंता कर नाका, चोवीस वर ताका आस्पत्रेंत दवरन, कांय अपाय ना अशें, खात्रि कोरून घरां धाडतलीं, विषाचे उपचार कोरूं ना. अशें ताका धीर दीवन हांव घरा आयलो. दुसरे दीस तांणे फोन करून, ''बाब, काल, तूं गेलो उपरांत रातचे 8 वराक ताका विष चडले खंय, तशे म्हणु, 4 मि.लि प्रति विष घातले, म्हण तो बरो जाल्लो देखून ताका, कुडींत शिफ्ट *(shift)* केलां.'' खिन्न जावन म्हणचा लागलो. हांव अजाप जाल्लो. हांगाय, विषरहित सोरोपाच्या चावपाचेर विषाचे उपचार जाल्लो! असलीं, एक-दोन घडणूक मात न्हंय, तर खूप जायत आसतात.

विषरहित सोरोपा चावपाक, 'विष दिंवचे, कॅन्सर नसल्याक' केमोथेरपीचो

उपचार दिंवचो एक सारखे! कारण, विषारी सोरपालें चावपाक जे दैहिक त्रास जात्ता तेच्च प्रति विष *(Polyvalent anti snake venom serum)* दिल्यार बी तशेच, आड परिणाम जातात. तितलेंय न्हंय, मूत्रपिंड, स्वासकोश, काळीज, आनी दुसरे अवयवाक बी, त्या व्यक्तीचे वय आनी भलायकी अनुसार, नुकसान जांवयेता. हें म्हज्या स्वानुभवान सांगता. 10 मि.लि प्रतिविषाचे मोल पयर पयर थांय 1600 रू आशिले. आत्ता, कमी जाल्यार बी, सोरप चाविल्या मनशाक पयली 20 मि.लि दिंवका असो दोत्तेरालों सल्लो आसता, आनी दुसरीं वकदां, आस्पत्रेचो खर्चु मेळून ताची परिस्थिति हैराण जाता. दीवड आनी हेवाळे असलीं विषरहीत पोटसऱ्याचे चावपा बी विषाचे उपचार दिता म्हळ्यार कशें? हाजो अर्थ, विषाचो उपचार करतल्यांक पोटसऱ्यांलें चावपाक संबंदी अजून वरेक नासमझ आस्स कितें? वा भोळे भाबडे लोंकालीं किंचित बी दया-माया ना? असलें प्रस्न मनांत सहजपणीं येंवपा लागता.

प्रस्तुत विषाचे उपचाराक लभ्य आशिलीं वकदा म्हायती, भारताचे चार -पांच मुख्य विषारी पोटसऱ्या संबंदी, नितळ अलोपथिक विषाचे उपचारकांक जाणीव आसचे गरजेचे आस्सा. ना जाल्यार बी चिंता ना. विषारी सोरपान चाविले उपरांत, विष मनशालें शरीरांत कितलें गेलें त्या प्रमाणार, थोडे वेळानं तो अस्वस्थ जाता. ताका ओंकारे, तकली घुंवळप, हात- पाय, दोळे सगल्या वयले नियंत्रण वता. श्वास घेंवपाक जायना. विषारी सोरपान चाविल्लेच जाल्यार, चाविल्ल्या सुवातेचो रंग बदलता आनी सूज आयिल्यान कळून येता. पूण कळून येना जाल्यार कांय भीवंचाक कारण ना. रक्त परीक्षेनं बी थोडे वळान कळून येता. तरी पूण, थोडे आस्पत्रेंत पयलीच तजवीज, रक्त तपास, कोरपाचे ऐवजी, एकाएकी प्रतिविष कित्याक पिवयतात? असले प्रस्न सामान्य लोकांत पडचे सहज आस्सा. त्या निमतानं फुडच्या काळांत विषाचे उपचार कोरपाचे पयली, थोडे फार सोरपां विशीं, आनी तांचे चावपान जांवचे दुस्परिणामाचे संबंदी अभ्यास करत मुखार पावुल घातल्यारच वैद्य नारायणः हरीः म्हण्णी जास्त स्पश्ट जात्तली!

# 11. ज्येतिशास्त्राची फकांडा[98] करत आशिल्ले काळसर्प दोष!

मनीस पयले एकाणु जीवि जावन, माकडावरी सस्तनि जावन, नंतर, छाती फुलोवन हात-पाय धाडयत फिरतलो दैत्य प्राणी जावन, ताजे उपरांत मानव रुपांत बुद्धिशक्तिचे वाड जावोसर ताका, खंचोय देव, धर्म, धार्मिक् शास्त्राचे सहाय आशिल्ले व्हय? तशच मनशालो मेंदु वाडत आसतना, समाजाची घडणूक जाल्ली. विचारांची, धर्माची सुरुवात जाली. ताज्जे बरोबरिन तरेकवार देवांची आराधना, धार्मिक शास्त्रांची निर्मणी जावन मनशालें जिवित, आकार घेंवपाक लागलें आनी तो सन्मार्गार चलपाक ताजे सहायक जावन रावलें. पूण आनी मुखार काळ सरलो तेन्ना लोकांले मति भ्रष्ठ जांवपा लागली. सगळें जिंकपाक जाय, आपणालें हातासूक कोरपाक जाय, अणभवपाक जाय, असल्यो एक न्हंय अनेक महत्वाकांक्षा केन्ना जनमल्यो हें कळूंकच ना! ताका लागूनच वेगवेगळी भंय- भूंता तांणे पांगरून घेतल्यांत.धर्मशास्त्र, धार्मिक विधि-विधान आनी ज्योतिष शास्त्र असल्या विशेष ज्ञानांचो तो आपणाक जायतसो अर्थ कोरुन, तिरपून वापर करत आस्स म्हळिलें सत्य.

98. फंकाड - उपहास

ज्योतिश शास्त्राक लागून, आत्तांचे तांचे वेगवेगळे अवतार लक्षांत घेतल्यार, कितल्यो तरी विलक्षण गजालीं दोळ्या एदरा तांडव करतात. लोभ आनी हांव भरलेल्या मनशान, हे शास्त्राक कितलें, खालचे थराक व्हरून सोडलां हें सांगपाक हजार उदाहरणां आस्सत. तांतूलीं थोडीं पोळोंवपाची आसल्यार सकाळी सकाळी खंचेय टि.वि वाहिनीचेर, ज्योतिष्य विज्ञान कशें वायटार पडत आसा हाची नाना रूपां पोळोंपाक मेळटात! जिविताचे दुर्बल सन्नीवेशांत शिरकून, मनाची भलायकी होगडावन घेंवपाक लागता वा अज्ञानान ज्यतिशांले पाय धोरून त्रास भोगिलें कितले सादेभोळें लोक आस्तलें! तसल्या एका कुटुंबाची काणी हांगा सांगप गरजेचें आस्स.

म्हजो एक तीस वर्सांचो इष्ट, पोळोपाक देखणो, शिकिलो तरणाटो. दूरदर्शनवाहिनीर आनी (रेडियो) प्रसार माध्यमांत खूप वर्सां काम कोरून, ह्या माध्यमाच्या अभिवृद्धीक कारण जावन आस्सून बी एक दीस ताका ह्या माध्यमाचो बनावटिपणाचो वाज येवन, स्वतंत्र जीवन जगपाचे ताणें थारायलें. आनी ताका सुचली समाज सेवा. समान विचारांच्या सहकाऱ्यांक घेवन तांणे एक संस्था स्थापन केली. दानी लोकांलें मदतीन गरीब, मागासलेले लोंकाले जीविताक एक नवीन दिशा दिवपाचे कामांत, अनामिक जावन ल्हान व्हड कामां करत रावलो.

पूण म्हजे इष्टालीं जन्मदात्री मात, तेत्तीस वर्सांचो जालो. हाका लग्न भाग्य अजून कित्याक आयलेना? म्हण बेजार जाताली. स्वताचे जीवित थीर कोरपाचे सोडून, हो कसली समाजसेवा म्हूण बसला?अशी जाणट्यांली चिंता. तांचे म्हण्णे बी योग्यच आशिल्ले. पूण, हाची जीाविताकडेन पळोंपाची दिष्टीच विंगड. 'समाज सेवाच म्हजो श्वास. ताज्जे खातीर म्हजे जीवित अर्पण कोरून नवीन कितें साधना कोरपाक जाय' म्हणतलो तो. 'म्हज्यान जायना म्हण हात बांदुन बशिल्या तरणाट्यांक आदर्श जांवका' हो ताजो उद्देश. ह्या वटेंन, पुत्तालो कारभार पळयत आशिल्ले आवय बापय लग्न केल्यार हो सुधारतलो म्हूण, तीन वर्स दिकूनं ताचे खातीर सोयरीक सोदत आशिलीं. जातक जुळून येना म्हण, 'दोष' आस्स की कितें? असो दुबाव येवन मेळिल्ले

ज्योतीश्यांचे दरवट्टो धाडांवचीं स्थिती तांका आयली.

आता मेरेन तीन ज्योतीषांक ताचे जातक दाखवून, ताणीं जातकांत कितें दोष दिसना, काळसर्प दोष बी ना. थोडी 'शांति' केल्यार लग्न जांवपाचे योग आस्स' म्हूण एक-दोन शांति कोरपाक कारण जाल्लीं. परंतू, आनी तीन ज्योतिषानीं, ह्याचे जातकांत असले -तसलें दोष न्हय! भयंकर काळसर्प दोष दिसून येत्ता, ताका लागून तांका, काम, भविष्याचे चिंता कांय आसना, संसारय कोरचो मनांत आसना! अशे सांगून वरस भर, कुक्के सुब्रमण्य वा खंचेय नागाचे देवळांक धांवडावणी करपा लागची, तितकेच न्हंय, काळसर्प योगाक संबन्ध नासलें, पयस आशिल्या, 'काळहस्ति' म्हळिले क्षेत्राक बी लोकां धाडुन, थंय गर्दी जमयली.

पयली पसून, 'नागदोष' म्हळिलें अर्थनाशिले, विचित्र विश्वासा खातीर कुख्याति मेळ्ळिले दक्षिण कन्नड जिल्यांत, काळ सर्पदोष म्हळिले नवीन संसर्गिक रोगान ज्योतिषार विश्वास कर्तल्यांक कंगाल कोरून घातला. ज्योतिष्यान सांगिल्ले सगळे विधि कोरून बी कसलोय फायदो जाल्लोना! म्हळिले दुखः जन्मदात्यांक जाल्लेवरी म्हाकाय बी जात्त आस्तना, रामचंद्र शास्त्री नावांचो एके ज्योतिष तज्ञालो परिचय जालो. तक्षण हांवे तांचेशी, 'काळ सर्प दोषा' संबंदी चर्चा केली तेन्ना, तांणीं बरेयलिली, अतीतांतूलो विस्मय नावांची एक विशेष कृति म्हाका दिली.

वयर उल्लेख केल्लेले कृतितलो पांचवो लेख वाचोसर म्हाका आश्चर्य आनी खेद दोनीं भावनेंचो अणभव एकेच फावटीक जालो! काळसर्प योगाक 'काळहस्ति'क वचुन, थंय पुजा केल्यार मात परिहार मेळटा म्हण प्रचार करत आसात. असली सुवर्ण संद ह्या क्षेत्रातलीं भट मंडळी, सोडतलीं कितें? आता थंय बी विशेष पूजा-पुनस्कार सुरु जाल्यांत. त्या योगाक आनी ह्या क्षेत्राक संबंद सोद्दून काडील्यां बुदवंतपणाची दाद दिंवकाच पडली मूं? काळसर्पाक आनी काळ हस्तिक कसलो संबंदु? हस्ति म्हळ्यार हती, त्या देवस्थांनांत हस्तीले काळे शिल्प आस्स. थंय काळसर्पाक परिहार कशें मेळटलें? काळहस्तिक गेल्यार वायट योग परिहार जात्ता म्हूण खंचोय ग्रंथ

ज्योतिषिन पळयले ना. गम्मत म्हळ्यार सुमार वीस वरसां पयली ह्या क्षेत्राक काळसर्पा विशी कांय खबर नाशिलो! अशें जावन, येवचे भक्त लोकांक तांचे मनशांति खातिर दुसरीच पूजा कोरून धाडताले. पूण, हालीच, ह्या संबंदि एक पाटी थंय लांयल्या. 'काळसर्प योग म्हळ्यार, कोणाचे जातकांत राहु, केतु चे मदीं, सगळें ग्रह थीर जावन आसल्यार, तांचे जीवितांत खूपदा उतार-चडाव आसता. अशें श्री आचार्यांले म्हण्णे. ज्यतिषशास्त्रांतं खोलायेंन अभ्यास केल्लेले डा. एस् श्रीनिवासैय्याचीं ल्हान पुस्तिका, ''काळसर्पयोग, साडेसातीशनी बाधकाधिपती दशा'' ह्या संबंदि तुमकां कितले ज्ञान आस्सा? हांतु ताणी काळसर्पयोगाक आनी काळहस्तिक संबंद ना. त्या खातीर असलें त्रास सोशिल्ले लोकांलें शोषण कोरपाचे बरे न्हयं. असो अभिप्राय दिला.

अजापाची गजाल न्हंय? म्हळ्यार, म्हज्या इष्टाले आवय-बापयांनी कुक्के सुब्रमण्य, काळहस्तिक खूपदा वचून भटांन सांगिले सगळे विधि-विधान करपाक हजारांनीं दुडु खर्च केलें तें उदकांत होम केलेवरी जाल्ले मूं? असल्या भोळ्यांनी कितले संख्येंन अशी फसवणूक कोरून घेत्तिल्ली आस्सत कोणा खबर? कोणाक दोशी थाराव्येत? ज्योतिष्यार विश्वास दवरलेल्याक कीं विशेष ज्ञानाचो दुरुपयोग करतल्या ज्योतिषींक? हाचो ज्योतिष्यार भरवंसो दवरतल्ग़ान विचार करपाक जाय.

# 12. व्हडलो चोंचिचो बगुळो आनी खेड्यांतले म्हालगडे

पंडितां पसून पामर वरेक, सादारण मनशा पासून वरचो, प्रभावी मेरेन, आमचे प्रदेसांत सोरपाचो भंय-भक्ती नासलेले लोक मेळचे अपरूप. एक दीस, तसल्यां पैकीं एकल्यान फांतोडेर फोन करुन, आमचे बांयचे जाळयेंत एक सोरप शिरकला, ताचें रक्षण कोरपाक जाय. बेगीन यो म्हण निरशेवन[1] विंनोवणी केल्ली. जास्त थंड हवेची सवय आशिल्ले सोरपांक, वताच्या तापाक लागून बेगीन मरण येंवपाचों संभव आसा म्हूण, म्हाका ताकतीकेन धांवका लागलें.

तो एक खेडे गांव आसलो. सोबीत दोंगरा भोंवती, भोतेक शेतकामती आशिल्ली. सकाळचे निर्मळ वातावरणांत मळबार[100], तरेकवार पक्ष्यांचो किलबील आवाज, सकल पांचवी शेतां, मनाक भुलयताली. सैमाची ही अप्रुपाय पोळोपांत म्हजे लक्ष थंय गेले, आनी त्या कारणान काराचे वेग बी कमी जायत गेलो. पूण हुंदीराक, मांडकाक धरचे धपक्यांत बांयेत कोयर,

100. मळब - आकाश

सुकलीं पान्नां, पडनाशी घात्तिलें जाळेंत घुसपुन पडिल्या सोरोपाक सोडवपाचे आद्यतायेचो जाणीव जावन हांवे काराचे वेग वाडयलो.

फोन केल्लो मनीस, येवन, म्हाका बांयेचेर घेवन गेलो. ‘काल रात्रीर रिगुन बसला आसक. नागदेव नू बाब! ताका कितेंय त्रास जायनाशी पोळोवन घे हं.’ म्हूण भंय-भक्तिन सांगणी केलीं. त्या खीणाक म्हाका दिसलें की, नागाचे जीवाची काळजी हांका कोणाकूय ना, ताका आसचो, ’पापाचो भंय’. नागाक देव म्हूण पुजतात, पूण हो दुसरो खंचोय सोरोप आशिल्लो जाल्यार ताका मारून जळोवन, ताची गोबोर करुन उडोन वत्तशिलें. हांवे ताजेर चड विचार करनास्तना, थंय जमलेल्या तरणाट्यांक आफोवन,जाळिचे तुरीं हातांत दिवन तांका ताणून धरूक सांगलें. ताणीं भंय आनी उत्सुकतायेन सहकार्य दिलें. सोरपान सुतावन घेतिल्यो सरयो कातरून ताका भायर येवपाक वाट दाखयली, तेन्ना, थंय आसलें सगल्यांचे तोंडार समाधानाचो हांसो दिसलो. एकल्यान माडा रूकार सरसर, चडून शिंयाळे काडून सोलोवन म्हाका पिंवपाक दिल्ले तेन्ना हांव बी खुश जाल्लो!

परतून येतना तेच सुंदर वाटेर,पळयत, थंय मेरेन दोनी बाजून पयस पातळिल्या पाचवे शेतांचे मदीं हांव शेणून[101] गेलो. ल्हवू ल्हवूच वतना, क्रिमि-कीट, कीड्यांक खावपा आयिल्ले मळबार उडपी अनेक शेवण्यांची भिरीं जमीनेर पळयत आसतना, पयस बगुळ्यांच्या भिऱ्या[102] मदें, एक व्हडलें मनोहारी शेवणें[103] जमीन कुरुंवून कीडो खात आसचो म्हजे दिश्टीक पडलों. कार राबवून, कॅमेरा हातांत घेवन भायर पडटा म्हणतना, तों वयर मळबांत उडलें. आनी परतून सकल बगेन मुखार येवन देंवलें. तो एक व्हड चोंच आशिल्लो बगुळो आसलो. फोटो काडपाक जायना म्हूण, कारांतूच बसून ताकाच पळयत बसलो. बगुळो बी म्हजेर एक दोळो दवरूनच जमीन कुरुवत आशिलो! हांव कारां सावन उटना म्हूण खातरी जाल्ली तेन्ना, तो

---

101. शेणून - हरवून

102. भिरें - संकूल

103. शेवणे - पक्षी

बी सावकासायेन कींडो सोदचांत तल्लीन जाल्लो.

थोडे वेळान, थंय एक अजापाची घटना घडलीं. एक जाणटीं गायेक घेवन चरवपाक थंय आयली. तेन्ना, त्या बगुळ्यान एक फावटी मान उबारून तिका पोळोवन परतून आपणालें काम करत रावलो! ती जाणटी त्या पक्ष्याचे म्हऱ्यांत खूंट मारपा लागली. तेन्ना बी ताणें, त्याची दीग मान वयर कोरून पळयलें जशें की ताका खूप वर्सा पसून वळखता कशें! आनी तो किडो सोदत उरलो. तिनें गायेक ताणून हाडून, खुंटेक बांदले आनी मोगान ताचे गोमटीक वेंग मारून[104] ताजे तकलेर उमो दीवन बगुळ्या बगले थावन गेली. त्यावेळार जाणटेलेची मनस्थिति कशी आशिली म्हळ्यार, तो पक्षी, आपणाली गाय दोनी सारखेच तशे. तो पक्षी बी सुसेगाद आसलो! हें असलें दृश्य पोळोवन हांव अजाप जाल्लो. म्हाका शंबर मीटर दूर पोळोवन, कारांथावन देंवतना,भिवन तो बगुळो आकाशार उडिलो, त्या जाणटेक कित्याक भियेल्लो ना, हो एक यक्ष प्रस्न जावन उरलो म्हाका. पूण थोडे वेळांन येवजून जालें उपरांत, म्हजे अणभवान म्हाका समज आयली.

एक निवांत बशिल्या सोरपाक, एक धपक्याक धरिल्ले जाल्यार तो भियेंवचो सहजीक. पूण धरतल्याचे मनांतलो मोग, मोवाळपण आनी अपुरबाय सोरपाक बी ताचे स्पंदनान जाणवता. ताका सहज प्रीतिचे कंप कळून येत्तात, अपाय जायत अशें दिसना. तशेच हांगा पक्षी, जाणटी आनी गाय मदीं तोच उमाळो, भावना जाग्रत जाल्ली. तशें आसल्यार, भोवशः मनशालें असलें प्रकृतीन दिलेली सहज मनस्थिति मात, जगाचे सगळें जीवकोटीक संरक्षण करुक शकता आनी ताचे मुखावेली पिळगी मुखार वांचून उरपाक हेंच कारण जात्तलें अशे म्हाका तेन्ना दिसून आयलें. महत्वाकांक्षी मनशाक, असले कृत्रिम जीवनाक, मारक जावन अशिली प्रगति, पशु-पक्ष्यांक नाका. ताका जांवचे अपायांची, तांका पयलीच जाणीव जाता. ह्या कारणान तीं असले वेवस्थे सावन पयस रावपाची इत्सा करतात हें म्हाका कारां थावन भायर

---

104. वेग मारचे - पोटोळन घेवचे

आयलो तेन्ना, पक्ष्यान वयर उडुन चत्राय दाखयली तेन्ना कळून आयलें. त्या खातीर,मनशां उपरांतच तीं, ह्या भूंये सावन अदृश्य जात्तलीं अशें म्हाका खात्री पटली, आनी हांव बगुळ्याक निरोप दिवन मुखार गेलो.

अर्ध कि. मि पयस गेलो आसका, थंय एक जांबळ्या -गोबरा रंगाचो, आंगार हळदुव्यो पट्टयो आशिल्लो ल्हान सोरप, खंयचेतरी एका अज्ञात वाहना पोंदाक शिरकुन चिड्डुन गेल्लेलों. तो एक बिनविषारि पोटसरो आसलो. ताका त्रावणकोर कोलसुणो म्हणतात. सादारण असले सोरप शेतांत, रानांत, दोंगरार आसतात आनी खांवपाक मेळना जाल्यार आजु-बाजुचे घरांत शिरून पाल, शिर्ली, माणको, हुंदीर सोदून खावन वत्तात. हे सोरोप सौम्य स्वभावाचे आसतात. मोवाळपणानं धरल्यार चावनात. रोखडेच मेल्लेले सोरोपाक उबारून शेत्तांत वचून, त्या व्हड काळ्या मुंयाचे वारुळा कुशींक दवरलें, तें खीणाक व्हड व्हडल्यो मीश्यो भायर काडून चार-पांच काळ्यो मुंयो भायर आयल्यो. सोरपा भोंवतणी भोवांडो काडून खात्रि कोरुन बिळांत परतून गेल्यो. दुसऱ्याच खीणाक आयली सैनिकांली फौज! तक्षण, सोरपाचेर झुडून पडली. नाना प्रकारे कसरत, करामत कोरुन ताका बिळांत ताण्णून व्हेलें, पूण भायर कसलीय नामोनिशाण सोडली ना! अशी सफायी जाल्ली. मुंये असले सूक्ष्म जीवांचे एकवट, शिस्त, नितळपण आनी कार्यक्षमता पोळोवन, तू कोणाक पावता रे मनशा?अशी एक भावना म्हजे मनांक हिणोवन गेली.

# 13. चौरांयशीं लक्ष जीवराशी सांगातान आमी रावतात!

सोरप, पोटसरो हे उतर भौतेक लोकांत भंय, हळशीक आनी आंगांत, सळ जांवची भावना हाडता. तें स्वाभाविकच. तशेंच, सोरप पळयले खीणाक, पळ काडतले लोक बी खूप आसत. ताचें कारण फक्त भंय! आनी, सोरप म्हळिल्ल्या विशिष्ठ पोटसऱ्याक लागून अशिल्लें अज्ञान बी तितलेंच सत्य आसा. संसारांतले हेर जीवजंतु विशीं कमी-अदिक जाणविकाय बहुतेकांत आसता. पूण, पर्यावरण संरक्षणां बाबत, मनीस कुळाक उपेगि जावन, आशिल्या सोरपां विशींची म्हायती मात खूप जाणांक ना, हो एक विपर्यास! अशें कित्याक? म्हण कोणाकय विचारल्यार मेळची जाप, 'खबरना'. 'समजुन घेवपाक प्रयत्न केले ना.' 'आमकां तें विशीं समजुन किदें करपाचें आसा?' अशीं मेळटा. हाजे कारण भंय, अज्ञान आनी अंधविश्वासच म्हळ्यार जाता!

विकासाचे पायवाटेर, प्राणी अवस्थेंत आसतना, सगल्या जीवावरी मनीस बी सोरपांक भितालो. आत्मरक्षणा खातीर हो, सहज भंय ताजे आंगांत रक्तगत जाला म्हण विज्ञान सांगता. सोरप दिश्टिक पडतकीर धर्तिवेल्या

सगल्यां जीवांनी भयभीत जांवचे सहजीक व्हय. तें चूकय न्हंय, लाजीरवाणी गोश्ट न्हंय. जशें तेल थपथपी लावन घेवन, थळथळतलो, मोवाळ, लांब शरीराचो, विलक्षण रीतेर सरकटत रेंगाळतल्या सोरपाक पोळोवन, भीनासलो जीव ह्या जगांत ना. पूण, हेर जीव, पशु, मनीस-कुळ, सगळे ताचे शत्रु जावन आशिल्ले लागुन तो बी तांका भिवन आसता. खरें सांगचे म्हळ्यार, तो सगल्यां परस दुर्बल आसा, स्वताले अस्तित्वा खातीर ताज्यांत अशिल्ले विख म्हळिले रासायनिक द्रव्य तो आपणाले शत्रु विरुद्ध वापरता, हें आमी लक्षांत घेंवका. सोरपान चावल्यार मरण खंडीत म्हळिली 'जन्मजात जाण' मनशा बरोबर सगळ्या जीव प्राण्यांक आसची सहजीकच.

माजर, सुणो असल्या प्राण्यांनी सोरपाक पळयतकच, तांची प्रतिक्रिया कशी आसता म्हूण लक्ष दिवन चोयल्यार कळुन येता. हे प्राणी -पक्षी बी, सोरपाक पळयले खीणाक संकट सूचक स्वर काडतात, आनी तांची वागणूक बी विचित्र जाता. आपणालें परिसरांत आयिल्यांक पयली धांवडावन भायर काडतात वा मारुन घालतात. आनी स्वताचे राखणेक लागुन, आपणाले सरादी[105] भीतर कोणाकच सोडनात. अजाप अशें कीं सोरप बी आपणाले जीवाचेर आयिल्ले दुसरे जीवालीं वागणूक सूक्ष्म जावन वळखून घेवन तांचेर पयलीच आक्रमण करता. हाजी उदाहरणां खूप कडेन पळवपाक मेळटात. बांदिल्या सुण्यांक, आनी तांतयांक पाखाट्या[106] पोंदा ऊबसाण दिंवपाक बशिल्यो वा आपणालें पाखांट्यांत पिल्लांक घेवन बशिल्या कुकडांक, नाग, कानडी सोरप *(Russels viper)* ह्याच उद्देशान घास काडून, तांका मारुनच शांत जातात.

आनी एक अजापाची गजाल म्हळ्यार, वैरि म्हूण दुसरें जीव, वा प्राण्या वांगडा सोरपाची वागणूक आनी मनीसा सांगातान वागच्यांत व्यत्यास पळयला हांवे. जीव आनी प्राण्यां बाबतींत तोची मुखार येवन आक्रमण करता, घडये

105. सरादी - सरहद्द
106. पाखाट्या - पाक्क

स्वताची राखवण वा आहारा खातिर तांका नुकसान करता. परंतु मनशान तांका नुकसान केल्यार, मस्तयल्यार, मांरुक गेल्यार मात चावता. मात, आपण जावन, विना कारण नुकसान करना. भोवशा, प्राणी- पक्षी, आनी मनशां मदीं आशिल्लो व्हडलो फरक हो सोरपा सारक्या सूक्ष्म जीवाकय कळुन आयला अशें दिसता.

मोने जीवराशी, तांची मठी, अन्न आनी सांगातीची निवड करपाक विशेष महत्व दित्तात, आनी ताजे मदीं कोणी आयल्यार ह्या विशीं, तांची वागणूक म्हळ्यार, 'कर वा मर' असी आसता. पूण, सगळे हेर जीवां परस विशेष शारिरीक आनी मानसीक वाड जालेल्या मनशाक मात, मोने जीव- जंतु हार मानुन शरण वतात. ताज्या, मोग आनी मायेची अपेक्षा करत, ताजी क्रूरताय सोसत आपणाले जिवित जगचे गुण ताणीं आंगांत जिरोवन घेतल्यात.

सोरोप आनी मोने जीव, मनीस कुळाचे सुरुवाती पसुन अविभाज्य घटक जावन आसात. ताजे जिवित समृद्ध जावपाक सर्व रीतेन, तीं उपेगी पडतात. पूण आधुनिक मनीस, बेफिक्र जावन तांचो नाश करच्याक लागला. मनशान आपणालें भंय कुशीक दवरुन, सोरपाक चेरडुशें, हातांत घेतल्यार, ताज्या मायेच्या स्पर्शांन, प्रीतिच्या स्पंदनान, सोरोपाचो भंय, वता. आनी चेरडुशें तो बी हातार सरुंक लागता हो म्हजो एक अणभव. हें मतींत घेवुन मनशान मन केल्यार, मोने जीवराशींचो तो उत्तम राखणदार जांवक शकता. फक्त, ताकाच सैमालें कृपेन असलो दैवि गुण मेळ्ळा, तो कितलो भाग्यवान! मनशालो मूळ गुण प्रीति, करुणा, त्याग अशें म्हणतात! पूण ताजो विकास जात आसतना, हो मूळभूत स्वभाव नश्ट जाला, तो तमगुणांचो दास जावन सैमा विरोधात काम करत आस्स. सैमा बरोबरचे सहज संबंदाची जाणविकाय ताज्यांत खूप कमी जाल्या. हाजो परिणाम म्हळ्यार, भंय, अज्ञानान भरलेलो मनीस, दुसरे जीवांक जीव नष्ट करपाचे फाटीक लागला. जिवितांत येंवच्या संकष्टाक लागुन, अंधविश्वासांत बुडिल्लो मनीस, सोरपा पुजेंत पैसो उधळत

आनी व्हगडायत आस्स.

प्रकृतीमाता कितली करुणामयी आस्स, तितलीच कठोर बी आस्स, प्रकृति विकोपाच्यो असल्यो जायत्यो देखी मेळतात. असल्या समृद्ध सैमाच्या नाशाक कारण कोण? आमीच मूं? ह्या सैमातले सर्व जीव जंतु आमचे सारखेच अशें समजुन, मोगान वावरच्याक कित्याक जायना आमका? आदी सावन सैमाच्या सांगातान जियेत आयिल्या मनशान स्वताची वागणूक सारकी केल्यारच आनी सैमाक अनुसरुन जियेल्यारच आमचे सगल्यांले जिवित सुखाचे जातलें हातूंत दुबाव ना.

# 14. नागाक बी जाता जीर्ण दोष!

म्हाका, पश्चिम दिकेचे दोंगरार प्रवास कोरचे म्हळ्यार खूब आवडता.चारी बाजुन सोबीत पाचवोचार सैम नियाळत वचपाच्या परमानंदाचो अणभव अशें म्हाका दिसता. थंयचे एका वाठारांत एक नाग सुमार दिसा पसुन चित्र-विचित्र वावुरतालो म्हण म्हाका लागोपाट फोन आयले म्हूण थंय वचका जालें.

हांव म्हजे गांवा पसुन हेब्रिचे वाटेर, दैत्याकाराचे रूख आनी दर्याक मेळुक वत्तल्यो पुत्तिगे आनी शिवपुर न्हंयाक दोळे भरून पळयत गेलो. शिवपुर पावन, दावे दिकेन रानाची कच्ची वाट धरली. थंय दिकुन एक किलोमीटर रानांतले थंडकिरांव[107] वाऱ्यान येवकार दिलो. पूण मुखार सरत आसतना, देशाक, जीवकुलाक कांय उपेग नाशिलें, फक्त मनशाक पैसो करचे पिशेंपणान चार-पांच किलोमीटर लायिल्लें अकेशिया रुखांचे वन पोळोवन मन दुखलें. ताजे उपरांत, थोडे पयस, हाडिंथावन गेलो तेन्ना, मध्यम वर्गाची लोकांली नळ्याघरां दिकु पडलीं. थंयचे सगलें लोक वाट पळयत भायर उभे आसलें,

107. थंडकिरांव - थंडीन कुडकुडचे, थंडगार

म्हाका पळयतेर नाग आसलें त्या घरा घेवन गेलीं. शेण सारयलिले त्या घ्ररच्या व्हडल्या आंगणांत, हेडो फुलवन थरथरत, 'भुस' करत आशिल्या दैत्याकाराच्या नागाक दाखयत घरकार काणी सांगपाक लागलो.

ह्या घरचे सुमार शंभर गज (*91 Meters*) पयस एक नाग वन आस्स. तीन वर्सा पयली पाचवेचार अशिलें वनाचे हालीच जिर्णोद्धार कोरुन कांक्रीट (concrete)'नागभवन केला! जिर्णोद्धाराचे पयली तीन वरसां आदी अकस्मात, एक नाग हेच आगंणांत येंवच्याक लागलो खंय. पयली कोणी ताजे कडेन लक्ष दिलेंना. आपणून वत्तलो म्हूण कोणी तकली तापयेली बी ना. पूण, दोन दीसान तों घरा भितर येंवपाचे यत्न कोरुक लागलो खंय. भियेवन ताका भायर काडपाक घरच्यानी खूब प्रयत्न केल्ले. त्या घरांत भरपुर हुंदिर आसत म्हण त्या सोरपाक खबर आशिल्ले, पूण घरच्यांक कळूंक नाशिल्ले! कितलेय धांवडांवन घातल्यार, तो परते घरा वटेन येत्त आसलो म्हूण, घरचीं 'फातरा नागभक्त' काचांबुल जाल्लीं! आनी उप्रांत धावले भटांलागी. भट बी हांचे वरी ज्ञानी! तांणे सांगले की, 'तुमचे घरा मुखार आसलें नागवन शिथिल जाला, ताजो जीर्णोद्धार कोरपाक जाय म्हण नागाचो संकल्प जाल्ला. तें सांगचाक तो तुमका दाखोवन दिता. आत्तं हें नागवन पाडोवुन, नवें वन बांदल्यार नाग देव प्रसन्न जात्तलो तांका असलो भयानक सल्लो दीवन, गंधप्रसाद हात्तार दवरुन तांका धाडलें! हें प्रकरण जाल्लेउप्रांत एका सप्तकांत, तो नाग हांचे नदरे आड, घरा भीतर वचून, तीन-चार हुंद्रांक गीळून भायर पडिलो परतून दिसलोना. अशें जाल्लेकीर, तो हुंदिर खांवपाकच घरा भितर वचपाक वाट पळयतालो म्हळिले खात्रि घरचांक पटली, तेन्ना देकून, जिर्णोद्धाराचे काम तांचे मनातल्यान गेलें खंय!.

ही गजाल जाल्या उप्रांत, तीन वर्सांन आनी एक विचित्र गजाली घडली. ह्या फावटी दुसरो नाग, बगेन धाकटो, घरा भोवती फिरूक लागलो. तेन्ना तांका भटान सांगिल्ले जीर्णोद्धाराची याद आयली. तर, तितलो पैसो कसो एकठांय करचो, म्हण चिंतून, हो बी हुंदीर, कोंबडी (कुक्कड) खावपाक येता, अशें विचार करुन, गपचिप रावलें. विपर्यास अशें जाल्लें, की, दुसरे दीसाक

आनी दोन व्हडले नाग, पयले आयिल्ले नागाची वाट हुंगतेर राजारोस घरा भोंवती फिरचे पोळोवन घरचे लोक, भीवन येवजणेत पडलें.

तीन विखाळ सोरप दोळ्या मुखार हांगा-थंय फिरतना पळोवन कोण उगी बसतलें? कितें कोरपाचे म्हूण, तकलीं तापवून घरचीं, परतून भटाक शरण गेलीं. भटांन गंधाक्षत हातांत दीवन, सोरपार घालून, जीर्णोद्धाराचे काम सुरु करा म्हूण कडक ताकीत दिली. घरा येवन तांणी, भटांन सांगील्ले तशेच, गंधाक्षता सोरपार घालुन मनापासुन प्रार्थना केली. अजाप! धाकटो नाग सरकत हाड्डिंत आपल्या बीळांत गेलो, आनी ताजे फाटल्यांन व्हडले दोन नाग बी गेले खंय! भटांलीं उतरां अक्षरशः खरी थरलीं म्हुण खोशेन, जास्त विचार करनास्तना, कर्ज काडुन वनाचे बांदकाम हाती घेतलें. जाग्याचे एक भागांतले 200-300 वरसा आदीचे रुख पाडोवून, ते विकून थंय नाग भवन म्हण एक कांक्रीट *(concrete)* जंगल बांदलें!

ही काणी खुप भंय-भक्तिन सांगतना, थंय उभी आसलेले, मध्यम पिरायेचे बायेलेचे दोळ्यांत दुकां आयलीं. थंय आयकत बशिल्या जाणट्यान भियेत विचारले, दोन दिस, तीन सोरप एकच वेळाक कित्याक हांगा फिरताले? ताचें कारण कितें आसतलें?' तांका हांवे परतून विचारलें, तो खंचो म्हयनो अशिलो? डिसेंबर म्हणलो तो. 'डिसेंबर पसुन फेब्रुवरि मेरेन नागांचो मिलन काल आसता. पयली आयिल्ली नागीण आसली, ती कामोद्रेकांत येंवचेकीर आपणालें वासाचे ग्रंथी सावन, 'फेरोमोन' *(Pheromone)* म्हळिले एक विशिष्ठ वासाचे द्रव्य भायर काडता, तें वाऱ्यान पयस वयता, आनी नर नाग तो वास सोदुन येत्तात. हांगाय तशेंच जाले आसतले. पूण तुमी लोकान ताजो विंगड अर्थ काडलो आनी सोबीत आसले नागवन तुमचे अंध विश्वासाक बळी दिलें.' म्हण नेटान जाप दिली. थंय बशिलें थोडे लोक अजाप जाल्ले, आनी थोडे भियालें .पूण काणि सांगपी बायल गोंधळून, तर आमी तांचेर अक्षता घातलेंकीर कशें ते धावन गेल्लें? आपणाले विश्वास घट धरन, मंशे रागान विचारलें. ताका हांवे, 'मनीस वा आपणांले खंचोय शत्रु अशे दिसचे प्राण्यां लागि आयले वा कितेंय तांच्यार उडयल्यार भिवन आत्म रक्षणा खातीर

धांवतात, तें सहजीकच आस्सा.' म्हण सांगलें. ताका ती बेजारुन, 'कांय किते की, आमी कर्ज काडुन हात भाजुन घेतिले जालें,' म्हूण बडबडत गेली.

आत्ता, तांचे आंगणांत आशिल्या दोनां पैकी एक सोरप विचित्र वागत आशिल्लो, तो हेडो फुलयतालो आनी जमीनिक व्हरन आपटायतालो. थंचे म्हालगड्यान परतून भटाक प्रश्न घातल्यार नागवनाचे जीर्णोद्धार अजून पूर्ण जालो ना, तें करतकीर सगळे बरे जातलें म्हूण सांगून तांका धाडले खंय. ताका अशेच सोडुन गेल्यार परतून हें मूर्ख लोंक, आनी रान खणुन कांक्रिटाचे वन बांदतले अशे विचार येवन, त्या सोरपाचेर लक्ष दीवन पळयल्यार ताका खंय तरी दूक आस्स असो म्हाका दुबाव आयलो. हांव ताका म्हज्या घरा घेवन गेल्लो. तो एक 15 वर्सांचो मध्यम प्रायेचो सोरोप आशिल्लो. ताका पोट भर उदक पिवोवन पिंजऱ्यात घातलो. फातोडे उटावन पळयल्यार, एक रास मल मूत्र विसर्जन करुन सोसेगात निदिलो तो! पिंजरा कोन्यांत कायळालीं पाक आनी ल्हान पिसां पडलेली आसली. कावळ्याक गीळुन बशिल्लो, मांस जीर्ण जाल्ले तरी, पाखां आनी पिसां जीर्ण जाल्ले नाशिले. तर सोरपाक अजीर्ण जाल्लीले! हांव परतून तांचे घरा वचुन तांका खरे तें किते सांगले. नागदेव रागार ना. सोरपाक अजीर्ण जाल्लेलें. ताका व्हरुन हाडींत सोडुन आयलो. खरें कितें कळळे तेन्ना तांचे उतरांवेल्यान सद्याक तर सैमाचो विबाड करचेनात अशीं आशा किरणां दिसपाक लागली.

# 15. अस्तुरी आनी नागाराधना

आमगेल्या पूर्वजांचे धार्मिक आचरणांत नागाली आराधना प्रमुख जावन आसा. मूळांत ही सैमाची आराधना. भूंयेर प्रत्येक जीव-प्राण्यांचे सैमीक क्रियेक प्रकृति सहज आनी अस्तुरिचे[82] सेंद्रीय[83] क्रियेक आसपाचे आपसूकी बांधव्य पूर्वज वळखून आशिल्लें. म्हूण तान्नी सैम वा अस्तुरींक जास्त महत्व दिले आनी तांची जतनाय केलीं. त्या काळांत सौमीक संबंध आशिल्लीं, असलीं आचरण पद्धति बायलांक पूरक जावन आशिल्लीं. हींच मागीर, काळ बदलत आस्तना विकृत जावन बायलांचे शोषण करपाचे एक मारक अशें नेम जाले.

म्हजे वास्तविक घडणूकीचे वर्णन करपाचे पयली, संशोधकांले थोडे अभिप्राय आनी पुराणांतल्या संदर्भार नदर घालून मुखार अवैदिक मूलाचे तंत्रपंथ, प्रकृति वा स्त्रीत्वाक कशे जास्त म्हत्व दित्ता, हें पळोवया. संवसारांत कृषि वेवस्थेची मूळ अस्तुरीच. तिका लागुन ही तंत्र पंथाची वाड जाल्ली

82. अस्तुरी - स्त्री, बायलमनीस

83. सेंद्रीय - organic

अशें कळुन आयलां. नागमंडल/ चर्मवाद्य, बळी हें सगळे सुपीकतायेच्यो मांत्रिक क्रिया जावन अशिल्ल्यो, मुळांत अस्तुरीच भोवशा पूजा विधिंत भाग घेत्तालीं. तंत्र पंथांत वांटो फक्त सक्कयल जातिच्यो बायलो घेताल्योत. काळा प्रमाण बदलत, पितृप्रधान कुटुंब वेवस्थेची उबारणि जावन पुरुष प्रधानतेचे पाटभूंयेंत अस्तुरेचें काम-काज दादल्यांचेर पडलें अशे दिसता.

महाभारत ग्रंथा प्रमाण नागाराधनेक कारण जावन आशिले, नाग, सोरोप हांका जन्म दिल्ले महर्षि कश्यपाली बायल कद्रू हिणे. ह्या ग्रंथात उल्लेख केला तशें, नाग सर्पाक जन्म दिवपाचे पयली, कद्रून कश्यपा पसून आपणाक एक हजार नागाले भुरगे जन्मा येवका असो वर मागलो, तर तिची भयण विनतेने कद्रूले, हजार चेरडुवां परस पराक्रमी आशिल्ले दोनच चेरडूंव आपणाक जाय अशे मागलें. ही काणी मुखार वाडत वत्ता, पूण हांगा लक्षांत घेंवपाचे मुद्दो म्हळ्यार कद्रू म्हळिली अस्तुरी पसून सर्पांचो जन्म जाता, आनी तिचे भयणी पसून हेच नागालें संहार कोरपाक गरुडालो जन्म जाता! ही काणीं मुखेल वैदिक पंथांत अस्तुरीक आशिल्ले महत्वाचे चित्रण करतना दिसता.

आत्तां, म्हज्या अणभवाचे वास्तवीक घडवणुकिचे चित्रण पळोवया. हालीच, एक फावट उडुपितल्या एके गरीबाले घरा सोरोप धरपाक हांव गेलो. ताजें घरकडे परपरत तरेकवार आनी नमुनेदार सोरोप भोंवतात अशें घरची बायल बेजारुन म्हणपाक लागली, पूण तिचो घरकार हुसकोनास्तना बशिल्लो. घरांत घुसिल्या सोरपाक लागून गोंदळांत पडिल्ले भायले आजु बाजुचे भौतेक, सगले लोक भट्टांक, पुरोहितांक आनी ज्योतिष्यां कडेन धावंडी करून तान्नीं सांगिले पूजा-नमस्कार कोरून, देव-देवळांत तकली तेंकोवन थक्किलीं. परंतु, घरांत घुसतल्या सोरोपांक कांय फरक पडले ना! आनी निमाणें, म्हाका आफोवंका पडले अशें तिणे म्हटलें. घरांत पावल दवरताच म्हाका कळुन चुकले की हांगा सोरोपाचो मुक्काम किद्याक म्हूण.

पुराय घरची सगलीं कुडां कोयरांचे वल्ल कोरुन सोडिल्ली. घरांत रावतले फक्त तीन लोक, तांतूलो एक जाणटो दोन वर्सा फाटल्यान मरून गेल्लो, तेंवय, नाग पंचमिचे दीसाक! आत्तां उरलें दोनच, ती बायल आनी तिचो घोव. तो

सद्दां सकाळी कामाक गेल्यार येतालो सांजवेळेक. बायल शिवण काम करी. पूरसत ना म्हण वा उदासीन म्हण घरचे साफ सफाय कडेन दुर्लक्ष्य जाल्लें. सगळे घर हुंदिर वा कोळिंदुराले बिडार जाल्लेलें. एक प्रकारचे सोरोपानीं थंयच आपणालें मूलस्थान कोरपाचे थरायल्लें अशें म्हाका कळुन आयले. म्हाका तांचे घरची दशा, त्या जोडप्याली अवस्था पोळोवुन तांचे जीवितांत उल्लास ना असो भास जाल्लो.

'म्हाका हे विशीं वर्णन कोरपाक बगेन संकोच जात्ता, पुण दुसरो उपाय ना.' त्या घरचे बायलेन खिन्न जावन म्हळे, 'म्हजेच कुडींत किद्याक नाग येत्तात. म्हजे मासिक स्राव जात्ता तेन्नाच जास्त येत्तात हाका कारण किदें? फक्त नाग न्हय, बाकिचें सोरप बी दिसतात. म्हाका खूप भंयदिसता. ज्योतिशाक सांगल्यार तो म्हण्टा, हांवे नागाक अशुद्ध केलां. नाग दोषान सर्प येत्तात, ताजे परिहार कोरपाक पूजा कर, कर्म कर म्हणता तो. तांणे सांगिल्ले सर्व करून जाल्लें, पूण परिणाम शून्य!' तेन्ना हांवे ताक्का, घरची नितळसाण दवरपाचे कडेन जास्त लक्ष दिवपाचे केल्यार खंचोय नागदोष लागना म्हण गंभीरतायेन सांगलें आनी तिका धीर दिलो. परतून तिणें प्रश्न विचारलें, 'म्हजी आवय नागपंचमी दीसच मरण पावली, तें बी नागदोशाक लागूनच म्हणतात, व्हय तें?

तिचे शाणेपणाक किदें म्हणपाचे म्हाका कळुंकचना, तरिय तिका समजावपाचे प्रयत्न केलो. 'पळय म्हजे मांय! हें संसारांत आशिल्ले सगळे जीव, प्राणिराशिचे जन्म-मरण निसर्ग निर्धारित आसा. सामान्य मनशाचे कल्पने भायरची क्रिया तीं. नाग पंचमी, बकरीइद, नाताळ म्हळिल्ली परब, शुभ दीस, हें सर्व आदि-मानवा सावन आधुनिक मनीस म्हण घेत्तलेल्या आमीच हें थारायिलें आस्स. तें निमतानच तिजे आयुष्य सोंपील्ले दीसाक, तुची आवय मेल्ली, नाग दोषान न्हंय. खरें सांगपाचे म्हळ्यार, नागदोष म्हळिल्ले हो विश्वास आसचोच चुकिचो. असलें असंबद्ध विचार आसपाक साध्य ना. दुर्बळ लोकाले मनाचो भंय, भ्रांतिचो कुड्डे विश्वासासंबधि आचरण कोरुन ताज्जेर स्वताःचे फायद्याक थोडे लोकान, पैसे कोरपाचे धंधो सुरु

केला. ताज्जे खातिर तकलि तापोवपाचे पिशेपणच व्हय.' असो तिका बोध करुन हांव घरा आयलो.

व्हय, घरांत बायलां भश्टी जातात तेन्ना, थोडे लोंकालें घरा सोरोप येवचें म्हजे लक्ष्यांत आयला. त्या विशीं सुक्षीमतायेन, पळयल्यार कारण कळून येत्ता. सगळ्या घरांत तशे जायना, थोडे गरीबदुबळें, मध्यम वर्गीय, अपरूपाक थोडे गिरेस्त घरांत सुद्दा जांवयेता. पिवपाची सवय अशिल्ली, नितळसाण नाशिल्ली, पसारो, म्हेळे करून दवरपी असलें घरांत ही समस्या दिसून येता. भोवतेक नळ्याचे घर व खोंपीत हो त्रास जाता. तशे म्हण, हाका कारण किदें? अशें प्रश्न पडुंकच उत्तर सोदपाचे आवश्यक जालें.

हे संदर्भांत एका जाणटेल्याक हांवे विचारलें, तेन्ना तांणे सांगले, रक्तस्रावाचे वेळार सोरोपांक ताजो वास येत्ता म्हूण. ही जाप बरोबर न्हय, कारण मनीसाक वास घेवपाची तांक आसता तशीं सोरोपांक ना. ताजे घ्राणेंद्रियाक आसची शक्त[84] फकत, तांचे बीळ (घर), आहार, प्रकृति नेमाप्रमाणे संतानोत्पत्तिक जोडिदार सोदपाचे आनी सरभोंवतणी आशिल्या शत्रुलीं समजणीं घेवपाचे इतलेंच! म्हणून, ती जाप बाजूक दवरून आतां वरेक, सर्पाक धरलिलें सोळा हजार घराक गेलेंलो परतून परतून तकलेंत याद करीत उरलो. मागिर गेल्लेले सगले घरांत, त्या संबधी विचारपूस करत रावलो. अजापाचे म्हळ्यार खूप नळ्याघरांची माडार चडुन हुनद्रांले बीळां थावन सोरोपांक भायर काडिल्ले संदर्भांत, भश्टेपणांत उपेग कोरपाचो कापूस, वस्तर, सेनिटरि ्पेड सगलें थंय मेळटालें! तें मोंव कुडके हुंदिरा पिल्लांक हांतरूण जावन आसताले! असलेवेळार भीड सोडुन बायलमनशा बरोबर उल्लेयतना दाक्षिण्य जात्ताले, पूण, उल्लयतकच, म्हज्या प्रश्नाची जाप म्हाका मेळटाली. असल्या अध्ययनाक लागून सोरोप, बायलांले कुडींत किद्याक वत्तात म्हणूक आनी तांका धर्माचे नावार अशुद्ध म्हणपाचे दोनूय जापो म्हाका मेळ्यो.

---

84. शक्त - शक्ती

महिन्याचो स्राव जात्ता तेन्ना थोडे बायलांक, तान्नी उपेग केल्लेल्यो वस्तु नाश कोरपाचे बदला कुडीचे कोनशांत चेपून दवरपाची संवय आसता. रक्ताचे वासाक हुंदिर, आहार म्हण थंय भोवतात, तांका खावपाक सोरोप बी तेच कुडिंत येंवपाचे चालू आसता. हेर जातिचे सोरप घरचे लोंकांक पोळोवन भीवून पळ काडतात,पूण नाग मात आपणालो शिकार कोरपाचो हठ साधसूनच भायर पडटात. तें तांच्या खावपाचे जीवाक, प्राण्यांक मात नुकसान करतात, मनशांक कांय करनात.

नागाल्या असल्या स्वभावाची समजीकाय नाशिल्लें लोक हें, समजुन घेनास्तना वा जीवाभंय, धार्मिक भक्तिचे कारणान, शेणोन वत्तात आनी सर्पाचे विशीच्या कुड्ड्या विश्वासान,ज्योतिश्यांक मेळपाक धांवतात. ज्योतीशि वास्तवकायेकची जाण, म्हायती दिवपाचे परस आनी आनी जास्त लोकांक वीवेकशून्य करपाचे एक दुर्दैवच व्हय! आनी एक मुख्य कारण म्हळ्यार, सोरोप घराभित्तर येवपाच्या नैसर्गिक सत्याची जाण थोड्या ज्योतिश, पुरोहित व अर्चक वर्गाक ना. पूण जाणिव कोरुन घेना जावपाचो कारण किदें आसु शकता? सद्याचे परिस्थितिंत जाप आमकाच सोदपाची आसा. पयलीं काळात, अस्तुरिचे ऋतुस्रावाक लागून थोडे-फार संसर्गी रोग पातळतात म्हळिले अज्ञान, आनी भंया कारणान, तिका भायर बसोवपाची पद्धत आशिल्ली. पूण तें अपशकुनी वा पाप अशे तांचे विचार नाशिल्लें. परंतु आज तिच्या ह्या नैसर्गिक क्रियेचे नागाच्या नावान शोषण जात आसता.

अजूनय, ऋतुमति जाल्लिले अस्तुरिक नागा संबंदित खूप अंध विश्वास पाळचो पडता. नागा सावन पयस आसपाक जाय, तिची सावळी नागार पडपाक जायना, गुरवार अशिल्ले अस्तुरिन नागाक पोळोवपाकच जायना, ताकालागून महादोष लागपाची शक्यता असता. केन्ना केन्ना अकस्मात नागाक पळयले जाल्यार दोशाचे भंयान अस्तुरी निराश जावपाची शक्यता बी आस्स. ताज्जे उपरांत दोश परिहार जावपाक धार्मिक विधिचे फंद्यात पडुन रीण काडून सगळे केल्ल्यार बी परतून नाग दिसता आनी घरा येंवपाचे पुनरावर्तन जाता. असलें परिस्थितित बायलांक सत्य सांगून, हो अंध विश्वास

पयस करुन तांतुतल्यान भायर काडप गरजेचें आसा.

जगाच्या हेर जीवा प्रमाण नाग बी एक सामान्य जीवु. अस्तुरिलो ऋतुस्राव आनी हुंदिरांचो संबंध आस्सा. नाग आनी अन्य सर्पांलें संबंध हांची एक सांखळशि जोडल्या, तें सोडल्यार, अस्तुरिल्या नैसर्गिक क्रियेन नागाक कांयच अशुभ वा अनवाळपण जायना. म्हणून ज्योतिष्य, पुरोहिता सांगातान ते पूर्वजन्माचे, हे जन्माचे दोष हें सगलें पुरायेन बिन-आधाराचे आस्सात. प्रकृतिन मनशां मदीं आशिल्ली नितळसाण, अनवाळपणची जाणविकाय, त्या मानान अविकसित सोरोप जातिचे सरिसृपांले जीवितांत हें सगलें ना. सर्पान घाण आनी हळशिकेंतच आसप स्वाभाविक. ताचो आहार जावन आशिल्ले हुंदीर, कोळुंदीर हेच हळशिकावण्या जाग्यार असतात हें सत.

फणो फुल्लोवन राविल्ले नागाक गुरुवार बायलानींच न्हयं, जाल्यार कोणेय अकस्मात पळयले जाल्यार भयान आंग काडतलीं. अशेच भंय गर्भिण्येक जाल्यार, तिचे पोटांत अशिलें चेरडार कांय दुशपरिणाम जावचे सहजिकच आस्स. त्या खातीरच गुरुवारी बायलाक नागा पासून दूर रावपाक सांगिल्ले. नाग, संतान देवता, ताका पुजल्यार संतान प्राप्ति जात्ता हो एक विश्वास सर्वत्र पातळ्ळा ताका लागून पूजा-विधि करतात. पूण ह्या पोरण्या विश्वासाची सैमिक वा प्राकृतिक दृष्टिकोनान चिकित्सा कोरपाक गेल्यार मात वयर सांगिल्या धार्मिक क्रिये विरुद्ध सत्य भायर पडटलें.

पुर्विल्ले सैमिक लोका प्रमाण, रूख आनि नाग जुवंळी चेतना शक्त अशें म्हणतात. तान्नी खोलायेन विचार कोरुनच भोवशः प्रकृति भोवती नागवनाची कल्पना केल्ली आसा. तो रावचे जाग्यार, शेत जमनीर, पाचवें वन बांदत, पूजा करत, ताजे रक्षण करत आयल्यात. बायलमनीसिनेच असलीं सैमा्ची आराधना पयलें फावटी सुरु केल्ली म्हूण इतिहासांत नोंद आस्स. नाग तेन्नासाकून शेतकामत्याच्या पिकावळीची राखण करता, वनांतूलें हजारों रूख, तरेकवार पशु, पक्षी, क्रिमि-कीट बी, वेगवेगळ्या मालिन्यापसून हो सगळ्यो परिसराचे संरक्षण करत आयलात. त्या काळात नैसर्गिक संपन्न्ताय खूप आशिल्ली, सैम बी ताका पूरक जावन स्पंदन करतालें, त्या काळातलो

मनीस खावगो नाशिल्लो, आत्ता वरी रोग, वांजपण अस्लें कसलेय त्रास तांका बादनाशिल्ले. त्या काळाचे लोकं सैमाची तरेकवार तरेन आराधना करपी जिवीताचे थोडे रिवाज पाळपी अशे आशिल्ले.

भारतांत खूप कडेन आज पर्यंत पिंपळारूखाचे पोंदा नाग मूर्ति दवरून पूजा कोरपाचो रिवाज आस. वांज आशिल्लीं जोडपी फाल्यार, सांजवेळार थंड उदक न्हावन, भीतरलीं वस्त्र घालीनाशि, पातळ कपडे घालून पिंपळा रूखाक अमकेच वेळा पर्यंत प्रदक्षिणा घालतात. भक्तिन, नेमान केल्लेले भक्तांक संतान भाग्याचो पुरावो आजय मेळता. हाजें कारण म्हळ्यार, एका बाजुन नागा विशीं आशिल्ली भाव-भक्ति, आनियेक बाजून फांतोडचे वेळाक वा सांज वेळार त्या पिंपळा रूखान सोडिल्लो रोग निरोधक शक्तिचो वारो, औषधि गुण आशिलो प्राणवायु मनशालें कुडींतलें रोग, वांजपण परिहार कोरपी आसा हे वैज्ञानिक रीतीन सिद्ध जाला.

असलिंच आनीक एक सत गजाल हालींच जाल्ली तिचो हांगा उल्लेख करता .म्हज्या एक इश्टालें लग्न जावन चार वर्सा सरलीं तरी ताका संतान जायनिशिलें. तों ह्यो विशीं कांय येवजून तकलीक त्रास घेनाशिल्लो, पूण तांची घरकान्नी आनी दोनी घरची सगलीं तांका बेजार करतालीं. एके बाजून वांज म्हण तिका उलयतालीं, दुसरे बाजून नागदोष, स्राप म्हण तिचें जीवित त्रासदायक केल्लें. हैराण जाल्लेलो घोव बायलेले, घरच्यालें चेपणाक हयकार दीवन ज्योतिष्या थंय धावलो. तांणे सांगले बायलेंत दोष आसा, नागालो स्राप! परिहार कोरपाचे जाल्यार व्हड मोलाचो विधि कोरपाक लागतले. प्रति दीस, थोडे म्हयने प्रसाद म्हण दोन केळि खावपाक सांगले. फक्त तितलेंच न्हयं तर, कुटुंबांतले म्हालगडे व्हडले केळीची घडाय घेवन सुब्रम्हण्याक नाग देवाक बी वचुन आयले. आनी संतानाची वाट पळयत बसले! कांय फायदो जालोना. निमाणे बायल, घोव मणिपाल आस्पत्रेंत तज्ञ दोक्तेराक दाखोवपाक गेले, थंय तांचीं परीक्षा कोरुन तिच्यांत कांय दोष ना अशें कळ्ळें. मागिर घोवाले कामा संबंधी विचारलें तेन्ना तो 12 वर कंप्यूटरार काम करता, त्या निमतान ताजे वीर्यांत वीर्याणु कमी जाल्यात तें परीक्षा करनापुढे कळून

आयले. ताचेर ताका वखद बरोवन दिलें. अजाप म्हळ्यार दोक्तोरान बी ताका केळीच खांवपाक सांगले! तांतुत वीर्याणु ची वृद्धि कोरपाचे गुण आस्स खंय! प्राचीन ज्यतिष्यशास्त्रांत विज्ञान आसपाचे सत आशीले तरी, ते विज्ञान लोकांल्या बऱ्या खातीर उपेग करपाचे सोडुन थोडे लोक कशे आनी किद्याक वाट चुकतात म्हळिलो प्रश्न पडटा. पूण दोनी घरचे लोकांन, विधि, पूजा कोरूनच संतान जाल्ले अशो दाट विश्वास दवरलो खंय! आसो, हें सगलें विश्वासाक संबंदित आशिल्ले विशीं.

नाग हो धैर्य, सौंदर्य, गांभीर्य, रौद्र आनी वैभवाचें प्रतीक जावन आस्सा. तो प्राचीन काळा पसून सुपीकतायेचो संकेत जावन आसा. त्या कारण मनशांत नाग पुरुष म्हण ताजी वळख आसा. वयरचे गुण लक्षण मनशांत सुद्दा दिसून येतात. तेन्ना अतृप्त काम आशींल्ले अस्तुरिले सपनांत नाग एका पुरुषाल्या रूपांत येवपाक कितें अर्थ आस्सतलो? मनोविज्ञान शास्त्राचो पितामह सिग्मंड फ्रायड, 'आसा' म्हणता. तो नाग सपनांत दिसपाची तीन कारणां दीता. एक शृंगार, म्हळ्यार अस्तुरी आनी दादल्याले एकचार जांवपाचे वा अतृप्त कामाचे संकेत. दूसरे, एक निश्चित वस्त वा व्यक्ति संबंदि खूप भंय अशिल्ले वेळार, तिसरे, नागाचेर तीं व्यक्ति देव म्हण विश्वास दवरता आणी तांणे किदें पाप वा चूक केल्ले असल्यार, आनी तें ताच्या मनाक खात्त असल्यार, नाग त्या व्यक्तिक अभय दिवपाक वा शाप दिवंपाक सपनांत येता अशें तो सांगता तेन्ना हाका पुश्टी कोरपी एक-दोन देखी[85] सकयल दित्ता.

हालीच हांव एका घरा नाग धरपाक गेल्लो. तें घर पोरने नळ्यांचे आशिल्ले. हांवे सोरोपाक धरून जाल्ले उपरांत घरची बायल, सोरोपादिकेन हात दाखयत म्हणपाक लागली 'हो नाग म्हजे सपनांत केन्नकेदनाय येता, आज म्हाका प्रत्यक्ष पोळोपाक मेळ्ळो' तिचे तोंडार भंय नाशिल्ले. म्हाका अजाप जालें. 'तो सपनांत कसो दिसतालो गे तुकां? तेन्ना तुं भिलीना?' हांवे म्हळें. ते उतराक तिणे सांगलें, 'हांव ह्या कूडींत एका कोन्याक निद्ता. हो

85. देखी - उदाहरण

सोरोप खंय थावन येवन, म्हजे तकली वयल्यान फणो फुलोवून येता. तेन्ना म्हाका भंय दिसता, पूण तो म्हाका कांय त्रास दीना. सावकासायेन म्हजेच पांया पोनाथावन चरत एका बीळात गायब जाता. तो गेले उपरांत म्हजे भंय बी वत्ता. असले सोपन म्हाका खूपदां पडलां.' तीं लजत उल्लयली!

तिची पिराय तीसाचे आशिकुशीक आस्सू फाव. थंयच बशिलो तिचो घरकार म्हणपाक लागलो, 'हिचे सोपनाक लागून आमचो सर्वनास जाल्लो. नागदेष, पूजा, अशे भोवतणाच्या लोंकान भेसडावन कितलो पैसो भटार खर्च जाल्लो. अजून तो जात्ता आस्सा. हांव बरबाद जाल्लो.' अशें तो तिडकलो. ताजी पिराय 35 आसतली, पीवून हलत-डोलत उल्लयपी तो. हाचे दुर्बुद्धिनच तिच्या सपनांत नाग दिसपाचे सहज अशें म्हाका दिसलें. तशें तर्नाटे, भरलेले अंग सौष्ठव्य, वया मानान मोग वा लैंगीक सुखाची अपेक्षा करपी बायल, आनी कंठपूर्ति पीवन, सकाळ पर्यंत मरतुकडो सारको पडलेलो घोव. असले परिस्थिंतिंत खंचेय अस्तुरीक कामरूपी नाग सोपनांत दिसपाचेच! असलें अस्तूरिंक आमचे समाज, बधंन घालुन नियम घालून जिवीत नरक करुन सोडता. देखूनच हताश जावन नागरूपि पुरुषाक सोपनांत पोळोवन भेवशः आपणांले अतृप्त इच्छेचें उपशमन करतात थोडे जण. ताचे यजमानान जर बायले बरोबर मोगान संसार करता तर नागरूपी दुसरो पुरुष तिचे सोपनात येवपाक साध्यच ना!

तशीच आनी एक गजाल सांगु इच्छिता, एके अस्तुरीची 60 वर्स पिराय आसत. तिचे शेजारचे घरांत सोरोप धरपाक हांव गेल्लो. तें पोळोवपाक वाठारातलें सगलें लोक जमिल्लें, परंतु ती बाय मात आपणालें आंगणांत उभी रावन पळयत आशिल्ली. म्हाका पळोवन मोगान हासींलें खास दिसलें म्हाका. पयस राबिले तिका हांवे, धीर दिवपाक लागि येवन पळे, भंय वत्तलें अशे सांगलें. ताका तीणें म्हळे, 'ना बाबा, ते देवाक धरपाचे पळोवपाक म्हाका जायना.' 'बरें' म्हणत हांव भित्तर वचुन सोरोपाक धरुन भायर आयलो, तेन्ना

थंय जमिल्ले लोक फणो भायर काडुन ‘भुस’ करतलें सोरपाक पळोवपाक लागि आयलें, मात्र ती अस्तुरी, थंयच रावून त्या सोरपाक भक्तिन नमस्कार कोरुन आशिल्ली. सोरपाक पोतये भीत्तर घालून लोंकाले प्रश्नांक जाप दित्तच हांव भायर सरलो, तेन्ना ती बायलमनीस म्हणलीं, ‘हो नाग म्हाका केदनाय सोपनांत दिसत आसता. म्हजे घरांत वा कुटुंबांत कितेय घडपाचे पयली ह्या नागा कडल्यान सपनांत म्हाका कळटा’. त्या उतराक हांवे अजापून विचारलें ‘अशें! हाका कारण कितें?’ ‘आमी नागदेवालें भक्त, खूप विश्वास असा आमचो ताचेर. कालच म्हज्या सोपनांत तो आयिल्लो. हांवे घरचे लोंकाक बी सांगले, विचार तांका’ अशी तीणें जाप दिली . घरच्या बायलांनी ’व्हय’ म्हणलें. परतून तीणें विचारलें, ‘हाका तुं कितें करता आत्ता? हाकां कितें त्रास दिनास्तना, बरो जाग्यार सोडुन योरे बाबा’. हांवे हयकार दिवन तिका परतून प्रश्न घातलो, ‘नाग तुमच्या सोपनांत येवपा लागून कितलें वर्स जालें?’ ती म्हणलीं, ‘धा वर्सा सावन तो सोपनांत येता, ताजे पयलें नाशिलें. म्हाका ताज्जेर जास्त भक्ती येता दिकुन तो चड दिसता,’ अशें तिणें कौतुकायेन सांगलें.

आनीक एके घडणूकेत सत्तावीस वर्सा पिरायेची किरिस्तांव तरणाटी, तिका बी नाग केदनाय सोपनांत दिसतालो खंय. नाग हेडो फुलोवन तिचे भोवतणी फिरतालो आणी ती ताचे सुंदरतायेक भुलतालीं, पूण तो जेदना लागी येत्तालो तेन्ना ती भिवन किळांच मारताली आणी तिका जाग येत्ताली. ह्या त्रासातून भायर येवपाक ईगर्जीचे पाद्रीक तिणें विचारलें. ताणें तिका पवित्र उदक-तीर्थ दिवन, थोडे विधि कोरपाक सांगून, ‘कांय भिवनका, देव बोरें कोरतलो’ अशें सांगलें. पयलीं, तिका कांय फरक पडलेना पूण जेन्ना तिचे लगीन जाल्ले तेन्ना पसून तिचो सोरपा विशीं त्रास बंद जा्लो! अशें तिणें मेकळेपणान सांगलें.

वयरचे सगळें विषय, आनी विश्वासा संबंदी विचार केल्यार एक स्पष्ठ आनी कडु सत उजवाडाक येता की सध्यांचे काळांत आमचें धार्मीक

आराधनेचे विधिंत चड करून अस्तुरींचीच पिळवणूक जाता. आमच्या सांस्कृतिक जिवीतांतल्यो परबो, सण आमी विशेशतायेन आनी बडवाचारान मनोवपना अशें थारायल्यार तांचे जीणेंतले महत्व कांय उणे जांवचे ना वा आमच्या जीविताक व्हड्लेशे नुकसान जांवचे बी ना. पूण नागांची आराधना आनी जतनाय करुन सैमाची राखण करपा बदला ताचो विनाश करपाचें काम केल्यार आमकां सैम आनी आमची फुडलीं पिळगींय माफ करचीना. पुर्वजांले सैमाचे आराधनेची कल्पना पुनर्जीवित करतना, तांचे मातृप्रधान वेवस्था बी परत्यान हाडचे अनिवार्य जात्तलें.

# 16. हेवाळ्याक भटांले पूजेचो त्रास!

हालींच चिकमगळुरचे एका गांवांत, ही एक अजापाची घडणूक घडलीं. थंयचे एका ल्हान देवळांतं तीनसांजेचे पूजेक, देवळांचे कुशींतल्या बिळांतल्यांन एक पोटसरो येवन वतालो आनी कांय वेळा उपरांत नाच जातालों. हें अशें थोडे दीस चल्लें, तेन्ना, थयचे भटांचे मनांत, लोकांक मूर्ख करून, आपणाली दाळ शिजोवन घेवपाची युक्ति सुचली. 'ह्या सोरोपाक लागून म्हजो धंधो बरो तेजींत चलतलो' असो विचार करून ताणें एक काणी घडयलीं. 'नित्य बिळांतून येत्ता तो आनीक कोण नासून काळिंग सोरोप! हो एक पुण्यक्षेत्र आसा म्हण, तो आरतीच्या वेळाकूच येवून दर्शन, दित्तां' अशी ताणें अफवा पातळायली. पळयता, पळयता, 'जन पिशें की जात्रा पिशें' अशे म्हणण्यावरी आशी–कुशीचे, गांवांतल्यान लोंकांली गर्दी जमलीं. काळिंग सोरोप पोळोंपाक आनी आपापलें त्रास, कष्ट सांगून ते पयस करपाचे उपाय विचारपाक लोंकाली गर्दी जमपाक लागली. हीं खबर सगळेकडेन पातळलीं आनी दूरदर्शनाचे लोक आयले, चित्रीकरण केलें, फोटो काडले. माध्यमाचे लोकांनीं जेन्ना म्हाका काळिंग सोरोपा संबंदी विचारलें, तेदना, एके

वाटेन हांसु येत्तालो, आनी दुसरे वाटेन हांव संतापलेलो, भटाले फटिंगपणाक आनी फसवणूकीक लागून. हांवे स्पष्ट सांगलें, 'पयलें सांगपाचे म्हळ्यार हो काळिंग सोरोप न्हंय. तें एक हेंवाळें हैर, (water snake) हीं बातमी त्या भटांक सांगा. 'म्हजी जाप आयकून दूरदर्शन वाहिनिचो प्रतिनिधी फुढली चौकशी कोरपाचे सोडुन निर्शेवन उगी रावलो. हांवे परतून ताका सागलें, 'हेंवाळी रात्रिची फिरतात, तांचो तेन्नाच निश्चित वेळ आसता. हेरवेळार ते हरशिल्या कामकाजात बुडलेले आसतात. ह्या देवळाचे भोवंतणी तांचे खावपाचे जिन्नस, हुंदीर, कोळुंदीर, बेबो, मांडकीं भोवतात, हांचे शोधात हें प्रतिरात्रिचे हांगा भोंवत आसतात. तितलेच! असल्या सादे-सोप्या त्या प्रसंगाची, एक खुबळावपी[86] काणी विणली भटान! सोरोपान बीळांतल्यान भायर येंवची वाट पळोवन, भटान आरती सुरु कोरपाची, आनी सोरोपा लागी वचून त्ताका आरती दाखवपाची, तो भीवून आत्मरक्षणाक ताजो हेडो फुलोवून भटाक भिवोपाचे, हें दृश्य नित्याचे .पूण, भट, 'आरती घेवपाक तो सद्दां येता', अशे लोकांक धडधडीत फट सांगत सुटलो. हें सगळें बंद करपाक जाय.' हांवे स्पष्ट म्हणलें. वाहिनिचो प्रतिनिधी आयिल्लो, एका खळबळजनक खबर लोकां मुखार हाडपाक, पुण म्हजे सांगणें ऐकून ताजो भ्रम निरसन जालो! भट मात आपूण ते गांवचोच न्हयं अशें, हेवाळ्याक आरती दाखयत आसलो आनीं थंय सरळ निष्कपट भक्तजन, देवांची प्रार्थना करपांत तल्लीन आशिल्ले.

**लोक जागृती हाडपाक लोक संपर्क माध्यमाची भूमिका :**

लोक जागृती हाडपाक, लोक संपर्क माध्यमाची भूमीका खूब मोलाची आस्स, हें सगळी जाणतात. थोड्या कन्नड वाहिनिंची नदर, आजकाल परिसर आनी वन्य जीवांचेर पडल्या, तें आशादायकच! पुण, प्रसार जाल्लिलें बहुतेक कार्यक्रमांत पोटसऱ्याचे जिवीतातले महत्व, हाची बरें रीतेर समज दिलिना,

86. खुबळावपी - खळबळी

ताज्जो खेद बी आस्स. थंय, थोडे जाणतलें लोकांक बसोवन, सुरु जाल्लेलो संवाद, अर्धंबर्द, अर्ध पिकिल्लें, माहितिचेर तर्क – वितर्क जावन, हांगा थंय फिरून, बंद जाता. सोरपा संबंदी साबार लोकांनीं म्हायती समजून घेवपाचे सामान्य ज्ञान वा, अंधविश्वासाचें निर्मूलन कोरपाचे वा, अपाय जाता तेन्ना, प्रथमोपचाराची म्हायती वा ह्या सगळ्यांची, असले कार्यावळींत अपेक्षा करप चूक थारतलें. कार्यावळ सोंप मेरेन इल्लीय उपयुक्त म्हायिती वा ज्ञान बी श्रोत्यांक मेळना म्हण चुरचुरे दिस्ता. तशेच कार्यक्रमाचे पयली, वेगवेगळ्या सोरपांचे दांत दाखवपाचे, हेडो फुलवोपाचो, विखारी दांत रप्प करून टि. वि स्क्रीनार धाडवपाचे दृश्य दाखोवन भयभीत जाल्लेले प्रेक्षकांक टि.वि बंद कोरून धांवपाकूच पडटा! हें सगलें पळयतना, सरकटपी जीवासबंदी संवेदनशीलता दाखवपाचे परस, आनी लोंकांक हांचे ज्ञान दिवपाचे सोडुन, वाहिनिचो टी आर पी (TRP) वाडोवपाची गरज चड आस्स, अशें दिसून येता!

हात –पाय नाशिल्लीं, तांची सरसर चरपाची रीत पळयतकच दुर्बळ मनशाक आंगांत 'जूम' जावन, भंय दिसपा सहज आस्स. सर्पा संबंदी समज, म्हायती सामान्य मनशाक दिवपाची जवाबदारी घेत्तिल्या माध्यमान हें भौसा विशीं साध्य जाता तितलें सावकासायेन, सौम्य रीतिन कार्यक्रम चलयल्यार तो यशस्वी जाता. हो समज तांका आसप गरजेंचें दिसता.

# 17. सोरप आनी आमी...

एके सकाळी चार वरार म्हजो मोबायल एक सारको कुकारचा लागलो. मद्यरात्तेर एका घरांत घुशिल्या सोरपाक धरुंक हांव गेल्लेलो. घरा पावन, रात्री निजतना दोन वरां जावन गेल्लेली. उटपाकच जालेना. परतून थोडे वेळान घरची बेल एक सारकी वाजपाक लागली. आता दुसरो उपाय नाशिल्लो, उटपाकच लागलें.

खबर कसली म्हळ्यार, ताजे शेजारचे घरकान्नीले पांगरूणांत एक सोरप रिगून निदिल्लो! आत्ता घरा दरवट्यार आयिल्याक म्हज्या आळशीपणान परतून वचपाक लागतले म्हूण म्हाका लज दिसुन त्याची माफीमागुन, भायर पडलो. सांगाताक आयिल्याक भिंवचे कारण ना म्हण सांगलें. नागाक सोडल्यार दुसरे विखारी सोरप 90% घरा भितर अशे येनात. हो बी विखारी आसचे शक्य ना म्हणले.

पूण थंय गेल्यार म्हाका, 'धस' जाल्लें, म्हजे पसतीस वर्साचे अणभवांत रसेल्स वैपर वा दबोय म्हळिलो सोरप घरांत येंवचो अपरूप. तांतूय तो

तीन म्हयन्या पील, मांच्यार चडुन घरकान्निलें मोवु गोमटेर[87] हुनसाण घेत पांगरूणांत निदिल्लो! म्हजे सीमित समजणीची म्हाका लज दिसली. सोरपाक अळंग हातांत घेवन पोतयेत घातलें आनी भायर आयलो. मांचार निजिले घरकान्नी कडेन उलयलो. सोरपाचे स्पर्शान भीवन तिजे बी.पी. वाडूवन ती हैराण जावन बशिल्ली. तोंडातल्यान उतरां भायर पडनाशिल्ली. सोरपाचो स्पर्श जाल्लिलो भाग कुसून वत्ता असलो गैरसमज वा अंध विस्वासान तिचे तकलेंत घर केल्लेले. पूण हांवे, तशें कितें जायना म्हूण समजावन सांगील्ले उपरांत, तिचो भंय उणो जालो.

म्हज्या विशिष्ट छंदा कारणान, सुमार 16000 घरांक हांवे भेट दिल्ली आसतली असो म्हजो अंदाज आसा. सोरपा असले पोटसऱ्याले विशीं सगळ्या लोंकांक वयर सांगिल्ले बायलेलें अभिप्रायावरी अंध विस्वास आसता. हें पोळोवन म्हाका खूप बेजार दिसलो. पयले अनेक प्रश्न, भंय, मूढविस्वास ह्याचान हांव, गोंदळून वत्तालो आनी म्हज्या मनाक पीडा जाताली. तरी त्या विशीं चड विचार आनी लक्ष घाल्लेकीर ताजी जाप, परिहार आपोआप सुचुंक लागले. सोरपा भोवती इतलो अंध विस्वास आनी मूढ विचार भरल्यात, हाचें कारण ताजे विशीं लोकांत आशिल्लो जीवाभंय आनी सोरोपा संबंदी आश्ल्लि अज्ञान. पूण एक फावटी भंय आनी अंधविश्वास बाजुक दवरून पोटसऱ्यार्ली हालचाल, आवडीन, सोसाणीकायेन निरीक्षण केल्यार पुरो. सोरपा सांगाता सगळें सैम आमका उगतें जाता! तें खीणाक तांचेर मोग आनी गौरव भाव येता. असलो एक अपूर्व अणभव म्हाका जाला.

म्हजे दिष्टीन सोरोप अत्यंत सुंदर, मुग्ध निरुपद्रवी जीव. तो कारणनास्तना खंच्याय जीवाक दुखोवंचो, त्रास दिंवचो वा रागान, द्वेषान चाविल्लो पुरावो जगांत खंय मेळना.

सोरपालें, 'विख' हें एक रसायन, तान्नी खांवचे आहारांतल्यान तयार जात आसता. फेणाच्या रूपांत आसचे हें विख भलायके भरीत, बळ

87. गोमटी - मान, गळो

वाडवचे पौष्टिक आशिल्ले एक द्रावण. हें रसायनाचो मुखेल उपेग सोरपाक शिकारिक, आहार गिळपाक, जिरोवपाक, आनी आत्म संरक्षणाक जाता. मांरुक आयिल्ली, त्रास दित्तल्या शत्रू पसुन पळुन वचपाक बी ताजो उपेग सोरप करता. पूण, तो दुसऱ्यांचो विनाश करपाची वृत्ती आशिल्लो प्राणी मात बिलकुल ना. मनीस सोडल्यार दुसऱ्या खंयच्याय जनावर वा जीव-जंतुक असली विकृती दिसच्याक साध्य ना.

मनशाक आदी पसुन व्हडले प्रमाणार पोटूसऱ्यांली आनी अन्य जीवांली गरज आस्स. हें कोणी विसरूं जायना. मनशान भोंवंडे जीवित सोडुन थीर कृषीचे जीविताची सुरवात केली, तेन्ना दिकून तो सोरपांचेर निंबून[88] आस्सा. आमचे पूर्वज शेती आनी भाटांची राखण, हुंदरां आनी दुसऱ्या जीवांलागथावन करपाक सोरपाची गरज आसा हें जाणून आशिल्लो. पूण आज आमी नकळत तांचो फायदो निरंतर घेत आसतात. सोरपाले विषाचे शुद्धीकरण करुन ताचे सावन तयार केल्लेले प्रतिविष म्हळिले औषधाचो मनशाकच न्हंय, तर सोरप चाविल्या खंच्याय जीवांक वांचोपाक उपेग जाता.

अलोपथी, होमियोपथी, आयुर्वेद आनी युनानि चिकित्सा पद्धतींत बी सोरपा विख, कॅन्सर, दांता कॅन्सर, स्तन कॅन्सर, शीरांचे सूजेक, कोठो काळजाचे रोग, रक्तस्राव थांबोवपाक, स्मृतीनाश/भंग *(Izheimer's)*, अर्धांगवायु *(Paralysis)*, कंपवात *(Parkinson)* रोगाक, संधीवाताची *(Joint Pain)*, दूक थांबवच्या वोकदांत सोरपा विषाचो उपेग करतात. नागाचे पातळ काती सावन तयार केल्ल्या वखदान वांजपण, लैंगिक समस्या निवारण जातात. हात-पाय, गांट्यां दुख, संधिवात अशें मनशांले खूप रोग वा पीडांक हाराले (Russells viper) मेणान तयार केल्ल्ले तेलांन गुण मेळटा हें लक्षांत घेतल्यार सोरप मनशालो कितलो उपेगि आस्स हाची जाणीव जाता.

शेत कामत्यांच्या राखणेंत सोरपांलें सहकार्य लक्षांत घेतल्यार तांका शत शत नमन कोरका म्हण दिसता. शेतकारांन शेती कामाची सुरुवात करतच सोरप

---

88. निंबुन - अवलंबुन

थंय येतात. शेताक उदक दिंवचे पसुन, जोत घालून गाद्दे कोसचे, शेतकामत बीयां वोंयचे, पीक येंवचे, फसल काडुन घरां व्हरु वरेक वेगवेगळे सोरप शेतक्ऱ्यांले सांगातान आसतात. पीक खांवपाक आयिल्ले, हुंदीर, कोळिंदुर, क्रिमि –कीट, सुकणी–पक्षी, रानांतले वन्य प्राणी, कोणाकय सोडनास्तना तांका खावन, सोरप शेताची राखण करतात. ह्याच खातिर आमचे पूर्वज पयली पासुन सोरपांची पूजा श्रद्धेन करत आयल्यात.

फाटलीं कितलीशींच वरसां पसुन सोरपाचेर हजारो आरोप जायत आयल्यात आनी ताचे संबंदान अंध विस्वास आसत. ह्या मूढ विस्वासाक कारण जावन आस्सा मनशालें अज्ञान, भंय आनी पैसो कोरपाची वासना. खावगे, स्वार्थी लोकांन भोळें भाळ्या जनांचे नुकसान खंचे रीतेन केलां म्हण हांव हांगा सांगपाक इच्छिता–

नाग, निधिचो राखण करता, सोरपाक हुंपून[89] वचपाक जायना, गुर्वार आशिले बायलेंन सोरोपाक पोळोवप ना. नागाक बोट दाखयल्यार दोष लागता. नागाचे कपाळार मणि, माणिक्य आसता. मशकासांगा पालो आनी तसले सारकेचो पालो सोरपाक सहन जायना. चंपा/चाफें, केतकी[90] फुलाचे वास नागाक प्रिय म्हण तो त्या जाग्यारच रावता. अमाशे दीसाक नाग रूकाक, फातराक चावून विष भायर काडतात. *Russels Viper* आनी हिंदी भासेंत दबोर नावाचो सोरप चावल्यार, चाविल्लो जागो कुसता. कडंबळ वा कामन् क्रैट वा करयत सोरपान चावल्यार त्या सोरपार आशिल्ले आडगेरो मेजोसर चावुन घेतिल्लो मरता. हिंदीत धामण, इंग्लिशिंत *PtyasMucosus* वा *Rat snake* नावाच्या सोरपानी आपल्या शेपटान, कोणाकय मारल्यार ताजें हाड मोडता. हेब्बाव वा नाग वा भारताचो पैथन् *(Indian Rock Python)* वा हार मनशाक गिळता. पांच, सात हेड्याचो नाग अपरूपाक भक्तांक दर्शन दितात. असलीं समजुति प्रचारांत आस्स.

आदल्या काळांत राजा महाराजा, गिरेस्त लोक स्वताची संपत्ति सुरक्षित

---

89. हुपूप – दांटूय
90. केतकी – कवासो, केदगी. केवडो

दवरपाक तिका निर्जन प्रदेशांत पुरून दवरची प्रथा आसताली. चोर वा शत्रुंक ह्या जाग्या सावन पयस दवरपाक भूत, प्रेत, नाग, देव, दैवांचो भंय घालची एक प्रथा पाळताले. असलो प्रदेश दीस वत्ता तसो पाड पडुन आतां तो जागो वन्य प्राणि, पोटसऱ्यांले वासस्थान जाला. थंय कोणी धन वा निधि आनी सोरपाक एकत्र पळयले जाल्यार, नाग धनाची राखण करता अशें पुकार घालतात. वास्तवात नागाक आनी धनाक कांय संबंद ना.

दोंळ्यांक दिस्तलो सोरपाक चरतना पोळोन ताका दाटयन वच्चे हिम्मत करतलो कितें? पूण, कोणी एका सोरपाक चरतना पोळयनास्तना दांटुयलार, ताजे सावळी वा मनशाले हालचाल पोळवन, भीवन, सोरप स्वताःचे रक्षण करपाक चावचो शक्यता आस्स. म्हण ताका दांटुयलार कांय दोष लागना. तशेच नागमणी, माणीक्य ह्यो सगल्यो पुराणांतुल्यो काण्यो, काल्पनिक गजालीं.

सोरपांन खाल्या उप्रांत, ताच्या आंगात विख तयार जाता. तें तो दिसपट्ट्या जिवीतांत ताजो शिकार सोदपांत, आत्मरक्षणाक वापरून खर्च करता. तयार विषाचो वापर जायना जाल्यार तें ताजे ग्रंथींत साठुन उरता. तें ताणें अमासे दीसाक फातराक घशटून काडपाची कांय गरज ना!

'वैपर् रसेल्स' म्हळिले सोरपाचे विषांत हाड नाशिले मास कुसंवचो गुण आसून, सोरपांन चाविल्ले खीणाक दाक्तरांले वखद घेतले ना जाल्यार चाविलो भाग कुसपाची शक्यताय आसा. पुण, सोरपाक स्पर्श केल्यार, हात लायिलो भाग कुसता, वा संसर्गिक रोग जाल्लेले पुरावे नात. इंग्लीशिंत कॉमन् क्रैट्, (कडंबळ) नावाचो सोरप जास्त विखारी आसता, पुण मुग्ध. आमी मस्तुन वा मारुन त्रास दिल्यार खंडीत चावतलो आनी तेच खीणाक नाच जात्तलो. त्या निमतान ताका मारपाक लोक ताका सोदचांत वेळ घालवुन, चाविल्याक तुर्त उपचार दीना जाल्यार, तो मरता. त्या खातीर ती म्हण्णी आसा, की सोरपा 'आंगावेले आडगेरो मेज्जोसर चावुन घेतिलो मरता' अशें.

जास्त सोरप स्वताःक शत्रु पसुन वांचुवन घेंवपाक, नाना नमुन्यान ताचो राग दाखयता. तो जोरायेन फूत्कारतलो, ताजे गळ्याचे कुशिचे हाड फुलोवन

भिरकायतलो, तकली वयर करुन गोमटी नाचयतलो, ताजे शेपटाची तुरी वयर हाडुन नाचयतलो, आंग विचित्र रीतेर वांकडे-तिकडे हालयतलो, मलमूत्र विसर्जन कोरुन अळशीक करतलो, मेलो अशें पडुन रावतलो, तोंड रूंद उगडुन विषाचे दांत दाखयतलो, आनी ताका मारिल्ले, त्रास दिलेल्या मनशाक शेपटांचे जोरायेन मारतलो, पूण इतलो जोरायेन न्हंय की ताजे हाड मोडचे!

भारतातले खडप हार, *(Indian Rock Python)* हो दैत्याकाराचो हेब्बाव, विषारी नसुन, मुग्ध जीवि आसता. हाजे भक्ष्यात हुंदिरा पासुन चितळावरेक सगले सस्तनी, सगलें पक्षी आसपावतात, पूण तो मनशाक खायना. तशें जावन, हेब्बावांन मनशाक वा चेरडुवांक खाल्लिले, गिळ्ळीले पुरावो भारतांत ना. तरी बी पैर पैर, उडुपिचे पेपरांत 'हेब्बावान रस्त्यार वत्तल्या एक चेरडाक गिळपाचे प्रयत्न केल्ले, पूण आवयोले किंळच्यो आयकुन, तें चेरडु वांचले' अशी खबर आयिल्ली वाचुन, 'दंग' जालो, आनी ताकतकीन तांचे गांवा गेलो. तांचे घर रानांतुच आसलें. वस्तुस्थिति कितें म्हळ्यार, खेळत आशिलो भुरगो झाडीं कुशिक गेलो आनी चुकुन थंय आशिले हेब्बावचे शेपटार ताणे पाय दवरलो. तक्षण सोरपान ताचे पायाचे पावलाक घास घालतना आवयेन पोळोवन किंचाळ्ळी. सोरोप स्वतः भीवन धावन गेलो. आवयचो बी हेब्बाव भुर्ग्याक गिळता असल्या अंध विस्वासाचेर विस्वास आशिलो देकुन, ती भुर्ग्याक घेवन घरा गेल्ली आनी व्हड व्हडल्यान बोब मारत सुटली, की तिचे पोराक हेब्बाव गिळचोच आशिलो, पुण तिचे आवाजान तो पळुन गेलो म्हण. ही गजाल गांवांत पसरली आनी दिसाळ्यात बी आयली. हांवे वार्ताहरांक खरें जे जाल्लें तें समजावुन सांगले तक्षण त्या घडणुकीचे स्पष्टीकरण दिसाळ्यांत घालुक दिल्लेले तान्नी घालु ना. ताजो परिणाम कितें जाल्ले खबर आसा? ही गजाल उजवाडाक आयिल्या उप्रांत एका म्हयन्यांत तीन अजगर,लोकालें भंय आनी आक्रोशाक बळी पडले!

**मूढ विश्वासाक पयस दवरात :**

सोरपा डंका संबदिसून अनेक जिल्यात, गांवांत, खेडेगांवांत तरेकवार अंध

व्स्विासाची वागणूक पयल्या पसुन आसा. आतां, फेस बुक, वोटस् अप सारखे सोशियल मिडियाचेर *(Social media)* लेगित असल्यो भयानक आनी विचित्र गजालीं सुनामिशे येत आसतात. असलीच एक बातमी पातळली. 'एका वैद्य सांगता, सोरप चाविल्यान उपचारा खातिर हांगा-थंय धांवचे सहजीकच. पूण, सोरपान चाविल्ले मनीसांले कान्नात मंत्र पठन केल्यार ताजी चाबिल्ली दूक आनी विष बी उतरून भायर पडता. तो 24/7 फोनार मेळता आनी ताजो फोन नंबर... आसा' ही एक पिशेपण आनी फटिंगपाणाची पराकाष्टा! सोरप चाविले मनशान, आस्पत्रेंत तक्षण दाखल जावन, चाविल्लो सोरप विषारी की विषरहित आस्स म्हूण खात्रि जावन, दोक्तरांले सल्ल्या प्रमाण प्रतिविषाची चिकित्सा घेवन वांचुन वरचे बदला वैद्यालें मंत्र आयकल्यार मरण खंडीत वा ही एक आत्महत्या अशें थारतलें. असल्यो खूप गजालीं आयकूंक मेळटात, सोरप चावलेलो, मंत्र, तंत्राक बळि पडटा, कोणी कितें सांगिले तशें करता, घायेर तापयलिलो लोखंड दवरुन काळे काळे भाजुन घेवपी, वा चाविले जाग्यार दहा-बारा बुराक कोरुन, रगत पीळुन काडुन उडवपाचे. असलें सगळे तो करता, पूण दोक्तरालीं चिकित्सा करू नास्तना, जीवाक धोको पत्करता.

खूप पयली, भारत सरकारच सोरपांली कात, चामडे, मांस, चरबी आनी वीख कोट्यांनी आंकड्यांत विदेशाक निर्यात करताले. जनमजयालें सर्पयागाक बळी जाल्लेवारि सोरप सामान्य लोकांले अज्ञाना निमतान कायम् बळी पडत आस्सत. जसो काळ बदल्लो, तशी सोरपाली संख्या कमी जायत गेल्ली. ताजो दुष्परिणाम, तांचेर निंबुन आशिल्ले हेर जीव-जंतुर जावपाक लागलात. ह्याच वेळाक, सोरपालें अस्तित्वा संबंदि अध्ययन करतले परिसरज्ञानी, पोटसरपीज्ञानीं कुरटां बांधून कामाक लागले. ताज्जे फळान, वांचुन उरलेल्या सोरपांक संरक्षण कोरपाक कडक वन्य जीवि कायदो 1972 रांत पास केलो. ह्या कायद्या प्रमाण, मरुंक पडिल्या सोरपां बरोबर, विंगड विंगड प्रकाराच्या सोरपांक बी सुरक्षित सोरोप म्हण घोषणा केल्ली. ह्या

कारणांन सोरपार जांवचे सार्वत्रीक हिंसाचार थोडे प्रमाणार कमी जाल्यात, ही खरी गजाल आसल्यार बी सामान्यांत ताजे महत्व, जाणविकाय हाडचांत अजून कमी पडटा अशें दिसता. असलें गंभीर अवतिकायेंत आनी कितले तरी सोरपज्ञानि, सोरपप्रेमी आपणांले जिवित समर्पण करुन पोटसऱ्याले राखणे असलो भिरांकूळ छंद बाळगून लोकांत जाणविकाय हाडपाक कष्ट सोसत आसात. स्वताःले जीवाची पर्वा करीनास्तना, निस्वार्थ सेवा करतल्यांक कायद्याची राखण ना! वस्तुस्थीति अशी की वन्यजीवि आनी पोटसऱ्याले संरक्षणाचो कायदो तांचेरच उलटायता. बदलत्या स्थितिंत, वन्य जीवि आनी पोटसऱ्यालें संरक्षण, आवड म्हूण आपणायल्यार नवीन पिळगेन कायद्यांतुच बदल हाडना जाल्यार परिस्थीति बिगडतलीं. सोरपाची कोणाक बाळगण करची इत्सा आस्स, तांका कायदो आड येता, अशा वेळार सोरपांल्या अस्तित्वाच्या कायद्या विरोधांत कोण मुखार येत्तलो?

मुग्ध जीवांक सामान्य मनशान लेगित रक्षण कोरयेत म्हळिले सदुद्देशान, वन्य कायदो संबंदि, 'सोरोप आनी आमी' हो म्हजे कृतिंत विवरण दिवपाचे प्रयत्न हांवे केला. अधिकृत लोक, वा कोणय सादे मनशान बी परिसर आनी वन्य जीवांलें संरक्षण कोरपाक जाय, आनी तांचेर जांवचे अत्याचार वा मारपीट जाता तेन्ना विरोध करपाक जाता. होच वन्यजीवि कायद्याचो मुख्य उद्देश असा. वन राखण्यानी राखण कोरका, भायल्या लोकांनी हातुंत लक्ष घालपाचे ना अशें कायद्याचे कॉलमांत उल्लेख ना.

म्हजी खूब दीसांची सरकटपी जींवांल्या संरक्षणाची सेवा ध्यानांत घेवन प्रधान रान संरक्षणाधिकारीनच म्हाका, "अधिकृत अनुमति पत्र" दिला. तरीय स्वयं घोषित पोटसऱ्या संरक्षक वा रान इलाख्यांतले थोडे भोव लोक म्हाका सहकार दिवचे बदला, वायट वागणूक कित्याक दितात हें कळनाशें जाला.

वन्यजीवि कायद्यांत, सोरप, तशेंच इतर सरकटपी आनी कितलें तरी जीवराशिक हिंसा करतल्याक, मारतल्यांक शिक्षा जांवचे परस कायद्याचे

(loopholes) पळवाटेचो उपेग करून, तांतुल्यान भायर पडतले लोक चड. गम्मत म्हळ्यार पोटसऱ्याले संरक्षण करतल्यांची मदत रानखात्याचे कर्मचारी करत आसतात तरीय तांचे अनादर करतात. वन्यजीवि अधिकाऱ्याकूच सोरपा असले अमूल्य जीवा संबंदी अज्ञान आनी तिडक आसा अशें समजुंचे! सरकारान कायद्यांत सुद्रवणी करून, तसले संरक्षकांक पारकून, अधिकृत अनुमती पत्र दिंवचांत वेळ काडनास्तना तुर्तान करपाचे गरजेचे आस्स.

मनीस जातिचे अस्तित्वाक फक्त सोरप मात न्हंय, सगलें वन्यजीवि, जिवित रावका जाल्यार सरकार आनी मुख्यताय, ताःका संबदि आशिल्या हेर खात्यातल्यां कर्मचार्यांक हांचे वनजीवां विशी थोडीभोव म्हायति आनी समज आसुंक जाय. सोरप आनी हेर वन्य जीवांक कायद्यान राखण करत आसचे समंजसपण दाखयता तरी लेगीत, सोरपप्रेमीनीं, सोरोपाक 'आपडचें ना' म्हण कठोर आज्ञा केल्यार, ताजो अर्थ, 'अर्ध तांती खावन उरलेले अर्ध उबसाणीक दवरला' म्हण्णी सारखे जाता. वन्यजीवि कायद्याची शेड्युल् एक, भाग एक हांतुत रक्षित हेब्बावाक, (हार) अरण्य इलाखेच्या कर्मचाऱ्यानच मारून घातिल्ले हांवे म्हजे दोळ्यांन पळयलां!

हती, वाग, चित्तल आनी पक्षी हे, वन्य जीवांचे संरक्षण कोरपाचे असल्यार, तांणी रावचे रान, मनशाले हाता भायर दवरुन राखण कोरपाक जाय आनी तो प्रदेश चड पाचवो दवरपाकजाय. घरां भोंवती चरतलीं सोरोपां असली सरकटपी जींवांक रक्षण करचे संदर्भांत, 'हीं सगळीं आमचे सांगतान रावतलीं' म्हळिले सैमीक रीतेर सामान्य मनशाक जाणवीकाय हाडपाची गरज आसा. मनशा कडल्यान तांका जांवची मारहाण थांबवपाक जाय. ही समज ल्हान वा व्हड लोकां पर्यंत सदां दीत आसका, पूण, कायद्याचे चौकटी भित्तर तें दित्तलें कोण? आनी कशें? तें साध्य आसा?

विपर्यास अशें की स्वयं घोषीत सोरपा रक्षण करतले, वन्यजीवितज्ञ आमचे मदीं खूप आसात. ते थोडे-भोव सोरपाक धरचे करतात आनी अनुभवान

बुदवंत समजतात. पेपरांत नांव येंवपाक धडपडतात. म्हूण असल्या लोंकालीं पारख करूनच जवाबदारिन काम करतल्या तज्ञांक वेंचुन नेमणुक कोरका. तांचे कडल्यान सोरपा संबंदी खंचे रितेर जनजागृति हाडपाची कार्यवळ कायम रुपांत हाडका. 'सोरप म्हळ्यार मरण' म्हूण विचार करतल्यांक, चित्र प्रदर्शन, विडीयो, स्लाइड शो, असलें मुखीक जाणविकाय हाडचे काम केल्यार ताजे प्रभा्वान लोकांचेर परिणाम जात्तलो? म्हजे अणभव जायना म्हणता.

आमचे लोकांत ह्या निष्पाप जीवां संबंदि मोग-माया असल्यार, ते आमचे बरोबर सहजीवन करतात हें विशीं मानून घेतल्यार मात, तांका प्रामुख्यान थोडे विषारि न्हंय असलीं सोरपालीं प्रात्यक्षिका, कार्यावळी करची गरजेचें आसा. सोरपांक लागिसावन उत्सुकायेन पळयत, तांचे विशीं माहिति वाचत, आयकत आसल्यार लोंकांक सहजपणान आपलेपण येंवची शक्यता आसा. सोरपांल्या राखणे प्रति गांवांत, शारांत सर्पउद्यान (snake park) दवरून भौसांत तांचे संबंदि जाग्रताय हाडची आलोचना बालीश अशें म्हाका दिसता. त्या बदल्याक, दोळ्यानी दिक्किल्ले सोरपांची हत्या करतल्यां पसुन तांचे रक्षण करपाचे मोलाचें काम आसा. केन्नाकेदनाय येंवचे हुंदिरा ताप, जोर (ज्वर), प्लेग असल्यो धामी[91] सावन मनिसकुळाक संरक्षण करतल्या सोरपालीं सेवा बी देशा्ची राखण करतले सैनिकावरी महत्वाची आस्सा. तांका एका कडेन बंधनांत दवरिल्ले जाल्यार, परिसराचे तीव्र असमतोलन आनी वेगवेगळ्या रोगाक कारण जांवची शक्यता आस्सा.

हुंदिर, कोळ्ुंदिर, सुणो, मांजर, रानपशु, पक्षि, क्रीमि-कीट असले जीव कुळांची चडानचड वाडपी वंशोत्पत्ति नियंत्रणांत दवरपाकच म्हण परभक्षक स्वजाति भक्षक सोरपांक सैमान रचयला. पूण, मनीस चिंतिनास्तना प्रयोग करता, चड संख्येंन आशिल्ले जीवांचो नाश आपोआप जात्ता. पूण मनिसान केल्लेले चुकिचे कारणान तांचे मुखावेल्या पीळगेक बी शिक्षा अणभवका

91. धामी - साथ

पडटा. हाचे निदर्शन म्हळ्यार, त्याच रोगाक मनशाक बी तोंड दिवका पडटा!

हुंदिर, कोळुंदिर आनी असल्या थोडे जीवा पासुन पातळपी कित्येक मरणांतिक रोग, सोरोपां नेटांन थांबोवक येतात. मात आमी तांका हेर प्राणी, पक्षी आनी जीवजंतुवरी आपणाले आशि-कुशीक रावपाक दिवका. सुणीं, मांजर, कुकड, मांडक्यां, मूंय, सुंकणी वरी सोरपांक बी मतिंत घेवन तांका जगच्याक दिल्यार खूप जाले. मुखार तांच्या सावन आमका खंयचेय नुकसान जायना. सैमाचो नेम बी तोच आस्सा. असलीं मनस्थिति मनांत बाळगांवका जाल्यार कुड्डो विस्वास सोडुन, सोरपांचे महत्व, गुण- स्वभावा संबंदी ज्ञान घेंवप गरजेचें आसा.

# 18. सोरपा डंकाची चिकित्सा : जतनाय आनी अनुसरपाचे नेम

सुमार शंभर वर्सा आदी सोरपाले डंकान जांवचे मरण वा दुखण्याचे प्रमाण प्रतिशत धा बी नाशिल्ले. वाहन अपघातांत कितले सोरोप मरतात ताजो एक वाटो बी सोरपान चावुन मरण पाविल्ले नात म्हूण अध्ययन सांगता. ह्या दीसांत, लोकांत सोरपा संबंदि जागृति, योग्य वखद-विरसत उपचार, रान आनी शेती प्रदेशांत पोटसऱ्यालो कायम जांवचो विध्वंस, आनी थोड्या जाग्यार कुड्ड्या विश्वासान जांवचे विनाशाची म्हायती, पोटसऱ्याप्रेमी कडल्यान कळता. हीं सोरप प्रेमी मंडळी मुखेलतायेन पोटसऱ्याले पासून मनीसांचे, मनीसा पासून पोटसऱ्याची राखण करत आसतात. तरी बी, गांव-गिऱ्या वाठारांत आनी थोडे शारांत सोरोप चावून मेल्लेली उदाहरणां खूप आस्सत, त्यावेल्यान कळुन येता की सामान्य मनशाक सोरपालें डंका संबंदी जे अज्ञान आसा, तें पूर्ण पणें सरलेंनां, म्हण. तें अज्ञान पयस करूंक आनी मुखार जांवच्यो दुर्घटना घडच्यो न्हय, ह्या नदरेन सोरपान चावल्यार कितें कोरपाक जांय, कसलें नेम पाळका हाज्जे संबंदी वाचक पयले पसून जागृत आसका म्हूण थोडी जाणकारी दिता.

प्रत्येक प्रदेश आनी प्रत्येक काळांत सोरप चावचे घडणूकींत, वेगळेपण दिसून येत्ता. देखीक भारताचे शिंया दिसांचे मध्यकाळ तें वैशाखाचे आखेर वरेक सगळे जातीच्यां पोटसऱ्यालीं संतानोत्पत्ती जात्त आस्ता. तांची धांवपळ बी जास्त आसता. वैशाखाच्या उष्ण तापमानांन सोरपालें विष पातळ जावन आस्ता, देकून सोरोप चावप आनी मरणांतीक घडणूक जांवची जास्त शक्यता आसता. कडक शींयांत आनी पावसाळ्यांत सोरपांलो संचार कमी आसता. थंडिन विष घट्ट जावन चावल्यार बी मनशाक ताजे दुकणें वा मरण येंवचे बी कमी आसता. पूण ताका दुखयल्यार मात खंयच्या वेळार आनी खंचेय संदर्भांत तो येवन त्या मनश्याक चावुन, ताजे आंगांत विष सोडून वचपाचे शक्यताय बी आसता.

चावरे सोरप, खूपदा विखारी आसनात. विखारी सोरप चावाल्यार बी चड विख सोडनात. केदनाय, अकस्मात, तांका दुखलें, घाय जाल्ले, तेन्ना चावल्यार बी विख सोडपाक ते खुपदा विसरतात! ताका, विखारी सोरपालें 'विखरहित चावप' म्हणतात. तरी बी खंच्याय सोरपान चावल्यार ते खीणाक दोक्तराचो सल्लो घेवप गरजेचें आसता.

सोरप, 70 प्रतिशें भाग मनश्याच्या पावलांक चावता, कारण चडशा फावटी मनशान तांका पायांनी मस्तयल्ले आसता. शेकडा 30 प्रतिशें कुर्टा सक्कल चावतात. कोयरु, लाकडा रास, बोल्यांत (bush) कांट्यांत, सोरप आशचे जाग्यांत हात घातिल्ले जाल्यार, ते हातांक चावतात. पोटाक, फाट्येक चाविले उदाहरण अपरूप. त्तरी बी असले घडणुकींत बायल मनीसच शिरकता हें विशेश लक्ष्यांत येता. थोडे बायलांक मांजर खूप आवडता, निजतना, ताका पोटलोवन निजतात. मांजर निशाचरी, घरकान्नीक नीद पडची वाट पोळोवन, भायर येवन् आंगणात चरतल्या, हैर, नाग, हेवाळे, असल्यांक तोंडांत धरून घरायेवन खेळ करचो ताचो स्वभाव. अशें अर्द मेले पोटसरें, रागान, बायल मनीशाचे फाटी, पाट, मान्नेर चाविल्ली उदाहरणां आस्सत. चाविल्लें जाग्यार प्रथम चिकित्सा कोरप गरजेच आसता.

**प्रथमोपचार आनी जतनाय**

1) सोरपान पावलाक चावल्यार,एक व्हड आनी रूंद कपड्याची पट्टी घाया थावन चार-पांच सेंटिमीटर वयर घाल्यार, दूसरी पट्टी मांडेक साधारण घटबांदून घेवका पूण, ही पट्टी एकदम घट बिलकुल घालप ना. कित्याक म्हळ्यार, सोरप चाविल्लो मनीस, आस्पत्रेक पावोसर वेळ जाल्यार, चाविल्या भागात रगत घोळना जाल्यान तो भाग कुसपाची शक्यता आसता.

2) सोरप चड करुन तळहाताक चावतात, घायाचे वयर एक पट्टि आनी दूसरी पट्टी हात्तारट्याक बांदची. ह्यो पट्ट्यो बांदचे कारण, आस्पत्रेक पाव मेरेन सोरोपान चावलिलें जाग्यार सावन विख काळजाक, मेंदूक वच्चेना अशी, काळजी घेंवका पडटा.

शाल, लुंगी, आनी खंचेय कपड्याच्यो पट्ट्यो बादुक जाता. क्रेपबडेज् *(Crape bandage)* आसल्यार घाया वयल्यान् बडेज बी करु जात्ता.

पोट, फाट आनी तकलेक (तकलेक चाबचे उदाहरण कमीच आस्सत) चावल्यार घाय जाल्या जाग्या वयले रगत पिळून काडका पडता.

पुस्तकांत आसलेवरी, घाय कातरून रगत स्राव जांवचाक दिवप ना. ताका लागून केन्ना केन्ना मुख्य रक्तनाळ कापून वचून रक्तस्राव जास्त प्रमाणांत जावन मरण आयिल्याचे पुरावे आसत. सिनेमांत दाखयलेवरी रगत तोंडान चींवन काडुन भायर उडोवपाचीय गरज ना. तशें केल्यार संसर्ग रोग येंवची साध्यता आसता. ते परस घावो हातान पिळून दूशीत रगत भायर उडयल्यार चड बरें.

कपड्याची पट्टी बांदचे पयली हाताक, पांयाक आशिल्ले भांगार म्हळ्यार कांकणं, मुदी, घडयाळ, ब्रेसलेट, पायाचे पैंजण काडून दवरपाक विसरू नये. कारण सोरपाच्या चाव्यान तो भाग सुजता तेन्ना ह्यो वस्ती काडपाक खूप त्रास जात्तात. सोरपाचे दांत अजमासे अर्ध सेंटिमीटर तें एक सेंटिमीटर लांब आसून, सोरप देहाचे वयले पदराक आनी अशुध्ध रक्तनाळाकच चड करुन चावता.

सोरपान चाविल्लें थळा पसून आस्पत्रे पांवचाक एक-दोन वरांचो रस्तो असल्यार, बांदिल्यो घट पट्यो दर पंद्रा मिनिटानी एक फावटी ल्हवच सोडवून, परतून बेगिन बांदका. अशें केल्ल्यान कांय अपाय ना. कारण, पट्टी बांदिल्ली तेन्ना, वयरचे पदरार आशिल्ली अशुद्ध रक्तनाळाक हालयल्या कारणान, परतून उगडून रक्त संचार सारको जात्ता. त्या निमतान चाविल्लो भाग कुसना. पूण, हें लक्षात दवरपाक जाय की घट्ट पट्टी बांदल्यारच तशें करपाक जाय. बँडेज बांदल्याक अशें करपाची गरज ना.

सोरप चाविल्या मनशाक चड हालचाल करूंक दींवंची न्हंय. तशें केल्यान रक्त प्रवाहाचो संचार वेगान जावन वीख काळजांत पावून वीखबाधा जावपाची शक्यताय आसता. जो सोरप चावला त्या सोरपा फाटल्यान वचून ताका मारचांत वेळ घातल्यार तो मुर्खपणा थारतलो. त्या वेळार कोप, भंय, उद्वेग असलें भावनेन रक्त चलन जास्त जावन दुष्परिणाम जावनु, जीव गेल्लेले उदाहरण खुप आस्सत.

सोरोप चावल्या उप्रांत लोकांक कांय प्रस्न पडटात. *(Frequently asked questions)* ते म्हळ्यार :

**1) सोरप चाविल्या उप्रांत कितल्या वेळा भितर आस्पत्रेंत दाखल जांवक जाय ?**

**जाप** : सोरप चावलेल्या मनशाक जाता तितलें बेगीन आसपास अशिल्ले आलोपथिक आस्पत्रेत दाखल करपाक जाय. तशें केल्यार मात जिवित उरपाचे साध्यता आस्सा. कारण, चाविल्या सोरपाक त्या मनशांन कितले दुखयला, त्या संदर्भांत, सोरपान कितलें प्रमाणान विख सोडला, आनी त्या मनशाचेर कितलें बेगिन आस्पत्रेंत उपचार करतात, ह्या सगळ्यार ताचे दुखणें वा जिवित अवलंबून आसता.

सोरप चावलेल्या मनशान आस्पत्रेत पावोसर आहार घेवपांक जायना. जरूर आसल्यार इल्लें उदक मात ताका पिवपाक येता.

**2) सोरप चावलेल्या मनशान चाविल्ले सोरोपाक मारुन घेवन वचपाक जाय' म्हळिल्लो अंध विस्वास आस्सा. तें कितलें सत ?**

**जाप** : तें चुकिचे आनी ताज्जी जरूरी ना. चावीलो सोरप विखारी व्हय की ना हें रगताचो तपास कोरनापुढेच कळून येता. सोरप चाविल्लो मनीस पयली तपासणी जायनापुढे, जास्त धांवपळ करनास्तना, बेगिन लागीचे आस्पत्रेंत, वकदां मेळचे जाग्यार दाखल जांवची जरुरी आस्ता.

**सावधताय–**

वयर सांगिल्ली पयली–जतनाय[109] सोरपान घास काडल्या बरोबर तीन ते चार मिनटा भीतर घेंवपाक जाय, जाल्यारच त्या मनशाचो जीव वांचची शक्यताय आसता. चड वेळ केल्यार रक्तांत विख मिश्र जावन तें काळीजा वा मेंदुक पावपाची साध्यता आसुन, मनशालो जीव मरणांचे दारांत हुमकळटा.

सोरप चविल्याक आता उपलब्द आशिल्ले ''पोलिवेलेट अँटी वेनम सीरम'' *(Polyvalent anti snake venom)* म्हळिलें प्रति विषच सुरक्षित वखद जाबन आस्सा. हें वखद भारतातले चार विषारी पोट्सरे, नाग सर्प, *(spectacled cobra)* विख सर्प *(Russells viper)* कांडेर *(Common krait)* गर्गस् खंवल्यांसर्प *(saw scaled viper)* आनी पिट वैपर्स *(Pit vipers)* हांचे कमी विषाक आनी काळिंग (नाग) सर्पालें ल्हान वा व्हड (King Cobra) डंकाक उपेगी आस्स. असलें तूर्त परिस्थितींत, आस्पत्रेक दाखलात जावन, पयली जतनाय केल्यारच खंडीत वांचू शकता. अकरा फावटी नागाले, एक फावटी आडगेऱ्यालो, आनी दोन फावटी काळींगाले डंकाक, बळी पडिल्या म्हाका दोतोरान हीच चिकित्सा दिवन वांचयिल्लो आसुन, ताजो व्हडली साक्ष हांवच आसा!

सोरपाले डंकाक लागुन, समाजांत तरेकवार अंधविस्वास आनी विधि आसात. त्या निमतान सोरप चाविल्लो मनीस मंत्र–तंत्र आनी वामाचार इत्यादि जाळांत शिरकता. तायीत (रक्षा दरी) बांदून भूत–पिशाच धावंडावप, रक्त बळी दिंवप, सोरपान चाविल्ले जाग्यार तापयिल्या लोखंडान तो भाग जळोवप वा घाय जाल्ले जाग्यार सूयेन बुराक करप, कातरप अशें नाना

108. पयली जतनाय – First aid





नमुन्याचे सल्लो दितले 'बुदवंत' ह्या जगांत आस्सत. हाली नेटार, फेसबूक, वाट्सअप्, असलीं, भयभीत जाल्या लोकांची वाट चुकोवपाचे काम करतलीं भरपूर माध्यमां आसात. स्वतः दोक्तेर म्हणून घेतलो मनीस, फोनार सोरप चाविल्या मनशाले कानांत मंत्र फुंकता, आनी विख देवोंवपाचें काम करता खंय! अशी फट गजाल आयकून सोरप चाविलो मनीस आस्पत्रेंत भरती जावपाचे, बदला वेळ फुकट घालून, धोको पत्करतात. चड कोरुन सोरप चाविल्ले लोक गांवटी वखदां घेवन मेल्लेले जायते पुरावे मेळ्ळयात .

अलोपेथिक - वखदां भारतांत येंवचे पयलीं सोरपा विषाक आयुर्वेदांत झाडा-पाल्याचो उपचार चलतालो. झाडां वकदापाळां, पानां आनी खूप प्राकृतिक वस्तुनीं तयार केलेल्या वखदान कितल्याशाच तीक्ष्ण चाबण्याक गूण पडटालो हें सत्य आस्स. झाडापाल्याची मुळां मेळपाक सोप्पे आसून तीं अलोपथिका परस उणें मोलाची आसतना, आयुर्वेदिक चिकित्सा प्रयोग कोरपाक ताका संबधित आशिले दोक्तोर लोक मुखार कित्याक येनात? कारण कितें खबरना. सरत आशिल्ले आयुर्वेदाचे विष- चिकित्सा विज्ञानांत सरकारानं बी हात-भार घालून त्या विभागांत जास्त संशोधन कोरुंक लावन, लोकाले उपेगा येंवुक मदत करप गरजेचे आस्स. प्रत्यकांले प्राण अमूल्य आसता, त्या खातिर तें वांचोवपाक अलोपथिक चिकित्सा घेंवची बंरी.

# गजाली पोटसऱ्यांच्यो



“गजाली पोटसऱ्यांच्यो” हें कन्नड भाशेंत श्री. गुरुराज सनिल ह्या सर्पप्रेमीन बरयिल्ले आपले अणभव कथनाचो कोंकणी अणकार. अणकारपी दो. सुषमा अशोक आरूर आपले मनोगतांत सांगतात, की ही तांची कोंकणींत अणकारीत पयली रचना.” बाय सुषमा आरूर हांची जशीं पयली रचना तशें म्हाका दिसता ही कोंकणी अणकारीत साहित्यांत असली एक आगळी-वेगळी कृतीय आसतली. किद्याक, चड करून काणी, कादंबरी, कविता आदी रंजक साहित्य प्रकार अनुवाद करपाक इच्छितात. ह्या पुस्तकांत लेख वाचतकच गांवगिरी जीण, थंयचे निसर्ग वर्णन, थंयची लोकभावना, विशेश करून आदले अविभाजित दक्षिण कन्नड जिल्लेचो सैम, सोरपां विशीं त्या लोकांची श्रद्धा-अंधश्रद्धा आदी भावता. ह्या दिसांनी सैमाचो विबाड जावुन मनीस जात तशेंच मोनजातूय कितले जोखमींत पडल्या हें आमी सदांच भोगतात. ह्या सैमाची राखण कशें करपाजाय ह्या दिकेन आमका विचार करपाक आनी कारवाय करपाक हें पुस्तक उत्तेजित करता.

**– जयश्री शानभाग**

माजी डायरेक्टर, गोंय आनी मैसूर आकाशवाणी

“गजाली पोटसऱ्यांच्यो : सर्पमोगीचे अणभव” म्हळ्यार मूळ कन्नड भाशेंतल्या गुरुराज सनील हांच्या वेंचिक साहित्याचो हो कोंकणी अणकार. दो. सुषमा अशोक आरूर हांणी कोंकणी वाचप्यांक एक खेरीत तरेचो विशय आकलनाखातीर विस्तारीत करून दिला. सोरपांच्या विशींची म्हायती दितनाच मनशान सैमाची राखण करपा खातीर कशें वागपाक जाय ह्या विचारा वटेन प्रवृत्त करपी हें पुस्तक आसा. ह्या पुस्तकाच्या अणकारा खातीर तांणी घेतिल्ली तकालस आनी कश्ट तांच्या चिवट, जिद्दी आनी अभ्यासू स्वभावगुणाची वळख करून दिता. तांच्या अशे तरेच्या अथक कार्याक आदीक उर्बा मेळूं आनी तांच्या कडल्यान विंगड विशयावेल्या स्वतंत्र पुस्तकांची भर कोंकणी सरस्वतीच्या दालनांत पडूं, तांची ही उमेद तांका जैतवंत करूं अशें मनासावन आंवडेता.

**– प्रियदर्शिनी तडकोडकार,**

माजी विभाग मुखेली

ता. 15 जून 2020

